# गोमती

नारायण वादोळकार

कुळागर प्रकाशन

---

गोवा कोंकणी अकादेमीच्या पालवान
'लेखकाचे पयलें पुस्तक अनुदान येवजणे'
खाला हें पुस्तक उजवाडायलां.

# दोन उतरां

'गोमती' ही कादंबरी खूब वर्सांआदी हांवें बरयिल्ली.
गोंयच्या खेडयांनी असल्यो जायत्यो गोमती
आमकां पळोंवंक मेळटात.
पुण ही कादंबरी खंयचेच एके बायलेक नदरेसामकार दवरून
बरोंवक ना.
कथा आनी पात्रां पुराय काल्पनिक.
जर खंयच्याय एका पात्राचे जिणेकडेन साम्य दाखोवपी पात्र
कोणाकय दिसलें जाल्यार
हांव म्हणटा कि मगेलो यत्न फळादीक जाला.

गोवा कोंकणी अकादमीन लेखकाचें
पयलें पुस्तक उजवाडावंक अनुदान दिवपाची एक येवजण आंखली
आनी इश्टांचे सांगणेन हांवें म्हगेल्या कादंबरीचें हस्तलिखित
अकादमीकडेन धाडलें.
ती कादंबरी छापून उजवाडावचे खातीर
गोवा कोंकणी अकादमीन जो अर्थिक आदार दिला
ते खातीर हांव उपकारी आसां.

**तामनें, पगीण, गोंय**
**विजयादसम, शक १९१०** **— नारायण वादोळकार**

# गोमती

हाजेपयलीय अशेंच जाल्लें– रातीच्या गुपाट काळखांत दोनचार फावटी ती पळून आयिल्ली–एकलीच ! आवयन तेन्नाय अशेंच हुस्क्यान थरथरत्या आवाजांत विचारिल्लें– 'गोमू ह्या वेळार शें ? बरोबर कोणच ना ?'

म्हातारें आवयले सुकिल्ले ओठ अक्तेच आशिल्ले. आनिकय किते विचारूंक ते सोदताले जावये. पुण तांतूतल्यान अुतरां भायर सरूंक सोदनाशिल्लीं. आवयच्या मिरयेल्ल्या तोंडाकडेन गोमती कांय खीण पळयतच उल्ली. 'म्हजेसारकील्या नशीब फुटकेक पावोवंक कोण येतलो ? मर्णय येना आपयलें तरी !'

घांसूनपुसून निवळ केल्ल्या चंदनाच्या लांकडासारक्या नितळ हातांनी तोंड लिपोवन गोमती भुरग्यासारके रडूंक लागलें.

ताज्या तुकतुकीत केसांवेल्यान हात भोंवडायत आवय समजाय-ताली, 'बायलमनशेक फकत तेच घर आसता गोमू ! कशेंय आसलें तरी तुका जीण थंयच सारूंक जाय. सगळेच दीस सारखे नासतात. कितेंय चड–अुणें घडल्यार सोसुंक जाय...'

' कितलो तेंप सोसूं आवो !...' रडटाथंयच ताणें आपलो पिनून तिस्त्यो जाल्लो आनी चिकलाचीं पुटां चडिल्लो ब्लावज काडून ताणे आपली फाट आवयवटेन केली... ' पळय हें... आतांय सोस म्हण्टा तूं...! हे परस जल्माक आयिल्लें तेन्नाच तुवें म्हाका जमनीत फोंड काडून पुरूंना कित्याक आवो !'

चलयेच्या फुलासारख्या कवळचा कातीवेले निळेकाळे वळ पळोवन आवयचे काळीज हाल्लें. तिच्या दोळयांतलीं दुकां त्या काळचा निळचा वळांचेर टपटप पडूंक लागलीं. फांतोड्डेर दंवाचे थेमे पडटात तशीं. ' कसले फुटकें नशीब घेवन जल्माक आयलें तूं ! कसल्या राकेसांच्या हातांत पडलें म्हजें बाय...! धोंगसून–मारून खालेबगर रावचे नात ते तुका !' एका हातान गोमूचे फाटीवेले वळ पोरशीत आवयचें काळीज चुरचुरूंक लागलें.

तरेकतरांच्यो देखी सांगून आवय गोमूक परतें समजावंक लागली. पुण आवयचे सांगणेन थंड जावपाबदला गोमूचे काळीज अदिकच खतखतूंक लागलें. तिज्या बापोलमांवान खोऱ्याच्या दांडचान बडयिल्लें ताका. बापोलमांयन केंसाक धरून ताका वण्टीर शेंवटावन उडयिल्लें. ' गांवार हेडपी रांड, धा घरांतले उष्टचावारे अुस्तून हांगा आयल्या. चेडी खंयची ! एका घोवाक भाजून खालो. शांतूल सांगताले– जिलब्यो खाता खंय जिलब्यो ! रानातल्या रेंजेराबराबर काल रानांत खंय वताली ? त्या गोरवां दोतोराबराबर कसल्यो गजाली करताली ? सात गांवची चेडी खंयची ! आमची अब्रू मातये भरवण केली तुवें रांडेन... वयाचो मद माल्ला रांडेक... मद !'

लाथांचो, दांड्याचो मार गोमू मोन्यांनी सोसताली. सरपंच धर्मा गांवांत पावलो नाशिल्लो जाल्यार सगळे मेळून तिका जिती–लेगीत मारून उडयतासले. पुण सरपंचान कशायभशेन बाबा–पुता करून सोडयिल्लें तिका त्या राकेसांच्या हातांतल्यान.

तिजो घोव रामगो अुकडणी बसून आशिल्लो– मोन्या बावले-भशेन... आवयक मारतात ते पळोवन कुन्नू दारा आडसरा लिपून राविल्लो. तो इतलो भिल्लो, इतलो काचाबुल जाल्लो कि रडपाचेंय

विसरिल्लो तो...

माथ्यार पडपाक तयार जाल्ल्या खोपटांत गोमती कुन्नूक घट्ट वेंगेत धरून हुडक्या हुडक्यांनी रडटालें..रामगो रातभर खों खों खांकत आशिल्लो.

कोणाक सांगतलें गोमती ? गोरवां दोतोराकडच्यान तें घौंवा खातीर वखद हाडटा हें सांगल्यार लेगीत कोण खरे मानतलो ? वखद घेवपाशिवाय आनीक कसलोच संबंद ताजेकडेन ना म्हूण हातभर जीब काडून सांगले तरी कोणाचो विस्वास बसतलो त्या सांगणेर ? रानांतल्या रेंजेराचे तोंडलेगीत दिसले नाशिल्ले गोमतीक गेल्लें सप्तकभर... गांवच्या बायलांबराबर तण हाडूक तें रानात गेल्लें... तांचेबराबर परतलें ! आनी शांतूल ताका रेंजेराबराबर खंय पळयतले ? केन्ना ? तें चेडी रेंजेराकडेन विड्यो मागून ओडटा... पान घेवन खाता... हेच पावसाळ्यात एक दीस गोमतीन आपले दोळ्यांनी हेच शांतूलाक पळयिल्ले—रानांतल्या बंगल्यांतसून फाटले दारान भायर सरतना.,. हांसत्या तोंडान आनी किरवंट सासपीत... शेणखायरें खंयचे ! पुण पळवन लेगीत पळयनाशिल्लेसारके दाखयिल्ले गोमतीन ताका !

ही गजाल गोमती कोणाकय सांगत बिगत हे भिरांतेन ताणें पयलेंच हे लचांड म्हजेर घालें जावये... पुण हे राकेसांक कितें ताजें... ते खरें फट कित्याक पळवपाक बसल्यात... ?

काळखांतय ताका बापोलमांवाचें—बाबुटोकाकाचे भिरांकूल तोण सामकार दिसताले. बेपपासारखे तामडे गुंज दोळे ! ओठलेगीत धांपतले असल्यो दाट मिशो !

रामग्याक ताणे शंबर फावटी तरी सांगिल्ले 'तुज्या काकाची नदर बरी न्हय. ताचे दोळ्यांत पाप दिसता म्हाका...वायट नदरेन पळयत रावता तो म्हाका !'

पुण रामग्यान तें आयकून आयकले नाशिल्ल्या सारखे केल्लें. 'तूं एक सामकें अन्नाडी कशें. इतल्या म्हाताऱ्याचोयबी दुबाव घेता ? पाप लागतले तुका... नरकांत पडटले तूं ! कोणी आयकतलो कितें म्हण्टलो ? थुकतलो तुज्या आनी म्हज्या तोंडार.... '

आनी रामग्याची ही जाप आयकून तें मनातले मनांतच खंती जावंक लागले. पिसो–देव मनीस कांय गोरूं हें बुद्द नाशिल्लें ! गंधा-भशेन जीणभर झरयता हाका काका–जोमेरेन एककडेन रावताले तोमेरेन पोटभर खावंकय दिले ना ताका ! अुरिल्लें, उश्टे–पाष्टे... तुटिल्लो– फुटिल्लो वाडगो ! आंगार घालूंक आपले चल्याचीं-–वासग्यालीं पोरणीं आंगाचीं !

हालीं हालीं तर म्हाताऱ्याली बुद्द चडच भ्रश्ट जाल्या. रामग्याक सदाच रातचो बटाट्यांचें शेत राखूंक धाडप. सगळी रात तो शेतांत 'हार्त–हूर्त' करीत सावदांक धांवडायत आसता. खीणभरलेगीत न्हीद लागली तर सगळें शेत मेकळें.

आनी जेन्ना रात जावन सगळे लोक सुस्त न्हिदून पडटात, गांवांत मसनोटींतली शांतताय पातळटा तेन्ना म्हातारो बापोलमांव बाबुटो काळखांत बोवाळ करीनास्तना गोमूल्या मोडक्या घराचें तुटकें दार सासपूंक लागता. दोन तीन फावटीं गोमून 'हार्त–हुर्त' केलें. पुण म्हाताऱ्याक सुण्याभशेन लजच नाशिल्ली.

परचे राती तर म्हाताऱ्यान दारच उघडलें तेन्ना कितें करचें हें सुचलेंना गोमूक. रान्नीकडेनच न्हिदिल्लें तें. सासपीता आसतना एक लाकूडच हाताक लागलें तेंच ताणें दारावटेन शेंवटून माल्लें तेन्ना दोनी पायांत शेंपडी घालून पळ्ळो सुणो !

सकाळींच कोणेतरी विचाल्लें, 'बाबूट्याका, तकलेक घावो कसो पडलो ?' तेन्ना सांगता चोर, 'पांय निसरून पडलों. हालीं रातचे बरेंऽ दिसना म्हाका !'

तेन्नाच्यान सूड घेवपाची संद सोदता आनी काल ती संद मेळ्ळीय ताका. बायलेक शिकोवन तयार केली. शांतुलाक खावयले आनी रचले हें रामायण !

गोमूक रान्नीम्हऱ्यात न्हिदोवन आवय नळचा कुडको तापोवन शेकताली. आज घरांत खावंक कांयच नाशिल्लें. रान्नीत अुज्याचे विंगळे घालून कारांदे भाजून खाले आनी वयर तांबयोभर अुदक पीवन भुकेक थामयली दोगांयनी. म्हातारे आवयचे हातपांय चल-

नाशिल्ले आतां आनी ताका लागून दोन वेळांचो कोको चलपाची आशा नाशिल्ली. म्हयन्यातल्यान कितल्योश्योच एकादश्यो आसताल्यो आतां- !

रात कितली जाल्ली खबर ना. पुण गोमूक अजून न्हीदच लागली नाशिल्ली. नाना तरांचे विचार ताजे तकलेत घुंवताले. पाल-वल्ल्या उज्या म्हन्यांत पिनक्या गोजडेन हाडां फोडपी शीं निवारीत भविश्याचो विचार करताले तें. येदे व्हडल्या संवसारांत ताका कोणा-चोच आदार नाशिल्लो. कसलोच आदार दिसनाशिल्लो. घोव पिसोसो. ना खास मांव ना मांय ! एक देर-तोय पयऽस ! कुळारचें मोडकें दार उगडूंक आशिल्ली ती घोव मेल्ली म्हातारी आवय-आज मरता कांय फाल्यां मरता अशी !

जीव दिवपाचो विचार खूब फावटीं मनान आयलो. रानांतले झाडाचे उंचायेवेल्या खांद्याक दोरी बांदून ताजो फास गळयाक लावन घेवचो ! हजार लफडयांतल्यान सदांची मुक्ती. पुण कुन्नूचे तोंड दोळयांमुकार येवन तो विचार खंयचे खंय नाच जालो ! सुपुल्ले हात-दुधाचे दांत ! मन सैरभैर जावन ती हातांनी ताका सांसपीता... तेन्ना कुन्नूले खूंटशे काळे हात गोमूचो पिनको पदर धरून दवरतात- !

ताका खबर आशिल्लें, बाबुटोकाकाक कितें जाय आसलें-

गोमती कोणाच्याय बराबर पळून वचू. ते न्हंयत बुडून मरूं आनी रामगो विकतो घेतिल्लो गुलाम कसो ताजो वावर करीत जीण झरवं ! तो मरतगीर ताजे वांटयाची जमीन आपले हातांत येतली. ताजीं तीन शेतां तीन विसो रुपयांत ताजेचकडेन घाण आशिल्लीं. -रामग्याच्या आवयच्या मरणासावन ! तिजे क्रियाकर्माचो खर्च केल्लो ताणें... !

वासगो तर त्या दिसा शांबाल्या मांडार अुलयिल्लो लेगीत- 'तो पिसो मरतगीर गोमतीक रांडेक म्हज्या घरांतच हाडून दवरतलों !'

आपणाक मेळिल्ले रूप म्हळयार शापच मेळिल्लेवरी दिसतालें गोमतीक. तें चिंततालें-धोडावन-चिरून सोंड विद्रूप करून घेवंचें. नाजाल्यार जळत्या लाकडान भाजचें. देवय कितलो दयायाया

नाशिल्लो ! ताणे हे रूप म्हाका दिले नाशिल्लें तर आज इतले भोगचें पडनाशिल्लें... ! भायलेच न्हय, तर घरचेय लोक दुस्मान जाल्यात त्या रूपाक लागून !

'अजून न्हीदलेंना गोमू ?' आवयन कूस परतिताना म्हळे.

'न्हीदच येना आवय !' गोमतीन चिंतता चिंततांच म्हळें.

'तुज्या देराची देवरायाची–चीट बी आयिल्ली ?'

'खूब तेंप जालो येवंक ना. गेल्या माघ–फाल्गुनात आयिल्ली. तुको म्हण्टालो, खंय दुसरे जाग्यार बदली जाल्या म्हण ताजी. तेन्ना-सावन चीटच ना.'

'पयशे बी कितेंय धाडटा ?'

'पयशे खंयचे ? पयलीं दोन–तीन म्हयने धाडटालो कितेंय तेल–मिठाक पावतशे, हाली तेय ना. आमकां हे दुस्मान तर गळ्याकच लागल्यात. कोण जाणा, कोणें कसल्यो चाड्यो बरवन चीट धाडल्या बी म्हूण ताका ?' उलयता अुलयताच ती थामली

'तोपयोकाकाल्या चलयेची कितेंय खबर बी मेळ्ळचा ?' शांतताय सोसूंक नज जावन गोमून आवयक विचाल्लें.

'खबर खंयची ?' मनात नासूनलेगीत आवय उलयली, 'सांगतात मडगंवा एका म्हाल्याच्या घरात आसा खंय !'

तोपयोकाकाली धूव सुमती आनी गोमती एका काळार जिवा-भावाचीं इश्ट आसली. देवतेच्या जात्रेक वर्सा दोगांय बराबर गेल्ली. सगळी रात दोगांय देवतेचीं गाणीं गायत ढोलताशांच्या तालार नाचिल्लीं–रातभर वाऱ्यार धोलिल्लीं !

आता खंय गेले ते दीस ?

धोपरांचेर खाडकी दवरून गोमती बशिल्ली. ताजे मन खंय पाविल्लें कोण जाणा !



आवयन रात्तीर भाजिल्ल्या भाकऱ्यांचो वास खोपूटभर पातळिल्लो. खोपटा भायर शियाचे लाटांचेर सुर्याची किर्णां चकचकूंक लागिल्लीं आनी भायर आंब्याचे रुखार कावळ्यांची काव–काव !

गोमती जागे जालें. आवय पयलीच अुठिल्ली पळवन ताणें

रान्नीकडेन पळयले. आवय रान्नींत भाकऱ्यो फुलयताली.

'पीठ खंयच्यान हाडलें आवय ?'

'अुसणे हाडले. तुवें कालच्यान कांयच खा्वूं ना.'

'व्हडलीशी भूक ना गे.'

सगळ्यो मेळून चार रोटयो भाजिल्ल्यो. तीन व्हड, एक ल्हानशी.

आवयन तांतल्यो तीन गोमतीक दिल्यो आनी एक आपुण चाबूंक लागली. मीठ लायिल्ल्यो चार हरव्यो मिरसांगोय तिणें रोटयांचेर घाल्ल्यो.

'हें कितें ? म्हज्यान जावच्योना इतल्यो खावंक !'

'कालच्यान भुकेल्ले आसा तूं आनी हाताच्या तळटा येद्यो दोन भाकऱ्यो तुका चड जातल्यो ?'

हाजेर आनी गोमती कांयच उलयले ना. रोटयो हातात घेवन मिर्सांगेबराबर खावंक लागले.

'कुन्नूक बराबर कित्याक हाडूं ना ?'

'भरिल्ल्या न्हंयतल्यान कसो हाडटाशिल्लें ताका ? हांव तर तण हाडूंक रानांत गेल्लें थंयच्यान भायल्या भायर आयलां–'

'घरांत कितेंय करून दवल्लां मुगो खावंक ताका ?' आजेक नातवाचो हुस्को.

'खंयचें ? शेतांत पिकिल्ले तें घरा पावसर हाजें ताजें दीवनच सोंपले. आतां तर हागेतागेल्या शेतात काम करून दिस धुकलतां. दीसभर हाडां झरयतगीर दोन रोटयो तोंडांत पडटात. कुन्नूलो बापूय कितेंय हातपाय हालयतालो तर आज हे दीस येवचे नासले. हांव चिंतताले–आमीय भातो घालून कोयत्यो सुरयो करच्यो. हाजेकडच्यान-ताजेकडच्यान कोळसो उधार जाल्यार अुधार हाडून चार हातयारां करून विकिल्लीं जाल्यार तेल-मीठ पुण सुट्टा आशिल्ले. पूण ताजेर कोणजाणा ताणीं कसली करणी केल्या म्हूण ! ते सांगतात तें हो करता. ह्या दिसांनी बटाटांच्या शेतांत राखणक लायला ताका ! पिनक्री कांबळ पांगरून रातभर भिजत राखण करता. केन्नाय सकाळीं

शेतांत मरून पडिल्लो मेळना जाल्यार पुरो. तसो मेलो ना जाल्यार ह
राकेस ताका वीख घालून मारतले. उपाशी पोटार गांजो ओडून हाड
भायर सल्ल्यांत सगळीं !'

उलयता अुलयताच गोमती मोनें जाले. भाकरेचो कुडको लेगीत
गिळप कठीण जालें ताका. हातातली रोटी ताणें वाडग्यांत दवल्ली.

'आवय, दोन–तीन दिसांसावन कुन्नू उपाशींच आसा म्हजो.
चल्याच्या यादीन ताजे दोळे वले जाले.

'आता हांव चड दीस काडपाक ना गोमू !' आवयन कितेंश
चिंतत म्हळें, 'मरतना तरी तुका सुखान चार कुडके खाता ते पळवचे
इतलीच आस लागल्या जिवाक. दोन शेता कुडके उल्ल्यात ते तुक
दिवन वच्चें थरयिल्लें. पुण आता कळटा कि हरी सावकारान तुजे
बापूय जितो आसतनाच ते आपले नांवार करून घेतल्यात. जीणभर
व्याजाक म्हूण आयदना व्हरत रावलो. तुज्या बापायक आपलो गुलाम
करून दवल्लो. जीणभर पयसो खर्चिय नास्तना ताजेकडसून आपली
शेतां रोवन घेतली आनी निमाणे हे अवचिन्नपण केलें. बामण जावनय
असली करणी !' आवय सुस्काल्ली.

भायर आंगणात बोंदरी शेंदरी पातळावन आवय–धूव उलयत
बशिल्लीं, आंग शेकोवंक ! वत नाशिल्लेंच–ल्हवू ल्हवू कुपां मळबांत
हातपांय पसरूंक लागिल्लीं.

तेन्ना जात्रेक घेतिल्ल्या मणयांच्या माळेंतल्या दांतोळच्यान दांत
कोरायत बशिल्ली गोमती. आवयच्यो खबरी आयकताली. दांत कोरात-
पाचें काम थामोवन तिणें आवयची तकली म्हऱ्यांत ओडली. तिज्या
धव्या केसात ती काळचो अुवो सोदूंक लागली. घामान आनी चिकलान
केंस दाट जाल्ले. केन्नां तांकां तेल आनी उदक लागिल्लें देव जाणा !

'तें शेत मेळिल्लें तरी कितें करता आसलें ?' गोमतीन म्हळें
'इतले पयस येवन शेत रोयतलो कोण ? कुन्नूच्या बापायची तर
तराच वेगळी. शेत रोवपाचे सोडच, खणींतले फातर काडिल्ले जाल्यार
लेगीत पड सुट्टा आसली. पुण ताची वागणुकच संवसाराभायली. ओग्गी
बसून रावता–फातराबशेन ! ...म्हजें मनच लागना त्या गांवांत

आवय. एक दीस सगळें सोडून वच्चें दिसता तोंड घेवन खंयतरी !'

'थुमेकाल, अशें उलवचें न्हय. कितले खेपो म्हण तोंड करून दितलें लोकांक अुलवंक ! कर्मांत जें आसा ते भोगूंक जाय. आतां तुका रावपाक वो मराक ते एकच घर !'

आवयच्यो उयो सोदताले ते थंयच उरिल्लें. मळबाक पळयत गोमती कितें चिंतताले कोण जाणा ! आवय अुलयत आशिल्ली 'हे फावटी वच तूं घरा. परत माल्लें-बिल्लें जाल्यार वचनाका तूं. हांवय चड घेवन बसपाक ना...! लोकांचेंय मात्शें पळवंक जाय. सगळो दोश तुज्या बापायच्या माथ्यार थापतले ! ताज्याय आत्म्याक त्रास सरगार...!'

'आमीच हांगा नरकांत कितलेंशें सुख भोगतात आवय !' गोमती म्हणूंक सोदताली पुण ओंठांभायर सल्लीं नात तीं उतरां !

गोमतीचीं लक्षणां बरीं दिसनात ! ही खबर दनपार मेरेन गांवभर जाली. पळून आयल्या. बरी जाल्ली जाल्यार कित्याक सोडटली आसली घोवाचें घर ! तागेली लक्षणांय वेगळी ! म्हण्णूच तर बापोलमांवांन मार घालो. घोवाक आपलीच सुद्द ना. हाजेर ताजो ताबो ना म्हूण ही मेळटा तशी भोंवता !

चडशा लोकांनी एकाचे णव केले. तिजी काकूट करपीय कांय आसले.

'जल्माक येतनाच खोटें कर्म घेवन आयल्या बापडी.' कांय बायलांनी म्हळें-' दोन-तीन वर्सांची आस्तनाच बापूय गेलो. बारा-तेरा वर्सांची आसतनाच घोव मेलो. दुसरें लग्न केलें तर हें अशें. केन्नाय गळयाक फांस लावन जीव दीवन मरतली ती-

एकाच दिसात गोमतीचे पुराण सगळयांचें तोंडांत पाविल्लें. म्हातारी आवय हें सगळें आयकून भियेवन गेली. 'ऊठ गोमू पावोवन येतां तुका. फुडे तुज्या नशिबान कितें बरें-वायट आसा तें...'

कुन्नूक खावंक जातल्यो म्हूण अुरिल्ल्यो भाकऱ्यो, आनी अुरिल्लें पीठ गांठीक बांदून गोमती दुसऱ्याच दिसा आवयबराबर भायर सल्ली.

वाट चलतना मनांत विचार घोळटाले. घर म्हणपासारखें कितेंय

आसल्यार म्हाताऱ्यां आवयकय आपोवन हाडयेता आसलें. निदान मरतना तरी म्हऱ्यांत आसता आसली. तिजे म्हातारपणांतले दीसय सुखांत वतले आशिल्ले. पुण थंय तर आमकांच रावंक जागो ना.... जो मेरेन आवय आसा तो मेरेन कुळारचें दार तरी उक्तें आसा... तो तरी आदार आसा. ती दोळे धांपतली ते दीसाच्यान तो रस्तोय बंद !

गोमतीचें बाविल्लें तोंड पळवन आवयचें मन सामकेच उदास जालें. चलतां चलतांच ती गोमूक उपदेश करताली. चार धीराची उतरां सांगताली– ' रामग्याक घाडयाक दाखय. कितेंय आंगवण बी आसल्यार कर. तो बरो जालो जाल्यार तुजे दीस परतत, कोण सांगतलो ? हांवय आता समजावन सांगन ताका. तुज्या बापोल मावांक–मांयक चार उतरां सांगतां. दुसऱ्याच्या भुरग्याचेर हात उबारप म्हळ्यार कितें ! कोड फुट्टलें आंगार कोड ! आमी गरीब जाली जाल्यार कितें जालें ? आमची भुरग्यां कितें फातराचीं–मातयेचीं ?'

अशें एक न्हय दोन, वाटभर ती कितें ना कितें उलयत आसली.



सांजवेळचो सूर्य करमलघाटाच्या पलतडेन वचून बुडपाचे तयारेक लागिल्लो. दोंगराचे आलतडेन ल्हव ल्हवु काळोख जावंक लागिल्लो. सामकारचे दोंगर हळडुवे दिसूंक लागिल्ले– बुडट्या सुर्याच्या भांगरा–किर्णांक लागून. निलगिरीच्या रानांत शियाचो काळोख पातळूंक लागिल्लो. न्हंय पार करून गोमती गांवांत भितर सर जाल्यार थंय आखांतच जाल्लो.

हजार जिबांच्यो हजार गजाली !

बाबुटोकाकाच्या माथ्यार तर भूतच बशिल्लें म्हळ्यार जाता. तोंडात फकत पजड्यो गाळी ! ' असले हे मनीस जल्माक येतात तरी कित्याक ?'

' हांव सांगतालेंच तुमकां– हो नावाडगो एकदीस काळें लायतलोच म्हूण आमच्या तोंडाक. ह्या चोराक लागून सगळो गांव वायट जालो आज.' ताजी कोळशापरसय काळी बायल आपले मुसळापरसय

मोटे हात नाचयत चणचणताली, 'इन्स्पेक्टरय चड शाणो. पयलीं म्हज्या वासग्याक धरून व्हरूंक लागलो. सरपंच मदीं पडलो नाशिल्लो जाल्यार ताका व्हरून कादयेंत उडयताय आसलो तो...!'

गोमती घराच्या आंगणामेरेन पावता थंय आसा इतल्यान खंय तरी लिपून बशिल्लो कुन्नू ।जिसरीं धांवत आयलो. माकडाचे पोर आवयक वेंग मारता तशें तिज्या पांयाक घट्ट धरून तो सांगूक लागलो– 'सगळयांनी म्हज्या बाप्पाक माल्लो. ताज्या हाताक लोखणाच्यो बेड्यो घालून व्हेलो...!'

'कित्याक व्हेलो बाप्पाक धरून ? कित्याक ?' गोमतीचें तोंड अुकतेंच अुल्लें.

पुण तो तरी कितें सांगतलो हाजेपरस चड ? तो जाणा आसलो तें इतलेच ! ताणें पळयिल्लें तें इतलेंच !

गोमती पिरमाक विचारूंक करतालें कितें जालें तें इतल्यान ताजो बापूय जिवाप्पा रागान तामडो जावन थंय पावलो.

'सत्यानाश जातलो ह्या बाबुट्याचो... चोरलें कोणें आनी भोगता कोण ? आपले पुताचे बदलाक ह्या हलकटान त्या पिशाक कादयेंत धाडला !' तिडकीन नाचतालो तो सामको !

रामग्याच्या आंगणांत आतां ही गर्दी जमिल्ली ! एक एक करून आंगण सामकें भरून गेल्लें. दादले, बायलो, भुरगीं, म्हातारी सगळीं ! इतल्यान वासगो आपले घरांतल्यान धांवत भायर सल्लो आनीं गर्देत-ल्यान येवन ताणें जिवाप्पाली हांयसा सारकी बारकेली मान हातान घट्ट धल्ली. ताका ओडीत पयस व्हरून तो तापूंक लागलो– 'तुवें पळ-यिल्लो म्हाका चोरतना ? उलय आतां मेर्दा, आमी कोणाक धाडला कादयेंत ? रामग्यान चोल्लें जाल्यार ख्यास्त आमी भोगपाची ? गांवच्या लोकांक आनी दायज्यांक उलवंक शिकयता ?'

जिवाप्पा कुडीन बारीक–तणा काडयेबशेन दुर्बल कुडीचो. वास-ग्याचे शक्ती मुखार ताजे कांयच चलना जालें. ताजे बराबर तो ओडत वचूंक लागलो. बोवाळ आयकून इतल्यान बाबुटोय आयलो. हातांत आशिल्ली बडी तो जिवाप्पाच्या तकलेर मारूंक लागलो.

‘ सुण्या कास्ताचो खंयचो–फाटली दुस्मानकाय सादूंक लागला आज. न्याय करपाचो सरकारान कांय तुवें चोरान करपाचो रे !’

बापुय–पूत दोगांनीय माल्लो तरी जिवाप्पा तोंड धापूक तयार नासलो. वासग्यान ओडून व्हेल्लो तेन्ना सुटूंक पाविल्ली वेंतभर काश्टी सारखी करीत उलवंक लागलो, ‘ हांव पळयतां, त्या गरीबाक केदोळ-मेरेन तुमी नाचयतात तें ! केप्यां आनी मडगांवां वचून गवाय दितलों हांव ! सगळें सांगना जाल्यार बापायचें नांवच सांगचोंना !’

‘ अरे, वच, व्हडलो आयला केप्यां वचून गवाय दिवपी ! चोरान पोरूं रानांत चरवाक गेल्ली गंगारामाली शेंपडी तुटकी गाय चोरून बाजाराक व्हरून विकिल्ली... असलो हो चोर आनी गवाय दिता खंय...!’

जिवाप्पान मळबाक हात जोडून म्हळें, ‘ भुरग्यांबाळांचो सपूत घेवन सांगतां हांवें गाय चोरूं ना...! तुज्या बायलेन मात तुजे नाकच कापिल्लें. त्या च्याकाराकडेन... सगळो गांव जाणा ही खबर...’

आपल्या बायलेचें कर्म काडून केल्ल्या अपमानान वासग्याची तिडक मस्तकाक गेली. दुकराभशेन मुसंड मारून तो जिवाप्पाचेर धांवन गेलो. लोक मदीं पडून ताणीं ताका आडायलो म्हूण बरें.

‘ जिवाप्पा, तूंय इतलो शाणो जावन हें कितें करता ?’ कोणें तरी ताजो हात धरून ताका घरांत व्हरून कुडीची खिळी घाली.

लोक आतां पातळूंक लागले. बेगबेगीन वचून घरादारांनी लिपूंक लागले. भिरांत आशिल्ली इन्स्पेक्टर एकादेक परतो येवपाची !

गांवांत आज खंयच भातो चलनाशिल्लो. लोखणाचीं केणां उस-ळनाशिल्लीं आनी हूनहून लोखणाचेर जड घणाचोय आवाज ये नासलो. सगळो वाठार सामको थण्ड पडिल्लो. फातरफोडे आनी कामारांचो सगळो वाडो आज मसनोटी भशेन थंड पडिल्लो. दिव्याची जोत लेगीत दिसनाशिल्ली.

आवयक चलून खूबच पुरो जाल्लें. आंगणांत कोणशाक तक्लेर हात घेवन तेंकिल्ली बापडी. गोमतीचे तर हातपांय तुटिल्लेवरीच जाल्ले. आपुण खंय बसलां–धुल्लांत काय चिखलांत हाजीय सुद्द नासली

तिका. तिज्या काख्यांत चेपून कुन्नू ल्हवूल्हवू रडटालो.... हुडक्या हुडक्यांनी--

काळोख आनीकय दाट जालो आनी किडेय रडूंक लागले तेन्ना गोमतीन आवयक घरांत भितर व्हेली. एक पिनको साक पातळावन तिका न्हिदायली.

फुटक्या मडक्यांत तांदळाचो एकय गोटो नाशिल्लो. कुळदांच्या काळचा पिठाची एक पोटली बांदून दवरिल्ली गोमतीन ती जंयच्या थंय आसली. रामग्यान एक फावटीय रान्नीक उजो केल्लो नाशिल्लो तर !

उजो करून भाकऱ्यो भाजच्यो अशी तिका इत्साच जाली ना. तितली शक्तच उल्ली नासली आज तिज्या आंगांन.

तण पातळावन तीय ताजेर पडली. कुन्नू काळखांतच तिका दसलो. ताजें रडप थामिल्लें तरी मदीं मदीं हुडको येवन ताजी कूड हालताली.

'कुनू, तुका भूक लागल्या ?'

ताणे तकली हालोवनच ना म्हळें.

'आवो,' काळखांतच ताका कसली तरी याद आयली. 'बाप्पाक ताणीं दांडयांनी पेटलो. आनी शिपायान ताका पयसमेरेन मातयेंतल्यान, फातरांतल्यान ओडीत व्हेलो. ताजे फाटीर बोरे उठिल्ले. सगळयांच्या सामकार कागदार बरोवन घेतले ताजेकडच्यान...!'

'ओगी राव. न्हीद आतां कुनू' गोमतीन दोळे पुसून ताका थापटिलो. 'काल ताणीं खावपाक केलें ना कांयच ?'

'न्हा.'

'आजय ना ?'

'न्हा !'

'तुवें कितें खालें तर ?'

'पिरमाआकान एक भाकरी दिल्ली !'

'इतलेंच, दोन दिस ताजेरच आसा तूं !' काळखांतच गोमतीन ताजें कुकुलें तोंड पोरशिलें तेन्नां ताजे दोळे ताका वलेवले लागले.

'अरे, तूं रडटा कुन्नू ?'



सरकारी जमनीचो वसूल केल्लो दाणोगोटो साकांनी भरून दवरिल्लो, पणजे धाडपाक. साकार साक दाळून दवरिल्ले. तातूंतले बीस पंचवीस साक चोरयेक गेल्ले. गांवांलागी हे साक दाळाक लावन दवरिल्ले म्हण्टगीर सगळयांत पयलो दुबाव गांवच्या लोकांचेर.

रामग्याक पयलींय दोन चार फावटी असल्या प्रकर्णांनी धरून व्हेल्लो. माराचे भंयान जें कितें विचारिल्लें तें तो हय म्हण्टालो. धा चोरयेक गेल्ले जाल्यार तो आपणें वीस व्हेल्यात म्हण्टालो, चार-स म्हयने कादयेंत रावन येतालो.

केन्नाय गांवांत वो लागीसाराक खंयय चोरी जाताली, कोणालोय बैल ना जातालो वो गाय, बोकडी चोरयेक वताली. सगळी सोदासोद जावन रामग्याक इन्स्पेक्टरा सामकार अुबो करताले. रानांत चोरयां सोरो तयार करपी तर सदांच ताका आपल्या बराबर सामाळटाले. ताका गांजो पिवंक दिताले, खावंक घालताले. आनी पोलीस आयले जाल्यार ताका फुडें करताले.

ताजेर असो सदांच जुलूम कित्याक जातालो हाजी कोणेंच वासपूस केली ना आनी ताज्या आड कोण झगडलोय ना. पुण हे खेपेक जिवाप्पा चवताळिल्लो पळोवन सगळेच भिवन गेल्ले. हो वेतभर मनीस खुबळ्ळयार कित्याकितेंय करतलो हें ते जाणा आसले. म्हणून बाबुटो दोन तीन बरे मागत्यांक बराबर घेवन सकाळफुडेंच ताज्या दारार येवन उबो जाल्लो. स्वता फाटल्यान रावन ताणे इश्टांक फुडें केल्ले.

' जिवाप्पा, बाबुश्या कडच्यान काल जी चूक जाली ताजें आमकां खूब दूख जाता.' तुक्यान गंभीर जावन म्हळें, ' ताजेखातीर आमी तुजी चूक मागतांव. कोर्टांत तुंवे गवाय दिली जाल्यार तो राकेस इन्स्पेक्टर परतो गावांक त्रास दितलो. रामगो स्वताच जर आपणाक गुन्यावकार म्हण्टा जायत तर तूं मदीं कित्याक पडटा ? कादयेंत वासगो गेलो ना जाल्यार रामगो गेलो कितें जावपाचें आसा ? निमाणें दोगीय भाव भाव, हो गेलो आनी तो गेलो. फरक कसलो तांच्यांत ? रामगो हांगाय कांय काम कांय करीनासलो. बसून आस्ता, हांगा बेकार बसपाचो तो कांय दीस कादयेंत बेकार बसून येतलो. वासगो भायर

आसलो जाल्यार म्हातान्याक कामाक आदाराक तरी उपकरा पडटलो. पुण रामगो कित्याकच शिरी पडपाचो न्हय. हांगा आसल्यार अन्नाक मात काळ. कादयेंत तरी चार दीस पोटभर जेवतलो. वासगो कादयेंत गेलो जाग्यार बाबुट्याकालो. सगळो संसारच उबांतर पडटलो. कित्याक ताजे पोटार मारता ? तुजें कितें वायट केलां त्या म्हातान्यान ?'

' तुमीय जाणात तर चोरयेंत वासग्याचोच हात आसा म्हूण ?' जिवाप्पा तिडकलो.

' अरे, तूंय बी चडच घेवन बसता ! भुरगो आसा तो अजून. वायट संगत लागली जातली...!' बाबुटोका उलयलो आनी जिवाप्पान ताका एकाच उतरान झिडपून अुडयलो. ' तूं ओगी बस थंय बाबुट्या.'

जिवाप्पा ताजे वाटेन धुंवन दोळे तांबडून अुलोंवक लागलो, 'अरे, लज दिसना तुका चोरा ! कपलाक तिळो लायता ! गळयांत मणयाची माळ घालता आनी काळखांत एकल्या दुकल्या बायलांच्या खोपटाचीं दारां उचकिता रातचो !'

जिवाप्पाच्या बारकेल्या दोळयांतल्यान उज्याचीं केणां भायर सरतालीं. सदचेभशेन बोटां नाचयत ताळो सरांटून तो उलयलो, 'तुवेंच रामग्याच्या तकलेर दांडो मारिल्लो, तेन्नाच्यान ताजी अशी दशा जाल्या. दुष्ट तूं ! पातकी ! ब्रह्महत्येचें पातक लागतलें तुका बाबुट्या! कोण जाणा तुवें कितल्या जाणांक अशे माल्ल्यात म्हण !'

जिवाप्पाचे दोळे तकलेक पाविल्ले. ताजे खांदार हात दवरून हरिरामान म्हळें, ' ह्या खेपेक ओगी राव तूं जिवाप्पा ! आतां तोंड उघडशीत तर तुका तुज्या आवयचो सपूत आसा.' ताणें आपली पिनकी टोपी ताज्या पांयार दवल्ली. ' म्हज्या धव्या केसांक इल्लो पुण मान दी. रामग्याक तरी कितले दीस कादयेंत रावचें पडटलें ? चार-आठ दीसच मरे ! ते खातीर तुवें इतलें वायटपण धरप ? बाबुट्याक आमी पळयतात !'

जिवाप्पा हाजेर कितें अुलयतलो ? ताकाय वचूंक जाय आशिल्लें बाजारांत... सुरयो–कोयत्यो ताणे साकांत भरून दवरिल्ल्यो... त्यो विकून संवसाराखातीर तांदूळ गोटो हाडूंक जाय आसलो... तो एकलो

तरी खंय खंय पावतलो...? ताकाय संवसार आसा...! आनी हर-रामान घाल्लो सपूत...!

माथ्यावेल्या पिकिल्ल्या केसांत हात भोंवडायत ताणें सगळें गिळून उडयलें !



रातभर पावस पडत आडिल्लो. गडगड आनी चकचक...! खोप-टांत सगळ्याक उदकच उदक जाल्लें. तीगांनीय सुक्या जमनीखातीर रातचे कितलेशेच फावटी खोपटाचे कोणशे बदलिल्ले. .

सकाळफुडें पावस मात्सो उतल्लो सो. गोमतीन आयदनांत भरून भरून उदक भायर उडयलें.

न्हीद आनी भूक हाणीं कासावीस जाल्लो कुन्नू . हातपाय लेगीत हालोवपाची ताकत नासली बाबड्याच्या कुडींत. म्हातारीय परती आपले घरा वचपाचो विचार करी नासली. ' गोमू, तुका हे दशेंत सोडून हांव कशी वचू घरा ? रामग्याक तर व्हेलोच. आतां तुकाय धरून व्हेल्यार हांव कितें करूं ?' विचित्रशा दुबावान आनी हुस्क्यान आवयचें काळीज भरिल्लें.

'ना. ना. आवय, वच तू. हांगा कितें जाता तें हाव निस्तारन, तूं हांगा उल्ली जाल्यार म्हजे त्रास वाडटले. हे देवचार म्हाका मारतले--बडयतले. तें तुज्यान पळवंक जावचें ना. तुका दुख्ख जातले ते खातीर तू वच घरा...'

मातयेची जमीन भिजून निसर जाल्ली. लाकडांय भिजिल्ली. रान्नींत तर उदकाची तळीच जाल्ली.

उजो कसो करपाचो ? आवयच्या पोटांत हूनहूनशें कितेंय तरी घालूंक जाय. गोमती चिंतताली. आवयक उपाशीच कशें धाडप ? रातीय कांयच खालें नासले ताणी कोणेंय... पीठ आशिल्लें घोडें भोव... नाचण्याचें. पुण तें कालवन भाजतले जाल्यार उजो तरी करूंक जाय आसलो रान्नीक... आनी तोच तर मोटो प्रस्न आसलो. नाचण्याच्या पिठाची भाकरी भाजली तरी ती घट्ट भाकरी दांत नाशिल्ल्या म्हाता-रेच्यान चाबूंक जावपाक नाका ? कितें तरी चिंतून गोमतीन कोणशाक

दवरिल्ले कारांदे एका भोगुण्यांत घाले आनी ते घेवन ती जिवाप्पागेर गेली.

रात्रीर दवरिल्ल्या भोगुण्यांतल्या अुदकाक फुलां येवंक लागली. आनी इतल्यांत कुन्नू धांवत धांवत थंय पावलो.

'आवय, कोण आयला, रोकडी यो घराकडेन.'

शिजताले तें थंयच सोडून गोमती घराकडेन धांवली.

'तुका इन्स्पेक्टर सायबान आताचे आतां आपयलां...' आयिल्ले तांच्यातल्या एकल्यान सांगून उडयले.

'कित्याक आपयला... ?'

'चोरयेचे गजालीविशीं कितें विचारपाचे आसतलें.' सायबाच्या हाताखालच्या होयबान आवाज मात्सो चडवन सांगले.

'कितें विचारपाचें... ?' गोमती विचारूंक लागिल्ली इतल्यान मदींच म्हातारेन म्हळें—

'ते तुवें थंयच वचून पळयल्यार बरें न्हय ? न्यावाच्यो गजाली त्यो... आमकां कशो कळटल्यो ?

'खंय आपयलां ?' गोमतीन कितें तरी चिंतून विचाल्लें.

'आपणाल्या घराकडेन...

'रामग्याकय थंयच दवल्ला ?' म्हातारेन विचाल्लें,

'हय. ताणे तर कबलातय दिली...'

'कसली ?'

'चोरयेच्या गजालींत आपणालो हात आसा म्हूण...'

'तर आतां आनी आमकां आगोत्रन कितें करपाचें आसा ?' गोमतीन निर्शेल्ल्या सुरांत विचाल्लें.

'तूं खरें तें सांगशीत जाल्यार ताका सोडूनय दिवंये एकादेक...'

'सोडून कितें जावपाचें आसा ? मनान येना तेन्ना परते धरून व्हरतले. म्हाका खबर आसा ताका तुमीं कित्याक धरून व्हरता तें... आनी म्हाका कित्याक आपयता तेंय... ?'

इतल्यान म्हातारो हरराम आपली पिनकी तोपी सारखी करीत आयलो 'सायब सांगता तें खरें आसा. तूं पळय तरी वचून कित्याक आपयता तो... सरकारांत न्याव मेळटलो...'

'हूँ !' तोंड वाकडें करून गोमतीन म्हळें, 'संवसारांत न्याव आशिल्लो जाल्यार आज आमची अशी ही दुर्गत जाता आसली ? आमचे खातीर कांयच ना हांगा... हांव आतां दुर्गादेवते म्हऱ्यांत वतां... तिकाच चार अक्षता घालून पळयतां... तिज्याच पायांर पडून मागतां... जो अन्याव करता ताजो सत्यानाश जावूं... सासनाचो सत्यानाश ..'

शिपाय कांय वेळ रावले आनी गेले. आवयन गोमतीक समजायलें, 'तूं एक ओगीच हट्ट धरून बसता. वचून आयल्यार कोण खाता तुका ? आतां तूं घरांत आशिल्लें तेन्ना शेंवतू सांगताले पोलीसांनी रामग्याक इतलो माल्लो कि तो रगतच ओंकलो म्हण. ताजो जीव आसा कांय कितें कोण जाणा...'

'आवय, तूं वच घरा. आमचे नशिबांत आसा तें कोणाच्यान काडूं जावचेंना. अशे तरेन मरपाचेंच आमच्या नशिबांत आसा जल्यार तशें तरी जावं दी.' गोमतीन रडकुऱ्या सुरांत म्हळें. 'तूं ओगीच कित्याक हांगा मरता ?'

आनी ती जिवाप्पाच्या घरांत गेली. उकडूंक दवरिल्लें कारांद्यांचें भोगुणे घेवन आयली.

'तुका भूक लागल्या जातली आवय, न्हिवोवन खा.' हून हून भोगुणें तिणे आवयच्या म्हऱ्यांत दवल्लें.

पुण आवयची भूकच मेल्ली. कारांदे हातांत घेवन ती फा—फू करून न्हीव्होंवक लागली. म्हऱ्यांत बशिल्ल्या कुन्नून दोन तीन कुडके खाले. गोमती भिजिल्ले कपडे सुकोवंक लागली. हातुळपाचो साकाचो कुडकोय तिणें सुकत घालो. आनी ती भितर आयली.

'तुवें कांयच खांव ना मगे...' तिणें आवयक म्हळे.

'म्हजी भूकच मेल्या गोमू. रामग्याक कितेंय जालें जाल्यार तूं कितें करतलें गोमू ?' आवयचो गळो भरून आयिल्लेसारखो जालो. कारांद्याचो तोंडांत घालूक व्हेल्लो कुडको हातांतले हातांतच उल्लो.

कांय वेळ दोगांय तशीच बसलीं, मोन्यांनी. थोडचा वेळान गोमतीन म्हळें, 'आतां तूं वच आवय. नाजाल्यार तिनसनमेरेन पावची

ना तूं. हरशींच तुजे पांय जाग्यार नात. तातूंत आनी फातराडी वाट, व्होळांत उदकय चडलां जातलें आतां. बरी करून वच, व्हांवन बी वचशीत ना जाल्यार.'

'म्हाका खंयचे तें भाग्य गोमू !' आवयन स्वास घेतलो.

गांवच्या शीमेमेरेन गोमती आवयक पावन् आयली. तिजें मनच थाऱ्यार नाशिल्लें. एका हातान कपल दामीत ती कितलो तरी वेळ लाकडांच्या वज्याक तेंकून बशिल्ली. काल रातभर घरांत गळटी लागिल्ल्यान न्हीदय लागली नाशिल्ली. आतां तिका मात्शी झेमशी येवंक लागली. झेमेंतय ती चिंतताली, घरार कितेंय तरी अडोवंक जाय आसले, पावसापासून आसरो मेळूंक. तिणें घर शिवक जमयिल्लें सगळें तण बाबुट्याकाच्या बैलांच्या पोटांत गेल्लें...

भिजिल्लो पिनको घागरो तिणे सुकोवंक अडयलो. तिजे गोरे गोरे पांय अुक्ते पडले. खिणभर चिंतून आंगार घेतिल्लो कुडको काडून तिणें पायांर उडयलो. पाशाणी फातरासारख्या धव्या आनी मोव मोव मांडयांर थंड वाऱ्यान कांटो उबो रावलो. खरबरीत हातांनी पोशेवन पोशेवन ती मांडयांक ऊब हाडूंक लागली हे थंडेचे दिसांनी कूड धापूंक कांयच कपडे उल्ले नाशिल्ले. घागरो पिनून पिनून जाळें शें जाल्लो. आंगार घेवपाचेंय पिनिल्लें. पिनिल्लो पिनिल्लो कुडको काडून उडोवन उडोवन तें सामकें ल्हानय जाल्लें. आंगांतलो ब्लावजय बोतरो जाल्लो.

त्या दिसा शिन्याच्या शेताक लुवण घाल्ली. शिन्नो परत परत तिच्या म्हऱ्यांत येवन गजाली काडून तिजेकडेन उलोवपाचो यत्न करतालो... आनी ताजी नदर... गोमतीचें आंग आंग पोरशिताली... आंगावेले कपडे परत परत सारके करपाचे यत्न गोमती करतालें. पुण ह्वेवटेन तेवटेन ओडून कपडे सारखे जावचे बदला अदिकच विस्कळ जावंक लागले तेन्ना हातांतलो व्हिळो थंयच दवरून ती उदक पिवपाचे निमतान पेल्यान गेली आनी परती आयली ती शिन्याच्या बायलेक बराबर घेवन...

चिंतत ती बशिल्ली. इतल्यान हातांत पांचवें तण घेवन बाबुटो-

काका शेतांतल्यान आयलो. गोमतीचेर नदर पडटगीर कांय वेळ तो थंयच उबो रावलो... दोळ्यांनी पायांसावन तकलेमेरेन तिका गिळत...

आपले आंग कशें लिपोवचें हेच गोमतीक येवजना जालें.

' रामगो अजून सुटून आयलो ना न्हय ?'

'ना' म्हण सांगतानाच गोमतीन पांय वयर काडिनास्तना दावे-वटेन घुणायले आनी दोनीय हात छातयेर आडवे धरून छाती लिपयली.

स्वास बंद करून आनी दोळे धांपून ती तशीच रावली. तो थंयसून गेलो हें आवाजावेल्यान कळ्ळें तेन्नाच ती उठली आनी घरांत गेली.

आज ह्रो वनमनीस कितें ना कितें लचांड करतलोच. आवयक दवरून वेतिल्ली जाल्यार बरें जातलें आशिल्लें, तिज्या मनांत आयलें.



बायूलान तिका आज आपले शेतांत कामाक आपयिल्ली. सांजच्यो नाचण्याच्यो दोन रोटचो मेळटल्यो, हें चिंतून ती गेली. पुण कामांत तिजें मन लागलें ना. तरतरांचे विचार तिज्या मनांत येताले. सबंद गावांत जिवाप्पाच एक असो मनीस आसलो कि जाचो तिका मात्सो आदारसो दिसतालो. पुण आताच बायुलान तिका म्हळ्ळें कि तोय आज आयदनां विकूंक गावाभायर गेला.

काम करता करतांच तिजे हात थामले. कितें तरी तिज्या मनांत आयलें. आनी ती उबी रावली.

' बायुलाका उरिल्लें काम फाल्या करता. आज जिवाक मात्शें बरें दिसना. घुंवळ आयिल्ल्याभशेन जाता.'

' पोटा भुकेन बी न्हय मुगे ?', बायुलान विचाल्लें.

' ना ना, हरशीच जातलें,' अशें म्हणून व्हिळो तिणें कमराक खोयलो आनी ती घरा वचूंक लागली.

कालच्यान पोटांत कांयच नाशिल्लें. चडटी चडताना पांय थरथरताले.

घराकडेन पावतनाच तिची नदर कुन्नूचेर पडली. तिजो पिनको घागरो पातळ वन तो न्हिदिल्लो, वतांत.

' जोर बी आयलो ना मूं ?' थोडयाशा चलपानच तिका धांपशी

लागिल्ली.

कुन्नू तसोच न्हिदिल्लो. टुकूटुकू करून आवयक पळयत.

म्हऱ्यांत वचून गोमतीन ताजे कपलार हात दवल्लो. खऱ्यांनीच ताका जोर आयिल्लो.

घरांत वचून गोमती सोदूंक लागली. पुण ती सोदताली तें तिका मेळूं ना. ती बेजारशी जावन भायर आयली. 'कुनुवां, आमचो तो लोखणाचो तामयो खंय आसा ?'

कुन्नू अुठून घरांत गेलो आनी मोडक्या काशी पोंदच्यान ताणे तामयो काडलो. तो बियांनी भरिल्लो, खेळपाच्या.

'कितें करता ताजें ?'

'गोमतीन जाप दिवूं ना. आंगावेले कपडे तिणें सारखे केले.

'तू चलशीत कुनू ?' गोमतीन अपुर्बायेन विचाल्लें.

'खंय ?'

'पोखरील्या मांडार ?'

'थंय कित्याक ?'

'हरशींच–'

'चिरमुल्यांचो लाडू दितली ?' कुन्नून विचाल्लें तेन्ना गोमतीन खिणभर ताका पळेलो. 'चिरमुल्यांचे लाडू तुज्या नशिबांत आशिल्ले जाल्यार म्हज्या दळदिरेच्या घरांत कित्याक जल्मतलो आशिल्लो तू ?'

ताज्या हाताक धरून ती चलूंक लागली. सांज जायत आयिल्ली. परतता म्हणसर रात जातली. एकलीच वचप तिका बरें दिसलें ना. कोणाचो भरवंसो कोण दीत ?

'पसरकार,' एक चीट बरवन दी म्हज्या देराक, देवराय पयस आसा. 'खाकेंत धरिल्लो तामयो तिणें ताज्या फुडयांत दवल्लो. 'हो वीक. एक चिटये पुरते येतलेच पयशे.'

म्हातारो पसरकार कृष्णा जाणा आशिल्लोच तिची स्थिती. काल रामग्याक व्हरताना ताणेंय पळयिल्लो. ताज्याच दुकानार बसून इन्स्पेक्टरासयत सगळे च्या पिल्ले. तंबाकू खाल्लो. रामगो बापडो शियान कुडकुडटालो.

' कितें बरंवंक जाय ?' ताणे मायेन विचाल्लें.

' हेंच... घरची खुशालकाय...'

बरवपाक कागद घेवन ताणें विचाल्लें, ' ताजो पत्तो बित्तो आसा बरयिल्लो ?'

कमराक खोयिल्लीं कांय पोरणीं हळडुवीं जाल्लीं कागदां काडून गोमतीन ताजे मुखार दवर्लीं.

पसरकार चड शिकिल्लो–वाचिल्लो मनीस न्हय. पुण कामापुरतें बरवंक वाचूंक जाणा आसलो. तीस पस्तीस वर्सां पयलीं दोन बुकांच्या परिक्षा दिल्ल्यो ताणें चावडेवेल्या शाळेंत.

लांब सो कागद घेवन तो बरंवक लागलो. श्री. आनी तारीख घालून ताणे तकली वयर काडली.

' हं, सांग कितें बरंव ?'

' हीच घरची खबर—— !

' घरची खबर' बरवन जातकीर ओंक्लाच्या वेल्या हारशांत-ल्यान पळयत ताणें विचाल्लें, 'आनीक ?'

' सगळे बरय.' गोमतीन सांगलें. तुवें माघ–फाल्गुनसाकून चीट बी कांयच धाडूं ना. चार म्हयन्यांपयलीं बामणाकडच्यान एक चीट बरवन धाडिल्ली. ती मेळ्ळी कांय ना हेंय कळ्ळें ना... काल तुज्या भावाक ह्या लोकांनी परतो धरून बंदखणीत घालूंक व्हेला. तुज्या काकाचेंच हें कर्तुब अशें दिसता. काल जिवाप्पान ताका चार अुतरां सांगलीं तेन्ना बापुय–पुतान ताकाय खूब माल्लो. तुजो काका आमकांय मारता. धपकायता. तू थंयच्यान सरकाराक सांगून हांगच्या इन्स्पेक्टराक बरय–तुजो भाव सामको भावार्तो... ताणें चोरी केली ना... गुन्याव-काराक सोडून हे लोक ताका मार घालूंक लागल्यात. एक दिस आमकां ते मारूनच उडयतले. तू एक वेळ येवन आमकां पळवन वच... !'

गोमतीचो गळो भरुन आयलो. हाज्यापरस चड तिका सांगूक जमलें ना.

पसरकार मोन्यानी बरवन घेतालो. निमाणें जिबेर धरून नितवान चिटयेचे पाकीट बंद करीत ताणें म्हळें, ' घे, त्या तामडया दब्यांत अुडोवन यो ही चीट.'

सामकारच्या झाडाक लांबताल्या त्या पोस्टाच्या दब्यांत चीट अुडोवन गोमती परती आयली.

लापयांवांच्या फुटिल्ल्या, काळचा पडिल्ल्या हारशांतल्यान काळसार अुजवाड फांकिल्लो. म्हाताऱ्या पसरकाराक पैसुल्ले दिसनाशिल्लें. पैस पळयत ताणें म्हळें, 'कामान्नी हो कोण ?'

' तुमच्या कामाराचो चेडो तो !'

आपणाल्या लिकलिक्या दोळयांनी तो पळत्रंक लागलो, ' अरे, नांव कितें रे तुजें ?'

कुन्नू लजेलो. पिनक्या खोमशेत तोंड लिपयत लजेन तो आशिल्ले ताजेपरस ल्हान दिसूंक लागलो.

'सांग, पसरकार तुजे नांव विचारता.'

लजेत लजेत जबाब आयलो, 'कुनु !'

'नांव तर सामकें मस्त मरे. बरें आतां सांग तूं कितें खातलो ?'

कुनून भुकेल्ल्या नदरेन हेवटेन तेवटेन पळेलें. आनी धीटायेन म्हळें. 'कांय नाका...'

साकांतल्यान भिकणां काडून ताजे सामकार धरीत कृष्ण पसरकारान म्हळें, 'घे, खा तूं ! तूं बेठोच लजेता. आमच्या वांटयाचो कामार आतां तूंच. बाबुटो आतां मनशाच्या वांटयाक येवपाचो ना.'

मात्सो थामून थोडया वेळान ताणें जशी कितें याद जाल्लेवरी परतें विचाल्लें, 'सांग पळोवंया आतां, बाबुटोका तुकाय मारता रे ?'

भुरग्यान 'हं' म्हणत तकली हालयली आनी माकडाभशेन उकण्णी बसून तो भिकणां खावंक लागलो, सोलांसयत.

'अरे, तुका जोर आयला मरे ! आनी तूं भिकणां खाता ? खांक येतली.' आवयन म्हळें तरी कुन्नून तिका जाप दिवं ना.



गोमती काळखांतच घरांत भितर सल्ली तेन्ना कोणशाक एक पोटलीशी पळोवन भिली. 'आं, हें कितें !' कच्च करून आंग काडीत तिणें म्हळें.

'हांव तें.......गोमू !' पोटलेंतल्यान बारीकसो आवाज आयलो.

'आवय तूं ! तूं तर गेल्ली न्हय गे ?'

थंयसूनच परवंत उठून बसली आवय. 'तुडवा मेरेन गेले. फुडें पावल उकलना जालें. थंयचे लोकय म्हणूंक लागले. कसली माया नाशिल्ली तू ! दुखांत आशिल्ल्या धुवेक एकली सोडून घरा वता ! थंय तरी कितें पोटली आसा तुजी दवल्लेली. मरचे वेळार तोंडांत अुदक लेगीत घालूंक कोण ना थंय !'

गोमती थंयच बसली.

'गवळगांवचो खिरानंद सांगतालो कि रामग्याची स्थिती सामकी इबाडल्या. अजून ताका मडगंवच्या बनखणींत धाडूं ना. पोलीसेच्याच बनखणीत दवल्ला. तो आपले दोळयांनीं पळवन आयला,' आवयन आयले पांय चोळीत सांगलें.

'तूं एक पावट वचून येता आसलें तर एकादेक तो सुटतय आशिल्लो. तूं वचून कित्याक सांगना सायबाक ? ताणेंय आपोवंक धाडिल्लें तुका. सामकें सांग तूं आमी चोरी केली ना म्हुण !'

रातभर तरतरेचे विचार मनांत येताले. दुसरे दीसय कामांत मनच लागलें ना. भोवन भोंवन घोवालें भावार्ती तोंड दोळयांसामकार येतालें.

सांजेचे जिवाप्पाच्या चलयाक आपोवन तिणें म्हळें, 'बाबू म्हाका पुलीसस्टेशना मेरेन सोडून येवशीत ? आयकल्लें म्हाका आपयलां म्हूण वासपूस करूंक चोरयेसंबंदान !'

'बरे भशेन, आतांच वचूंया. रामग्यादादाची स्थिती बरीच इबाडल्या खंय.' राजारामान म्हळे.

'आवय, हांव वचून येतां. रातमेरेन येतलें परतें. कुन्नूक जेवोवन न्हीदाय. कालच्यान ताका जोर आसा......' इतलें म्हणून गोमती ताज्या बराबर वचूंक भायर सल्ली.

म्हातारे आवयन कांय तांदूळ घालून पेज केली पुण कुन्नून गोटो लेगीत घेतलो ना. एक वाडगोभर निवोळ पीवन पेज तिणें गोमतीखातीर धांपून दवल्ली. कुन्नूय सकाळी उठ्गीर कितेंय खावंक सोदतलो.

मोडक्या दारांतल्यान दिसपी मळबाच्या कुडक्यार उदेल्ल्या

नकेत्रांकडेन ती टुकूटुकू पळोवंक लागली. गोमती येन्ना पावली जातली. परती यो म्हणसर कितलो वेळ लागतलो कोण जाणा. तो मेरेन कातयोय उदेत !

दाराक भितल्ल्यान कोयणो घालून ती न्हीदली. कांय वेळान कोणे दार खडखडायलें. काळखांत हातांनी जमीन पोरशीत तिणें दार उगडलें तर राजाराम,

‘गोमू आयलें ना ?–’

‘इनिसपेक्टरान सांगलां वासपूस–सोद करता म्हणसर खूब रात जातली. तूं वच ! तिका मागीर धाडटां.’

आवयन आनीक कांयच विचारूं ना. दार धांपलें आनी झेला-भशेन थंड जाल्ल्या हांतुणार पडली.

दीसभर चलून पुरो जाल्लें तिका. पांय दुखताले. पुण न्हीद मात ये नासली. तरेतरेचे विचार फोडां काडून तिज्या सामकार नाचताले... चाबूंक पळेताले.

–ही दळभद्री अशें हें रुप घे नास्तना जल्मताली जाल्यार अशे हे त्रास काडचे पडनासले. तिणें एक हुस्कार सोडलो.

तिका याद जाली तिजेर आयिल्ल्या प्रसंगाची. तेन्ना ती सतरा-–अठरा वर्सांची आशिल्ली.

लग्न जावन आठ णव वर्सां जावन गेल्लीं पुण अजून तिजी कूस उजवली नाशिल्ली. काळसांवळचा रंगाची आसली तरी रूपान काळे-पणाचेर जैत मेळयिल्लें. खेरीज जुवानपण ! नदर पडटा तो तिका पळेतच उरतालो. कामार–बोगांरागेर असलें रूप मेळूंक कठीणच. एक दीस ती दिवजांच्या जात्रेकसाकून परतली तीच आकांतांत सांपडली. तिची नणंद गोळ बेवन जीव दिवन मेल्ली.

घोवा घरा तिका खूबच त्रास दिताले. आनी हांगा कुळारचे लोक आपणागेर तिगूंक दी नासले. घोवाचो आदारय तुटिल्लो बापडेचो ! पोटांत कोणाचे तरी भुरगें वाडूंक लागिल्लें. लोकांच्या लजेंतल्यान मुक्त जावपाखातीर तिणें ही वाट आपणायिल्ली.

जालें, तिणें जीव दिलो आनी कुळारचे लोकांखातीर एक संकश्ट

निर्मून दवल्लें. दोतोर–पोलीस आपली फौज घेवन गांवात पावलें. कितलेशे दीस चौकशी चलूंक लागली. चौकशीबराबर मार–फारय आशिल्लो.

सुपचेफ म्हण्टालो, कुळारचे लोकांनीच चलयेक गोळ दिला जावंक जाय. संवसारांत दुख जायत्या जाणांचे वाट्याक आयलां. पुण ते खंय जीव दितात ? हें काम हांचेंच आसूंक जाय. हाणींच चलयेचो जीव घेतला.

तिच्या मांवांक, देराक, घोवाक सगळ्यांक बांदून दवरिल्ले. सुपचेफीक सोऱ्याची आनी शागोतेची आवड. ताजेखातीर गावांत सदांच बोकडे कापताले. पार्टेची वेवस्था जाताली. लग्नाचे माटवांतलेसारखो जाताली खर्च गांवचे खुस्तार !

चौकशेंतल्यान कांयच भायर सरना जालें तेन्ना चेपीन सुप-चेफीक तापोवन सांगलें, 'दादल्यांकच न्हय तर घरांतल्या बायलांकडेनय चौकशी कर, कोण कोण आसात घरांत ? सगळ्यांक ओडून हाड !'

मांय, जाव सगल्यांक हाडली ओडीत.

तांचेकडेन चौकशी करून जातगीर निमाणें तिजी पाळी आयली.

'हां, हिजोच हात आसूंक जाय हातूंत !' जमनीर पांय आपटीत चेफ आडुलो आनी एका बंद कुडींत रातचो खूब वेळ मेरेन तिजेकडेन चवकशी करीत राबलो, सगल्यांक भायर धांवडावन !

जेवन बीवन जातगीर परती चवकशी चालू जाली.

'तुवें तिज्या बापडेल्या गळ्याक दोरी बांदून तिका हुमकाळायली तेन्ना तिणें तुजेकडेन बरीच मस्ती केली जातली. तुजेर हात–पांय हाणले जातले तिणें. जीव वाटावपाक मनीस कितेंय करीत ! तिणें तुका घांस माल्ले जातले, नाखटांनीं तुका बुडुलीय जातली.'

' म्हाका कित्याक बुडुतली ? हांवें तिजे कितें केला ? म्हजे कडेन तिजें कांयच वांकडेपण नासलें...' ती सांगता थंय आसा चेफ दांत किडुीत रागान उसळ्ळो, ' तुजेकडेन नाशिल्लें जाल्यार कितें म्हजेकडेन वांकडेपण आसलें तिजें ? सुण्याअकलेची, तुजी मांय तर

सांगताली तूं तिजेकडेन उलयलेगीत नासली म्हण !'

' ते आमचें नवे लुगटाखातीर जाल्लें झगडें...?

' मागीर कितें तुमचे झगडे हत्ती घोड्या खातीर जातलें ?' रागान हात नाचयत तो तापूंक लागलो. आतां तूं ना म्हण्टलीच. हराम खयची, कशी गायशी सुदी जावंक पळेता पळय आतां ! गांवकारांनी तुज्यो सगळ्यो खबरो सांगल्यात म्हाका. तुंवें आंगार घेतलो ना असो एकय मनीस गांवांत मेळचो ना ! म्हातारे लेगीत सुटले नात तुजे नदरेंतल्यान.' उलयतां उलयतांच तो धापेंवंक लागलो. चेफीचो स्थिती पळवपासारखी जाल्ली. भायर शियाचो कुडकुडो आशिल्लो. पुण ताका थंड उदक पीवन कूड न्हिवोवची पडटाली.

मात्सो थामून तो परतो तापलो. ' बरें सांग आतां. आपलो जीव वाटावपाखातीर झगडटना तिणें तुजे आंगाक खंय खंय भुरके काडले ? खंय ना खंय तरी दातांच्यो, नाकटांच्यो कुरवो आसूंकच जाय ! सारकें सांग. व्हडल्या व्हडल्या खूनमाऱ्यांक लेगीत जाग्यार हाडल्यात हांवें. तांचेमुखार तूं झाडावेलें सवणे सामकें ! तुका अशी पायांपोंदा चिड्डिली जाल्यार तूं नाच जावन वतली !'

कितें उलवचें हेंच तिका येवजना जालें. ती ताजे तोंडाक पळयतच उल्ली. तो कितें उलयता हेंच तिज्या तकलेंत वचूं ना. ' म्हजे नण्डेक हांव कित्याक मारतलें ?' तिणें थामत थामत म्हळें, ' म्हाका कांयच खबर ना !' ती ताका हात जोडीत रडूंक लागली.

तिका दिस्तालें, अशें रडलें जाल्यार आपणाक सोडटलो तो ! पुण तिज्या तोंडार एक थापट–उडवन ताणें म्हळें, ' तिका मारून आतां निरदोश जावंक पळेता–चेडी खंयची ! देंवय कपडे ! दःखय आंगार खंय खंय बुड्डिलां तें ! तिजे सारखीच तुकाय फांसार चडयले बगर रावचों ना हांव !' भिरांतेन ती कडकडूंक लागली. गालच न्हय सगलें आंगच झणझणिल्लें. थापटान दोळ्यांमुखार नखेत्रां चकचकूंक लागिल्लीं.

' काड कपडे !' आंगावेलो पालोव सकल सोडलो...

माक्नाभशेन तिणें बांदिल्ली गांठ सोडली.

‘ हें आंगावेलें काडूंक बापुय येतलो तुजो ?’

तिणे आनीक वेळ लायलो ना.

तो जें जें कितें सांगतालो तें ती मोन्यांनी करताली.

हातांत लापयांव घेवन तो तिजे भोंवतणीं भोंवन तिज्या आंगार जाल्ल्यो नाकटांच्यो, दातांच्यो कुरवो सोदूंक लागलो.

पुण खूब वेळ मेरेन तिजे आंगावेल्यो कुरवो मेळूं नात तेन्ना तिजे आंगार हात भोंवडायत ताणें म्हळें, ‘ गांवचे लोक म्हण्टात तें फट न्हय ! मोठी लांवसट तूं ! तिका माल्ली पुण आपले आंगार एक कुरा लेगीत जावंक दिली ना तुवें...! बरें, हें सांग तिज्या गळ्यांत फांस तुवें कसो घालो ?’

उलवचे बदला तिज्या दाळ्यांत दुकां दिसूंक लागलीं. चेफीनः तिची नागडी कूड दोनीय हातांनी उबारून आपले हांतुणार व्हरून दवल्ली–

‘ पुरो जालें तुका...! न्हीद आतां मात्शी... दुसरो प्रस्न आतां फाल्यां विचारीन.’ ताणें लापयांव पालयलो.

जितलो दीस चेफ गांवांत उल्लो तितलेय दीस सदांच तिका आपोवन व्हरून चौकशी करीत आशिल्लो. निमाणें वचपाच्या दिसा तिका पोरशींत ताणें सांगलें, ‘ तुजी काकूट येवन हांवें हांका सगल्यांक फांशी दिवपापसून वाटायले, नाजाल्यार ह्या पिरायेचेरच तूं रांड जातली आसली !’

हाजे उप्रांतय कितें कितें सोसलें ना जायत तिणें ! चेफ वतगीर सुफचेफीन चवकशेचें काम चालू दवल्लें. चवकशी सोंपली तरी ह्या ना त्या निमतान तो येत आशिल्लो...

शुक्र मळबांत चकचकूंक लागिल्लो. गोमती अजून मेरेन परतली नासली. म्हातारी आवय दाराक नदर लावन-कोण जाणा कितें चिंतताली म्हण !

फांतोड्डेर, रोगी, पिश्याशा घोवाचो हात धरून गोमतीन दारांतल्यान भितर पाऊल घाले तेन्ना तिज्या बाविल्ल्या मुखामळाक आवय

पळयतच उल्ली. सामकी हळडुवी पडिल्ली गोमती तिज्या चलपांतय जीव नासलो.

भितर वचून गोमती कपडे बदलूंक लागली तेन्ना आवयन एकाच नदरेन पळेलें–गोमतीच्या कुडीर ठांय ठांय नाखटांच्यो, दांताच्यो तामड्यो कुरवो दिसताल्यो, तामसार रगतान भरिल्ल्यो.



कांय दिसांभितर रामग्याची बलायकी सुदारिल्लेसारकी जाली. गोमतीचे आंगावेले घावेय भरत आयिल्ले. एक दीस ती सांजेची कोणाच्या शेतार दिसवाडो करून पुरो जावन परतताली इतल्यान जिवाप्पाली चली पिरमा धांवन येताली ती तिका मेळ्ळी. ' तूं हांगा कितें करता ? आमच्या शेताकडेन रामग्याक मार घालतात सगळे मेळून ! हांव बोकड्यांक घेवन घरा येतालें तेन्ना वासगो म्हण्टालो ह्या चोराक मारून हांगाच चिखलांत पुरतां म्हण...! '

हें कानार पडनाफुडें गोमती आनी थंय रावली ना. ती शेतांतल्यान धांवूंक लागली. फाटोफाट कुन्नूय बी. काळोख जायत आयिल्लो. निकतोच पावसय पडून गेल्लो. पावसान पांयवाटेर सगलो चिकोलच चिकोल जाल्लो. चिखल, फातर माडयत गोमती धांवत धांवत झाडाकडेन पावली. थंय पळय जाल्यार सगलोच बोवाळ चलिल्लो. चिखलांत पडिल्लें लाकूड सो रामगो जमनीर पडून परवंतालो आनी बाबुटोका ताका लाथांनी मस्तून काडटालो. ' उणाक, मेर्द.... हेच खातीर तुका गोरवांकडेन धाडिल्लो ? शेताची सामको नासाडी करून उडयली. आज तुजें रगतच पितलों हांव ?

' हें कितें करतात तुमी ?' धांवन आयिल्ल्या गोमतीन धांपेत धांपेत विचाल्लें, ' जिवे मारतात काय कितें तुमी ताका ?'

बाबुट्याकान तिजेर गाळयांचो शिंवोर केलो आनी गोमतीच्या आवयचो संबंद सुण्याकडेन लावन तो उलवंक लागलो. ' व्हडली

आयली बॅरिस्टराची बायल ! तुकाय आज ह्याच चिकलांत पुरतां, रांडेन लज सोडल्या... लज ! कोणाफाटल्यान खंय खंय भोंवन आयल्या कोण जाणा चेडी !'

घोवाक चिकलांतल्यान वयर काडूंक ती सकल बागवल्ली इतल्यान वासग्यान तिज्या हाताक धरून तिका पयस शेंवटीली. ' ह्या चेडयेच्याक लागून आमचे शेत सगळें कावार जालें आज. ह्या रांडग्याक शेत राखूंक धाडिल्लो कांय कांबळ पांगरून न्हिदूंक ! हो न्हिदलो आनी गांवावेल्या सगळ्या गोरवांनी शेत मेकळें केलें. एक वाल दवल्ली ना वखदाक !'

' हे खेपेक सोडात.. भोगसणी करात ताका !' आंगाक लागिल्ली माती पुशीत गोमतीन म्हळें,' ' कांय दिसांसावन तो जोर काडटा. रातचो तर जोरान सामको कडकडटा ! ताका लागून ताज्यान बशिल्ले थंयच्यान अुठूंक जायना जालें जातलें तुमचें जितलें लुकसाण जालां ताजी पयेन पय भरपाय हांव करीन. दुसऱ्याले शेतात घोळून तुमची लुकसाण भरून दीन. देवतेचो सपूत घेवन सांगतां...'

' ही नागडी रांड, चेडी आमचें लुकसाण भरून दितली ! तोंड वाकडें करीत वासग्यान म्हळें, ' अगे बाजारबसवे, तूं पेल्यान सरता कांय तुका चिकलांत रोमूं !'

आनी ताणें पडिल्ल्या रामग्याचेर अशी एक लाथ घाली कि ' आवयगे, मेलो ' म्हणत रामगो सामको वळवळूंक लागलो.

' धांवारे कोणीय पुण पावात रे आमकां... हे लोक आमकां जिवे मारूंक तयार जाल्यात! कोणीय पुण धांवन येयात आनी सोडयात रे आमकां !' गोमती आड्डुंक लागली आनी इतल्यान सामकारच्या वाटेर बॅटरेचो उजवाड दिसूंक लागलो.

' कितें जाला ? कितें जाला ?' कोण तरी आडुत येवंक लागलो.

आवाजावेल्यान तो कोण म्हणपाचें वळखूंक आयलें ना तरी तो म्हऱ्यांत येतगीर सगळे ताका वळखले. हो तर देवराय. रामग्याचो धाकलो भाव... मिलिटरीच्या ड्रेसांत, अजापान पळयत उल्लो सगल्यांक !

जण एकलो ताका पळवन आशिल्लो तसोच उल्लो ! जमनीर रामगो घोंपरांत तकली लिपोवन चिकलांत बशिल्लो. बाबुट्यान ताका मारूंक उबारिल्लो तोणको ताजे हातांतच उल्लो. वासगो चिकलांत रोमिल्लें जोतें काडूंक बागवल्लो, थंयच रावन पळवंक लागलो... !

' कितें जालां व्हनये ?' भावजेकडेन पळवन देवरायान विचाल्लें. इतलो येळ थामोवन दवरिल्लें रडप आतां आवरना जावन गोमती हो हो करून रडूंक लागली. कांय वेळान रडट्या आवाजांतच तिणें सांगलें, ' कितें सांगूं. ह्योच नरक भोगतात आमी... तूं वचतसून देवराय !'

भावजेचें रडप आयकून देवरायाचें काळीज हाल्लें. ताजी तकली भेरेल्लेवरी जाली. खिणभर पळवन घेतलें ताणे आनी म्हळें, ' कितें जालां ? कित्याक मारताले ताका ?'

' ... ... ... .... '

' धर्माच्यो गजाली सांगपी तूं ! मिशोलेगीत पिकून धव्यो जाल्यो तुज्यो, इल्लीय लज ना तुका ? ह्या बाबड्या पिशाक कित्याक मारताले तुमी... कित्याक मारताले ताका ?'

' तुका कितें खब्रर ? हाणे आज आमचे सगळ्या शेताचो इबाड करून उडयलो !' वासगो बापायचे आदाराक फुडें आयलो आनी देवरायान दावे हातान ताज्या पिनक्या खोमसाक करून मिलीटरीच्या हाताचें एकच थापट फुलयले ताजे तोंडार. त्या एकाच थापटान वासगो घुंवन घुंवन शेतांत वचून पडलो.

' काका, बापायच्या पिरायेचो तूं ! बापायच्याच जाग्यार मानतां तुका... नाजाल्यार आज कुडके कुडके करून शेतांत पुरतां आशिल्लो तुका... !' देवरायान राग गिळून म्हळें... ' चलात घरा !'

जमनीर पडिल्ल्या भावाचो हात धरून ताणें ताका उठायलो. अजूनय तो भिरांतेन कुडकुडटालो. हातार, पांयार, तोंडार रगत दिसतालें. तें आंगाक लागिल्ल्या चिखलांत भरसतालें. वळखूंक लेगीत कठीण आसलो !

बॅगांतल्यान तुवालो काडून देवरायान भावाचें तोंड पुसलें. ताजे हाताक धरून तो ताका घेवन सोप्यार पावलो इतल्यान घराच्या शेजारच्या झाडामुळांत आवाजसो जालो आनी कोण तरी धांवलो... सोसो पळटा तसो...

देवरायान त्या दिकेन बॅटरेचो उजवाड घालो आनी गोमतीन म्हळें, 'आमचो कुनुवा जातलो तो!'

झाडा खाचींत लिपिल्लो कुन्नू भायर आयलो.

'कित्याक रे! लिपिल्लो कित्याक?'

तो कांयच उलयलो ना. गोमतीनच म्हळें. 'बापायक मारतात तें पळोवन भिलो जातलो. एक दीस तर सगळी रात भायर तणांतच लिपून बशिल्लो...'

देवरायान फुडें सरून ताका उबाल्लो आनी खांदार माल्लो.

ताज्या फेरं मारिल्ल्या कपडयांक चिखलाचे दाग पडले पुण ताणें थंय लक्ष दिलें ना.

मोडकें खोपूट. मूठ दोन मुठी तांदूळ, मोडकी तोडकी चार-दोन आयदनां, दोरयेर उडयिल्ले कपडे म्हणपासारके कांय कुडके!

घर तशेंच आशिल्लें, तो भायर सरून गेल्लो तेन्ना आशिल्लें तशेंच!

बायल भायर पट्टगीर ताणें आनी दुसरें लग्न करू ना. पयलीं गोमती दर पत्रांत ताका लग्नाविशीं बरयताली. पुण मागीर निणेय बरवपाचें सोडील्लें. तळपण, गुजावाडो, माशें, नमस- कितल्याशा गांवच्यान ताका सोयरिको आयिल्ल्यो पुण ताणे कोणाकच लागीं धल्लो ना. गोमती, केन्ना केन्नाय प्रस्न काडटाली तेन्ना तो तिका सांगतालो, 'कितें उल्लां, व्हनये? म्हजें मनच विटलां. लडायेर गेल्ल्या मनशाचो भरवंसो कसलो? हांव थंय लडत भोंवतां आनी हांगा तिका पळवंक, तिची खबर घेवंक लेगीत कोण ना... सुन्दरकाकागेर कितें जालें तें जाणा मगे तूं? काकी वर्साभितर दुसऱ्याल्या घरांत गेली!'

'तशें एक जालें म्हुण लडायेर वचपी कितें लग्नच करीनात?'

'करीनात कित्याक? करतात. तें जणएकल्याक दिसता मनाक

तशें. चली बरी मेळ्ळी जाल्यार हांव ना म्हणीना. पुण म्हाका खबर आसा म्हाका जाय तशी चली मेळूंक बसल्या?' आनी तो खो खो करून हासूंक लागतालो.

...हे खेपेक गोमतीच्या कुळारच्यानच एक चली सांगून आयिल्ली. बरी शाणी... रूपानय बरी... न्हाती धुती... घरांतलें सगळें काम जाणा जाल्ली. गोमती चिंतताली देवाच्या दयेन ती घरांत येतगीर परिस्थिति सुधारतय आशिल्ली.

जेवता आस्तना गोमतीन प्रस्न काडलो तेन्ना मोटया अनिच्छेन देवरायान म्हळें, 'हें सगळें पळवन मन विटलां म्हजें. तुमचीच परिस्थिती अशी... तातूंत आनीक एकल्याक हाडून घालून कितें करप?'

आनी तो मोन्यानी भाकऱ्यो खावंक लागलो.

तो जाणा आसलो– घरांत कांय ना. जिवाप्पागेरच्यान तिणें पीठ मागून हाडलां उसणें. फाल्यां खंयय काम करून परतें दितली!

'पत्रकाराकडच्यान चीट बरोवन धाडिल्ली मेळ्ळी ना?'

'ना.' देवरायान जाप दिली. 'खूब दीस जाले तुमची खबर मेळू ना. हुसको दिसूंक लागलो दादाचो.'

कांय वेळ चिंतून ताणें विचाल्लें, 'आतां कशें आसा ताजें?'

'तूं तर पळेताच!' गोमतीन एक लांब सुस्कारो सोडलो. 'खंय बसयता थंय ओगीच बसून रावता. ना खावपाची ना पिवपाची सुद्द! गांजाचो दम माल्लो कि हेर लोक आसात कांय ना हेंय कळना. आनी हाजो लाव तुमचो काका बेस बरो घेता. रात रात भर बटाट्याचे शेत राखून घेता. दीसभर गोरवां–बोकडां चरवंक धाडटा. हांवें नाका म्हळें जाल्यार बडी घेवन म्हजी तकली फोडूंक येतात. आज तर तुवें पळयलेंच जाल्लें ते युद्ध! सामके फातरा काळजाचे. ह्या देवासारख्या भोळ्या मनशाचेर हात कसो उबारता कांय म्हण्टा तांचो? येता तेन्ना हांच्यो धपकावण्यो! तिणें पोलको वयर करून आपली फाट दाखयली... पळय हांचें हें मनीसपण... मनीस न्हय हे राकेस...!'

देवरायाची तकली भेरेवन गेली. ताजे तोंडातल्यान जाप येना जाली. भावजेंच्या फाटीर उठिल्ले निळे काळे वळ पळोवन ताजे दोळे

तामडे जावन येवंक लागले, ‘ किनें करू व्हनये... हांव हांकां जिवेच पुरनां आसलों... गुळी घाल्नू मारनां आसल्लों... पुण हांन येनान.. वापोल्यो पडल्लो... वापायच्या जाग्यार मानिल्लो... फकत हो विचार येवन फाटीं सरतान हांन ! पुण हे तर सामकेच दुश्ट...जनवरा परस्य नीच ! ते एक नसले म्हूण आमीय नसलेच जावपाचे ?’

गोमती ताका पळेतच रावलो...

जेवून हात धुवन देवराय आपलें बॅग उगडूंक लागलो. बोल्सांत दवरिल्ली चावी सोदीत ताणें म्हळें– ‘ दादाक वखदां वी किनें दिल्लीं?’

‘ दिलीं ना आनीक ! सगळें करून पळेलें. झाडो लेगीन घाल्नू जाल्लो घाडयागेर व्हरून, जालें इलाज केले ..’

‘ काडे–कसायय दीवन जाले. घेडिया वेजालेय इलाज केले..’

‘ तुजेंय एक विचित्रचगें व्हनये... घेडिया वैज सोन जानीव वखदां दिता.. मनशाक न्हय !’

‘ आमी नरी मनशां खंय उल्ल्यांन ?’ गोमतीन गंभीर जावन म्हळें, ‘ म्हाका तर दिस्ना, ताज्याच वखदान मात्सो गुण आयल ताका. पुण तुज्या काकाच्यान तेंय पळवंक जालें ना म्हूण ताणे त्य वैजाकडेन म्हजो संबंध लायलो. आनी वदनामेक भीवन वापडो आन हांगा येवपाचो लेगीन वंद जाला. जानीन बामण नो... नांवाक भिलो.

चावी मेळना म्हूण देवराय वेजारिल्लो. गोमतीन ताका फाल्य सोद म्हूण सांगलें. रात्तीनलो अुजवाडय आतां कमी जाल्लो. काळखांत मनीस मनशाक दिसूंक कठीण जाल्लें. चावी आनी खंयची ?

‘ भुरग्यांच्या हातार किनेंय मिठाय दवरची म्हूण पळेतालों.’

सोदनां सोदनां काल्सांवाच्या फाटल्या बोल्सांत ताका पिनळेर्च चावी मेळ्ळी. आनी ताणे वॅगेची कुलपां उघडलीं.

येतना मडगावां स्टेशनार घेतिल्ले दूधफेणे ताणे प्लॉस्टिक पिशवेंतल्यान काडून कागदार दवल्ले.

कुन्नू दोनीय हातांनी ते तोंडात भरूंक लागलो. गोमतीनय दो तोंडांत उडयले. चार पांच घोवाच्या हातार दवल्ले.

दूधफेणे हातार घेवन तो जायतो वेळ तसोच बसलो तेन्न

देवरायान व्हडान म्हळें, ' पळयता कितें ! दादा, खा ते.'

दादा खंयच्या संवसारांत रमिल्लो कोण जाणा !

टप् टप् करून दोन दुकां त्या दूधफेंडयांचेर पडली !



सकाळच्यो धोंकण्यो सुरू जाल्यो. उज्यान घालून तामडचा जाल्ल्या लोखणाचेर घण पडूंक लागले. लोखणाची केणां चारीय वटेन उसळटालीं. देवराय आंगणांतच वतान बशिल्लो. गांवांत कोणाकच मेळूंक गेलो ना तो. वच्चे अशें दिसलेंय ना ताका. सकाळच्या कंवळया वतांत मिलीट्रीची कांबळ हांथरुन दोळचार हात घेवन न्हिदून राबिल्लो तो. हांगाची परिस्थिती इतली इबाडत हे ताणें चिंतूक लेगीत नासले.

खोपूट शिवन घेत्रंक जाय. शियां दिसांनी दंवय पडटलो तेन्ना हीं कशी रावतलीं ? पणजेच्या सरकारी इस्पितालांत दवरून दादाक बरो करूंक जाय. कुडींत ताकत येतगीर मनानय बरो जायत एकादेक. कुकळच्या सावकारालें पोरणे कर्ज आसा. ऐन ना जाल्यार आसूं व्याजाचें पुण कितेय दिवंक जाय ? ना जाल्यार हांव वतगीर फाटल्यान हांकां त्रास दितलो. शेतां काकागेर घाण पडल्यांत. तीं सोडयिल्लीं जाल्यार हांचो खावपा–जेवपाचो प्रस्न सुट्टलो आसलो थोडो तरी. दुसऱ्याल्या शेतार कितलो तेप काम करीत रावतली ? पुलीसेक चार उतरां सांगूक जाय. परतून अशें कितेंय केले जाल्यार रेजिमेण्टांतल्यान डिप्टी कलेक्टराक बरवन कळवंक जाय.

काकाकय समजावपाक जाय ह्या बाबड्याचेर हात उबार नाका म्हूण. वेगळे जाले, घर आनी जमनींचेय वांटे जाले तेन्ना हांका वेंटीक धरून काम कित्याक करून घेता ? शिजोवपाक आयदनां लेगीत दिली नात.

त्याच दिसा सांचची ताणे एक बोकडी हाडली. कुनुवां तिका चरवन हाडटलो. थेंबोभर दूध कुनवांकय मेळटले.

दादाक खोमीस काल्सांव, कपडो ताणें येतना बेळगंवच्यानच हाडिल्लो.

‘ म्हजी बदली हांगा जाली जाल्यार दादाक व्हरून वखद विसंद करीन. तू हुस्को काडीनाका.

पयली सारखो तो परतो शेतात काम करूंक लागतलो. मडगांव-सावन आठ–धामण लोखण घेवन धाडटां हांव. धडावन चार आयदनां, हतयारां केल्यार कपडयाचो खर्च सुटुक हरकत ना.’

देवराय येवजण्यो सांगतालो. ताका येवन चार–स दीस जाले इतल्यान चावडेरसून पोष्टमन येवन ताका तार दिवन गेलो.

‘ रोकडो कामार हाजिर जा.’ तार ताजे हातसून गळसली. तशीच बसकण माल्ली ताणे जमनीर.

देशार परचक्राचो धोको दिसान दीस वाडत आशिल्लो. पेपर आनी रेडिओवेल्यान खबरो येत आसल्यो. खंयच्याय खिणाक उजो पेटपाचो धोको निर्मल्लो. मात इतले बेगीन अशें जायत हे ताणे चिंतूक नासलें.

हे फावटी तो दोन म्हयन्यांची सुटी घेवन आयिल्लो. चितिल्लें सोयऱ्या धायऱ्यांक मेळून येवचे, उलवणी आयली जाल्यार लग्नाकय ना म्हणचे न्हय. पुण आतां रेजिमेण्ट खेरीत ताका दुसरें कांयच दिसना आसलें.

रोकडेच ताणे सगळयांक मेळून घेतले. गांवचे शाण्या सुर्त्याक ताणे आपले भावाचेर लक्ष दिवंक सांगले. बाबुटयाकाक चार उतरां सांगून हाचेर हात चडयनाका म्हूण सांगूक सांगले.

काकाच्या काळया करतुबांची कथा ताणे पोखरी आनी हेर पसरकारांक सांगली. सरपंच आनी ग्रामसभेच्या मुखेल्याकय सांगली.

सूर्यादेव अजून उदेवचोच आशिल्लो. चारीय दिको अजून गुपाट काळखांतच मुंगरून पडिल्ल्यो आसल्यो. रामग्याच्या खांदार पत्र्याची बॅग आनी खाक्यांत बांदिल्ले हांतुण. गोमतीन धाकल्याक हातांत धरिल्लो. देवराय जवानाच्या कपडयांत फुडे चलतालो. फातराड, सकऱ्यान भरिल्ले वाटेर बुटांचो खड् खड् आवाज येतालो. बस सुटपाचो वेळ जायत आयिल्लो. देकून ते झपझप चलताले.

बसीर सामान चडवन देवराय सकल देंवलो. बोलसात हात

घालून कांय पयशे रामग्याच्या हातार दवरीत ताणे म्हळें, ‘ दादा तू कित्याक भिता ? ताणे हात उबाल्ल्यार तूंय हात उबारून तांचे आंगार वच. फांसार दिवंक व्हेलो जाल्यार हांव सोडोवन हाडीन तुका. मनीस एकच फावट मरता...’

‘अशें वागील्ले जाल्यार आमची ही दशा कित्याक जाता आसली? तू वच बरेभशेन. हांगाचो हुस्को करी नाका. आमच्या नशिबांत आसा तें भोगतलीं आमी ! वता आसतना तूं दुख्ख करीनाका... ! ’ गोमतीन दोळे पुसत म्हळें.

बस सुटली. देवराय आपले सिटार बसलो. ताज्या मनांत आयले, चुसुलाच्या मोर्च्यापरस घरचोच मोर्चो वांदप चड कठीण... चड, कठीण... ?

दोळयांमुखावेल्यान अदृश्य जावपी आपलो गांव, आपले शेत, आपली झाडां–पेडां तो पळयत रावलो. ह्याच खेपेक कित्याक कोण जाणा ताका दिसूंक लागिल्लें - आपले जल्मगांवचे निमाणचेंच दर्शन बी न्हय मू हें ?



बाबुट्याकाचो पारो चडिल्लो, बाजारांतल्या दुकानार जमिल्ल्या सगल्यांनी ताजी छी:थू केली

‘ आयकलां तेभशेन देवरायान सरकारांत अर्जी बरवन घाल्या पुलीसेचेरच न्हय बाबुट्या आता तुजेरय येवपाचे आसा. तुका बेड्यो घालून व्हरतले... वासगो घाणो चलवंक बसतलो जेलांत. तुवें रामग्याचेरच न्हय तर ताजे घरकान्नीचेरय अन्याय केला. तिजेरलेगित हात उबाल्ला. गांवची पांच तोणा उलयलीं जाल्यार तुका जीव दिवपाक लेगीत जागो उरपाक ना, सगळें सावकारपण लेगीत तुजे उपकारा पडपाचे ना. तुकाय अक्कल शिकूंक बरें... ! कृष्णा पसरकारान नत्री विडी तोंडांत धरून म्हळें.

‘ तुमीय कितें उलयतात सावकारांनो ! म्हाका जसो वासगो तसो रामगो. . आपले भुरग्यांक किते कोण धपकायना–तापयना ? तांकां बुद्द येवची म्हुण चार उतरां सांगली जाल्यार कितें जुलूम

जालो ?' बाबुटयान वाद सोपोवपाचे नदरेन म्हळें.

' पुण त्या बायलमनशेन तुजें कितें केल्लें ? त्या दिसा हांगा येवन रडटाली बापडी.' खांकत कृष्णान म्हळें, ' कोणाचेरच अन्याय करूंक जायना बाबुटया. घराण्याचो कामार म्हूण सांगतां.'

' आतां तुमकां आनी कितें सांगतलो सावकारा ?' बाबुटयान तोणार बाबडयाची कळा हाडीत म्हळें– ' तिजी तर गजालच जातली सांगूंक बसल्यार... सामकें नाव वगडायलां तिणें. घरची गजाल हांगा बाजरांत कितें सांगू ? हजार जाणां बराबरच्यो हिज्यो हजार गजाली आसात. केन्नाय तुमी एकलेच आसतना सांगन. मागीर म्हण्टले– बाबुटयान केलें तें योग्यच केलें म्हूण.'

' ती तर तुजेविशीं कितें वेगळेंच सांगताली. आसूं तें ! आमकां कितें ?' पसरकारान विडी परती तोंडात घालून दम मारून खूबसो धुंवोर सोडलो.

पेल्यानसून चावेच्या दुकनाकार बाबुशान वले बोतराक हात पुशीत म्हळें– ' बाबुटया, तूं सांगता तें सगळें आमी खरें म्हणूत. पुण एक सांग पळोंवया... भगवतीमायचो सपूत घेवन सांग, तूं त्या पिशा रामग्याक वेठीक धरून कित्याक काम करून घेता ? ताकाय गरिबाक स्वताचीं बायल–भुरग्यां आसात, संसार आसा. तीं बापडीं गांवार भीक मागत भोंवतात रोटये कुडक्याक लागून...'

आतां मात बाबुटो मात्सो तिडकलो, ' तुमी व्हडले हे जाल्यात मरे सारकी चवकशी केलेबगर विचारूंक ! रामग्याची आवय मेली तेन्ना तिजें क्रियाकर्म करपाक खर्च कोणे केलो ?' आनी हडु घडायत बाबुटयान फुडें म्हळें, ' कर्ज काडून तिजे मडयार कपडो हांवेंच घालो. ते फारीक करूंक कोणच सांगना... ताजे व्याज म्हुण अदी मदी केन्नाय ताजेकडसून थोडें भोव काम करून घेतलें जाल्यार लोकांचे दोळे कित्याक फुटचे ?'

बाबुटयान उठपाचे तयारेन खांदोवेलो तुवालो सारखो केलो. ' म्हजे उतराचे वायट धरनाका. पुण आज काल सगळयांक वायट दिस्ता खरें बाबुटो सुखान दोन रोटयो खाता ताजें.'

तो आनी बसलो ना. थंयच्यान तो सटकलोच. सगली वाट ताका एकच येवजतालें– देवरायान सरकार दरबारामेरेन गजाल व्हेल्ल्याचें. फुटिल्ल्या कोपांबशेन त्याच गजालीचो आवाज जातालो परतो परतो.

देवराय मनीस वायट न्हय. रामगो तर सामकेच गोरूं कशें. पुण ही रांड सगळच्याक कारण. हिणेंच देराचे फाटीक लागून सगळे गांवांत म्हजे नावांन ढोल वाजयला. धा जाणामुखार हिका नागडी करून, तेपळीच्या बडयांनी हिका बडवन काडूं ना जाल्यार म्हजें नांवच बाबुटो न्हय. ही बरेशशेन हांगा रावसर म्हाका सुखान चार घांस वचपाचे नात. पयलीं हिका जाग्यार हाडूंक जाय. ही मरतली नाजाल्यार गांव सोडून वतली अशें करूंक जाय. नाजाल्यार म्हाका आनी तोंड दाखोवपाक जागो ना. बाबुटो चिंतत आसलो.

काळखान बाबुटो एकलोच दांत किट्टीत बशिल्लो. इतल्यान वासग्यान येवन सांगलें - ‘सरपंचाकय देवरायान आमच्यो खबरो सांगल्यात. पुलीशेकडेनय केस दीवन आयला तो.’



त्या राती पावस पडूं लागिल्लो. तेन्ना वासगो आनी बापुय– बाबुटो खोरें घेवन काळखांतच भायर सल्ले. आंगणाचे घडेक लागून आशिल्ले अुदक व्हांवन वचपाचे खळयेक ताणी अशेतरेन खणवां माल्ली कि व्हांवन येता तें उदक गांवचो सगलो चिकोल घेवन रामग्याचे घरांत भितर सरचें.

थोडयाच वेळाभितर पावस वाडलो आनी गांवचें सगलें अुदक रामग्याचे खोपटांत भितर सल्लें. भितल्लीं आयदना बी उदकांत उफेवंक लागलीं. हांतुणां, कपडे बी सगळे भिजून गेले. खोपटाच्यो वण्टी लेगीत फुगून पडूंक आयल्यो. गोमतीन तसले पावसांत भिजत हातांनीच माती फातर काडून उदक दुसरे वटेन लावन दिलें.

धांपेत धांपेत ती घरांत आयली. पायांपसून केसांमेरेन भिजून गेल्ली. तेल, मीठ, तांदूळ– गोटो... सगळें सगळें... कांयच म्हळचार कांयच सुकें उरूंक नासलें.

पावसांत भिजून आनी आंगावेल्या भिजील्ल्या कपडयांक लागून गोमती कुडकुडटाली. कुन्नू एका पेटेचेर चडन बशिल्लो. बोकडेच्या पोराक ताणें वयर चडवन बसयिल्लें. रामगो आनी गोमती मेळून घरांतले उदक तामयांनी भरभरून भायर रकवंक लागलीं. अुदकांत भिजिल्ली बोकडी बँ बँ करीत आशिल्ली.

हाजेउपरांत चार दिसांनीच खबर. नाचण्याचे पीठ दळून गोमती रातयां उसरां घरा यो तर कुनुवां आंगणांत बसून रडटा.

‘ कितें जालें रे ?’

‘ आमची बोकडी मेली...’ व्हांवते दोळे आनी नाक खोमसाक पुशीत ताणे सांगले.

‘ कशी मेली ? खंय मेली ?’ ती आकांतान आड्डली.

मेल्ल्या बोकडेम्हऱ्यांतच कुनुवा बसून आशिल्लो. तिची थंड पडिल्ली कूड पोरशीत. म्हऱ्यांतच बोकडेचे पोरय पडिल्लें... मरून. ताजे बारकेले दोळे चकचकताले.

‘ दोगांकय झाडाक बांदून हांव उदक हाडूंक गेल्लों. पांचवे तणय इल्लेशें बुड्डून हाडलें थंयच्यान येतना. उदक आनी तण घेवन येवन पळय तर दोगांय पांय लांब करून पडल्यांत. वासुकाका म्हण्टालो... जिवाणे चाबलें जातले तांकां. ह्या झाडामुळात पयरच ताणे फोडां काडपी पळयिल्लो खंय.’

गोमतीच्या दोळयांतल्यान दुकां व्हांवक लागलीं रगताचीं. दोनीय हातांनी कपल दामीत तिणे विचाल्ले, ‘ तू तण घेवन येतालो तेन्ना हे झाडाकडेन कोणाकय बी पळयिल्ले तुवें ?’

‘ वासुकाका खांदार नांगार घेवन वतालो... झपझपीत.’

‘ खंयच्यान ?’

‘ ह्या झाडाकडच्या वाटेन.’

म्हण्टां म्हण्टां लोक जमले वाडयावेले. सगळयांनी अदमास लायिल्लो– बोकडयांक जिवाणेंच चाबलें. तांचें आंगय निळें पडिल्लें. आनी तोंडातल्यात फेणेर... !

खरें कितें तें गोमती जाणा आसली... पुण कोण विस्वास

दवरतलो तिज्या अुतरांचेर ? तोंड शिंवून ओगी बसली ती.

केन्ना घरांतलें आयदन ना जातालें तर केन्ना कोयतीच ना जाताली. पिनके शेन्दरेचो कुडको लेगीत सुकूंक घालो जाल्यार तिनसान मेरेन ना जातालो.

शियाच्या दिसांनी अुजो करूंक म्हूण तिणें लाकडां जमवन दवरिल्लीं. कांय दिसांनी पळय जाल्यार एक वांटो अुल्यांत. तीन वांटे गेल्लीं.

आपलें दुख ती आपुणच सोमताली. तोणान उलवप म्हळ्यार झगडीं-झुजां पेटवप ! पयलीं एक दोघांच येतालीं झगडूंक... आतां तर धाकलीं भुरगीं लेगीत... सगळीं भोवतणी जमून मदीं घालून पेट्टात.

गांवचे लोक भयान तोंड अुगडूंक तयार नास्ताले. झगडें सुरू जालें कि सगळे आपआपले घरांत वचून दारां धांपून घेताले. खंय कोणीय मरून पडलो जाल्यार जवाब दिवपाक कोण वतलो ?

कशेय बशेन सगळो राग सोसून दीस काडटाली बापडी !

पुण एक दीस अुरिसुरिल्लो धीरय सुटलो.

देवाची कुराड पडली तिजे तकलेर.

रामग्याचे नावान सैन्यांतल्यान एक चीट आयली...

शिपाय देवराय पाकिस्तानचे शिमेर हुतात्मो जाल्लो.

दीसानच तिजे भोंवतणी नकेत्रां घुवंक लागलीं ती जाणा आसली– देराचे भिरांतेनच अजून मेरेन हे लोक माल्शे चड त्रास दिनात. पुण आतां ती भिरांतय गेल्ली.

गोमतीच्या दोळ्यांतलीं दुकां खंयचे खंयच ना जाल्लीं. मोठ्यान रडचें दिसतालें तिका पुण तें भायर फुटनासलें. प्रेत कशें ती काम करताली.

घरांत कोणशाक एक दिवो लायिल्लो. रामगो तकली सकल घालून दिव्या म्हऱ्यांत बसून आशिल्लो. गांववाले, नात्यांतले, वळखींचे लोक येवन चार अुतरां सांगून वताले. पुण बाबुट्याकाच्या घरांतलो एक जितो मूस लेगीत आयलोना तांकां पाचारूंक !

घरांत कांय नाशिल्लेंच. अुरिल्ले दोन शेताचे कुडकेय सावकारा-कडेन घाण दवल्ले.

क्रिया–कर्मात गोमतीन कांय अुणें पडूंक दिलें ना. जें जें जाय तें सगळें हाडलें. तेराव्या दिसाक मारूंक पंद्रा रुपया दिवन एक बोकडो हाडूंकय ती विसल्ली ना.

पयरच दोन म्हयन्यांफाटी येवन गेल्लो देवराय.

तो गेलो हाजेर तिजो विश्वासच बसनाशिल्लो. तिजे मनांत भौनभौन विचार येताले– कोणेय फटीनी बी बरवंक ना मूं. धा तरांचे धा लोक... कोणाचो विश्वास धरचो ?

तिणे आयकल्ले. बाबुटोका खंय मोटयामोटयान हांसून म्हण्टालो– आतां खंय वता ती पळयतां रांड ? बरी नाचताली... आतां तिका आलाशिरो दिवंक खंयचो धगड येता तो पळयतां... !'

क्रियाकर्म जावन सगले आपआपले घरा गेल्ले. रितें घर खांवक येवंक लागिल्लें. कोणच आज जेवलो नासलो. उपाशी पोटार न्हिदिल्लीं घरांत.

एकच आदार आशिल्लो तोय गेल्लो. दोनय हातांनी तोंड लिपोवन गोमती हुडक्यांनी रडटाली. रामगो काळखांत दोळे उगते दवरून कितें चिंततालो कोण जाणा. तिजे पायांकडेन साका कुडक्यार कुन्नू न्हिदिल्लो... पिंडदाना वेळार सगल्यांबराबर न्हंयचेर गेल्लो तो. येतना विचारतालो– ' काका आता परतो केन्नाच येवचो ना ?'

सगळो गांव न्हिदून पडिल्लो. आज काळोख चडच काळो जाल्लो... उमासेची रात आसुये.

इतल्यान आंगणांत पानांचेर कोणाचीं तरी पावलां वाजलीं.

गोमतीन दारावटेन तकली घुवणायली. ताजे पयलींच दार धडक करून तुटून पडिल्लें.

' खंय आसा ती चेडी ? सर भायर ' वासग्याचो आवाज तिचे कानार पडलो.

ताजे हातांत जळटी लाकडाची बडी आसली. तेच हातांत एक कोयतीय धरिल्ली ताणें. भितर येवन दुसरे हातान गोमतीचे केसांक धरून ओडली. 'हांगा रडत बसल्या कोणाचे नांवान ? चल म्हजे घरांत. आयच्यान म्हजी रांड जावन राव. रामगो मर मेरेन आतां म्हज्यान धोर धरूंक जायना.'

गोमतीचे तोंडातसून एक किळंची भायर सल्ली. कुन्नूय किळंचलो· ती एकावटेन ओड घेवन सुटूंक पळेताली. पुण जमलें ना तिका. ह्या गडबडींत ती सकल पडली. वासगो तिका तशीच ओडून व्हरतालो· तशे स्थितीत तिणें एक नदर घाली घोवाचेर... पुण तो तसोच बसून आशिल्लो– धोपरांत तकली घालून.

बोब आयकून लोक हातुण सोडून आंगावेले कपडे सांबाळीत धांवन आयले.

वासगो तयारेंत अुबो आशिल्लो कोयती घुणायत ताणे लोकांक म्हळें– 'खबरदार! जो कोण फुडें येतलो ताजी तकली जाग्यार दवरचो ना. ही आमची घरची गजाल, आपसांमदली. तातूंन दुसऱ्यांनी पडपाची गरज ना.'

गोमतीचे हाताक धरून ओडीत ताणें तिका भायर व्हेली आनी आपले घरांत व्हरून जोरान दार धांपून खिळी घाली.

खिणभरांत हें कितें घडलें? लोक तकीत जावन पळवंकच अुल्ले.

झगडू–झुजून गोमती कासावीस जावन पडिल्ली. वासग्यान तिजे सगळे कपडे पिनून काडले. त्याच कपडयांचो गुडो करून तिजे तोणांत भल्लो .. सामके जनावर जाल्लो तो आतां.

तामडे जाल्ल्या दोळयांनी तो तिजी नागडी कूड पळवंक लागलो. तिजो अवयवान अवयव दोळयांन साठोवंक लागलो.

आनी गोमतीन कूस परतिली. दोळयांच्यो पातयो उघडल्यो, वासग्याक पळेलो. घडिल्ली गजाल तिजे दोळयांमुखार उबी रावली. तिजे कुडीक उजो लागिल्लेवरी जालें. वीज सरसरून गेली आंगांतल्यान. सूडाचो उजो पेटलो तिज्या दोळयांत. कितें जालें तेंच कळ्ळें ना तिका. भुकेल्ली शिंवीण सावदाचेर उडी घेता तशी ती उसळ्ळी आनी वासग्याचेर कोसळ्ळी. जळटें लाकूड तिणें ताजे तोंडार माल्लें. आनी दोनीय हातांनी ताजे गोमटेर अशे घण घाले कि वासग्याची सुद्द कुडीक सोडून वचूंक लागली. आं आं आं करीत तो एका वटेन कोसळून पडलो.

काळखांतच गोमतीन थरथरत्या हातांनी दार सोडून काडलें,

उघडलें. थंयच पडिल्ली पिनकी चादर घेवन तिणें आपली कूड धांपली आनी माजर कशी उडी घेवन दारांतल्यान भायर सल्ली. तिजी उडी ज्युस्तच दारांत उबो राविल्ल्या बाबुट्याचेर पडली. तो लंवंडलो. सांवरून तो तिजे फाटोफाट तिका धरूंक धांवला. पुण ती हातांत सांपडलीच ना. त्या काळखांत तिज्या धांवपाचो आवाजच कांय वेळ आयकूंक आयलो. कांय वेळान तोय थामलो. त्या राती गोमती खंय गेली हाजो पत्तोच लागलो ना कोणाक !



गोमती न्हंयत बुडून मेली.

गोमतीन कड्यावेल्यान उडी घेवन जीव दिलो. रानांत गेल्ल्या गवळ्यांक कड्यार गिधां भोंवतालीं दिसलीं.

गोमतीक रानात पळून गेली तेन्ना वाघान खाले.

जितलीं तोंडां तितल्यो गजाली !

खूब दीस मेरेन वासग्यान घरांतल्यान तोंड भायर काडू ना. जळट्या लाकडान ताजे तोंड हुलपल्लें. गळ्यार नाकटांचे पेकत आयिल्ले घावे दिसताले. त्या दिसा मरणाच्या दारांतल्यानच तो परतो आयिल्लो. आनीक काय वेळ गोमतीन ताजो गळो अन्दून धरिल्लो जाल्यार कितें जातले आसलें कोण जाणा ?

तो समजल्लो, धपकावन–भिरांत घालून आपुण गोमतीक घरांत दवरतलो. कांय दीस रडटली, बोवाळ घालतली, पुण ल्हवू ल्हवू सगळें जाग्यार पडटलें. बायलेची जात. पोटभर खावंक मेळ्ळें, आंगभर न्हेसूंक दिले जाल्यार सगळे विसरून रमतली ! निमाणें त्या पिशाकडेन तिजो संबंध तरी कसलो ? ताका आपल्या स्वताच्याच कुडीची सुद्द ना, ताजे म्हऱ्यांत रावन हिका कितें मेळटलें ?

त्या दिसा न्हंयचेर न्हाताली गोमती. वडाची तन्नी मुळां तळपार वांटून केंसाक घासताली. सामकेच थोडे कपडे आसले तिज्या आंगार, जें लिपोवपाचे तेंच त्या कपड्यांनी उक्ताडार पडिल्लें.

सोबीत धव्या फातराची कोरांतिल्ली मूर्त कशी दिसताली ती तेन्ना. तर्नाटी कूडी ! तिका पळवन वासगो सामकोच पिसो जाल्लो.

आनी ह्याच पिशेपणां भरया तांणे तिज्या हातचो मार खाल्लो. ह्या माराान ताजी कूडच न्हय ताजें काळीजय धडधडटालें.

सूड घेवपाक ताजे हात सळसळटाले. पुण बदलो घेतलो तरी कोणाचो ! गोमती तर मरून गेल्ली.

पंदरा दीसय गेले ना हाजेवेल्यान आनी कोणें तरी गांवांत येवन खबर दिली– गोमती मेली ना. कुमणेंच्या खुशाली कामरागेर ताजो संवसार सजयता. आपल्या दोळ्यांचो सपूत घेवन सांगतालो तो.

'हात रांडेच्या ! हाकाच म्हण्टात तें बायलेचें चरित्र म्हूण ! हांव पयलींसावन म्हण्टालोंच ही नाककात्री एक ना एक दीस कोणाच्याय तरी म्हन्यांत वतली. तिका जाय आशिल्लें तें घरातसून भायर सरूंक निमित्त !' बाबुट्याले इतले दीस धांपून उरिल्लें तोंड आतां सामकेंच सदळ जाल्लें. ताजी सगळी जीणच असल्या कामांत गेल्ली. केन्ना कशें चलपाचें आनी केन्ना कितें उलवपाचें हें तो बेस बरें जाणा आसलो. गोमतीन खुशाली कामाराच्या घरा रावचें हें ताका कशें मानवतलें ?

आयकूनच ताज्या आंगाक इंगळे दसिल्लेवरी जालें.

वासग्याकय आपल्या अपमानाचो सूड घेवपाची वाट सामकार दिसूंक लागिल्ली.

दोन तीन दीस विचार करून कितें करपाचें तें थरलें. चौथे दीस गांवांतल्यान चार पांच मवाली भुरग्यांक बराबर घेवन दोगेय कुमणें गांवची वाट चलूंक लागले.

आंगणाच्या मेरेरच उबो रावन बाबुट्यान धेंगसो घालो, 'असो भायर यो रे तो खुशाली, म्हज्या घरची व्हंकल आपल्या घरांत दवरपी कोण रे तूं ? भायर यो, तुजे बारा बिरेस्तार करतां...?'

खुशालीगेर आज कितें तरी परब आशिल्ली. पांच–स सोयरेय आयिल्ले तागेर सोप्यावेल्यान तोंड भायर काडून ताणें जाप दिली, 'तूं म्हाताडो आज होंकलेचो बापूय जावन आयलो कांय कितें ? पुतणयाची वाट लावन सुनेचेर हात भोवंडावपाक पळयतालो. नीच... तुजो पांय मोडून परतो धाडलो ना जाल्यार नांव बदलीन, कुमण्यात-

ल्यान आज तुजें मडेंच भायर वतले... ?'

गाळींचो शिवर जाता थंय आसा इतल्यान गोरवां फाटल्यान माथ्यार तणाचो भोरो घेवन गोमती येताली ती दिसली. वासग्यान सरळ धोणीसारकी तिजेर झपय घाली. माथ्यावेलो तणाचो भोरो धुकलून उडयत ताणे तिचो हात धल्ला; 'चेडी, रांड खंयची, चल घरा? लग्न जावन रामग्यान तुका बायल म्हण घरांत हाडल्या काय ह्या खुशालीन आपली रांड म्हण सांबाळपाक हाडल्या तुका! चल आतां घरा! थंयच करता तुजी चवकशी आतां... !'

वासग्यान तिजे हात धरनाफुडे बराबर आयिल्ले तर्नाटिय तिका ओडूंक लागले.

'सोड सोड म्हाका मेर्दा... भावापार्तीन झगडूंक आयला हो साव?' वासग्याच्या हातांत दांत रोमीत गोमती ताका गाळी घालूंक लागली, 'किडे पडटले तुज आंगाक म्हाका आफुडशी जाल्यार... ! राकेस... हलकट... सोड म्हाका!'

पयलीं कितें घडटा तेंच खुशालीच्या तकलेंत उतल्लें ना. सोप्या-वेल्यानच ताणे आंगणांत उडी माल्ली. आंगणांतच कोणशाक उबीं करून दवरिल्ल्या मडकुळांतलें एक हातांत घेवन तो धांवलो.

बाबुट्याच्या फाटीर मुडकुळाचो एक धपको घालून खुशाली वासग्या म्हऱ्यांत पावलो इतल्यांत फाटल्यान कोणें तरी ताजो हात धरून ओडलो, 'खुशाली, कितें करता हें? कोणीय मेलो बी जाल्यार...' ताजो मामेभाव ताका आनीक कितें तरी सांगूंक वतालो पुण खुशालीन धुकलून एकावटेन शेंवटून उडयलो ताका.

गांवचे लोकय दांडे-लाठ्यो घेवन हजर! सगळ्याच गांवच्या इज्जतीचो प्रस्न आसलो तो.

वासग्याचेर दांड्यार दांडे पडटाले. पुण तो गोमतीचो हात सोडूंक तयार नासलो. सगळो बोवाळ पडिल्लो. इतल्यान खुशालीच्या धाकल्या भावान वासग्याच्या फाटीर एक असो दांडो घालो कि वासगो बेशुद्ध जावन थंयच जमनीर पडलो.

आनी ताजो बदलो घेवपाक म्हूण बाबुट्याकान एक फातोर काडून खुशालीच्या भावाचेर शेंवटीलो.

ह्या झगडयांत पळयतां पळयतां चौगपांच जाणांची रगतां व्हावंक लागलीं.

आनी इतल्यान गांवचे पंच आनी जाणटे लोक मदीं पडिल्ल्यान झगडें मात्शें थंडेलें.

'म्हज्या पुतणयाकडेन जेन्ना ह्या बायलेचें लग्न जालां,' धांपेत धांपेत बाबुटयाकान पंचाक म्हळें, 'तेन्ना ती हाजे घरांत कशी नंदतली?' बाबुटोका कपडयांक लागिल्लो धुल्ल फापडूंक लागलो.

'बाबुटया, चोरा, तूं हिका सुनेसारखी वागयता?' खुशाली शिरो ताणसून अुलयलो, 'तूं तर जनावरापरस पाश्ट मरे! हांव सांगतां ही आतां तुज्या घरांत रावपाची ना. तुज्यान जातां तें कर.'

'अरे, वच्ची ना कशी' वासगो आतांच सुट्टीर यवंक लागिल्लो. हात तेंकोवन बसत ताणे म्हळें, 'दुसऱ्याची बायल अशीच घरांत दवरून घेवप म्हळयार कितें समजलो रे तूं!'

'अरे चल वच जायतें कर तुका, चावडेर पुलीसटेशन अुक्तेंच आसा तुजेखातीर. तुमचे सारख्यांक हांव ह्या एका बोटार खेळयतां...' ताज्यामुखार बोटां नाचयत खुशालीन ताका जवाब दिलो.

'अरे खुशाली, आतां न्यायनीतीच्यो गजाली उलय. गांवच्याच एका जाणटया मनशान खुशालीक थातारलो. 'खरें तेंच अुलवंक जाय. कोणेंच वायट मानपाचें कारण ना. तूंच सांग, कोणालीय लग्नाची बायल तूं अशीच आपणागेर कशी दवरून घेवंक पावता? आनी तुका दवरपाची आसत तर ताजी देण तुवें फारीक करची पडटली. पंचा-मुखार तांचो–तिचो संबंद तोडून घेवचो पडटलो.'

'तुमी सांगतात जाल्यार तेंयबी करीन पुण आतां हाणीं हिजेर हात अुबाल्लो जाल्यार एकेकल्याची तकलीच फोडटलों. मागीर म्हाका वायट म्हणीनाकात...!' खुशालीन धमकी दिली.

'यो चोल, तुजी कापसताद पळयतां...?' दोळे तामडावन वासगो ताणशेता थंय आसा हेवटेन खुशालीची कड घेवपी एकलो झुजारी उटलो वासग्याचेर उडी घालूंक?

'ओगी बस थंय? आता कायच गडबड नाका.' अशें म्हणून दोग तीग जाणांनी ताका परत व्हेलो.

दोनय वटांनी आतां उलवणी सुरू जालीं.

निमाणे संबंद तोडून घेवपाक दोनय पक्ष तयार जाले. केशवाल्या सोप्यार पंचांची बसका जाली. गोमतीकय बसकेक आपयली. कागदार आंगठो मारूंक.

खुशालीन चारशें रुपया दिवपाचे. रामग्याचो गोमतीचेर कसलोच हक उरपाचो ना. आयच्यान तिणे खुशालीगेर रावपाचे– बायलेसारकी ताज्या घरची जावन सबंद तोडपाचो. कागद हातांत घेवन खुशालीन चारशे रुपया बाबुटयाच्या आंगार उडयले. –'घे. पुण हे तुजे न्हय बाबुटया...!'

काळे– हळडुवे जाल्ले दांत दाखयत लाचारीचें हांशें हांसत बाबुटयान म्हळें, 'एकाच घरांतली गजाल. बरो ना जावन रामगो येवंक पावलो ना. घरा वतगीर मागीर हे हांव ताजेकडेनच दितलों. म्हजेकडेन दिले आनी ताजेकडेन दिले एकच! एकाच घरांत तर वतले! हा हा हा हा?'

बाबुटो म्हण्टात तो बारा गांवचे उदक पिल्लो मनीस! आपली हारय ताणे परतिली. वतां वतां दामदुप्पट वसूल केले.

गोमतीन तोंड घेवन वचचें हें केन्ना सावनच मागतालो तो!

घरा वतना ताणें रामग्याक आनी कुनुक एक अशीं दोन खोमसां विकतीं घेतलीं त्या चारशें रुपयांतल्यान!

कुनु बोकडयांक चरूंक व्हरूंक उपकारतलो. रामग्याकय लोखण घडावपाचें काम आसाच. भातो दिसभर चलूंक तर जाय! बाबुटो चिंतत वतालो.



**गो**मतीक घालूंक कपडे नाशिल्ले. सवतीले कपडे घालून दीस सारताली. खुशालीन बाजारांतल्यान कपडे हाडले. येतनाच शेटीगेरच्यान रुप्याची चार पातळसार कांकणांय हाडलीं. डूजभर हेरय कांकणां हाडूंक विसल्लो ना तो.

इतले रंगीत कपडे, रुप्यांची कांकणां हाजेपयलीं पळयलींच

नासलीं. त्या नव्या ताल्ल कपडयांनी तिजें रूप पयलीपरसय अदिक सोबून उठलें. चांफ्याच्या कळयेसारख्या सोबीत नाकांतय दुधाचो थेमो कसो एक नथ चकचकताली. गोमती परत परत हातान सांसपून पळेताली ती.

हारशांत आपलें पडबिंब पळयलें तेन्ना ती तकित जावन पळयतच उल्ली. पयलीं अजापान, खोश्शेन, पुण वेळ वचूंक लागलो तसो तोंडावेलो रंग देवंक लागलो. हें रूप म्हळयार एक शापच अशें तिका दिसूंक लागलें. हें सगलें ती भोगताली तें ह्या रूपाकच लागून. फाटल्यो गजाली एकेक करून तिज्या सामकार येवन गेल्यो. एक उस्वास सोडून तिणें हातांतलो हारसो परतून वणटीक लायलो.

तिका याद आयली–

त्या राती जीव दिवपाचेंच थारायिल्लें तिणें. रातची काळखांत वासग्याच्या हातातसून सुटून धांवत ती तडक न्हंयचेर गेली. भरिल्ल्या घोगेतल्या न्हंयच्या देगेवेल्या एका कडयार ती उबी राविल्ली. मुखार व्हांवताली उपाट भरिल्ली न्हंय. पयस एक हयन्हयसो दिव्याचो उजवाड दिसतालो

म्हणसारको कोणाचोच आदार दिसनाशिल्लो तिका. घोव तर सामकोच नावांचो. कुकमाक आदार कसो. घरांतले लोक हे अशे. शेजारी पाजारी तर त्याहून पास्ट. वासगो तिच्या हाताक धरून ओडून व्हरतालो तें सगळे पळेताले... पुण एकल्याकय धीर जालो ना सामकार वचून ताका बिचारपाचो. घोवय पळयतच रावलो– फातोर कसो! अशा ह्या दादल्याबराबर सगळो जल्म कसो काडपाचो! ताजे सामकारच वासगो बलात्कार करतलो आतां हाजेमुखार...!

गोमतीचें काळीज थरथल्लें. तिरस्कारान भरून आयलें. अशी हालना धोलना आसतना फातराची मूर्त कशी ती कितलो वेळ तरी त्या फातरार अुबी आशिल्ली चिंतत... पयसुल्ल्या एका खोपटेतल्यान एका भुरग्याच्या रडपाचो आवाज आयलो. विचारांचे पडे पिनून तो आवाज गोमतीच्या कानांत पडलो आनी तिची कूड थरथरली.

कुन्नुचे उदास मुखामळ तिज्या दोळयांसामकार उबें रावलें.

तिणें जीव दिल्यार ताजे कशें जातलें? पिसो बापूय ताचो सांबाळ करीत? कांय ते दुश्ट बाबुटो आनी ताजी बायल ..!

'ना... ना' तिजें काळीज तडफडूंक लागलें. पळयतां पळयतां तिज्या मनांत कितें आयलें कोण जाणा ती त्या फातरावेल्यान सकल देवन त्या दिव्यावटेन चलूंक लागली.

आंग धापूंक आंगार घेतिल्लें लुगट व्हांवत्या वाऱ्यार उडटालें... गोमतीक आपली सुद्दच नासली... भरिल्ल्या न्हंयतल्यान ती कशी पलतडेन पावली... तिकाच कळ्ळें ना.

भिजिल्ल्या कपडयांनी कुडकुडत ती चलताली दिव्यावटेन... तिका दिशिल्ल्या त्या उजवाडाच्या दिकेन.

खुशालीन मळणी घाल्ली. एकलोच आशिल्लो तो खळार. मळणी सोंपोवन बैलांक बांदून पोलीक उजो लावन आंग शेकयत बशिल्लो तो.

पोल घुंवताली. तिजो धग ताका शेकूंक पावनाशिल्लो. हेवटचें तेवटचे बचकभर तण हातान एकठांय करून ताणे पोलीर घालें पोलीच्या अुजान तें तापूंक लागले. उजाक तेंकून आशिल्लें तण भाजून काळें दिसूंक लागले आनी अकस्मात ताणें पेट घेतलो. भुग्ग करून तण पेटूंक लागलें. उज्याच्या म्हऱ्यांतच बशिल्ल्या खुशालीचे पाय उज्यान चुरचुरूंक लागले. पांय पोशेंत ताणे तकली वयर काडली आनी...

आपलें काळीज थामिल्लेवरी दिसलें ताका. भिरांतेन ताजें तोंड उकते पडलें. दोळयांच्यो पातयो हालनासतना उगडिल्ल्यो तशोच उल्ल्यो. शियांतय ताजें आंग हुमेन चिकचिकीत जालें.

शेताच्या पेलेवटेच्यान स्मशानय आसलें.

अरे देवा! हें कितें? भूतबी काय कितें? ताजें तोंड धवें पडलें.

'क... क... को... को... को... ण?' कशीबशी ताका वाचा फुटली.

गोमतीय तो भिल्लो पळान भियेली. 'हां... हांव हांगचेच... शेजारच्याच गांवचे...'

मनशाचो आवाज आयकना फुडें खुशालीचो जीव थाऱ्यार

पडलो. ‘ मागीर अशी भुताभशेन ओगी कित्याक येवन उबी रावल्या?’ एका मनशाक आपुण भिलो म्हणपाचो राग येत्रन खुशाली तिडकलो.

‘ जीव दीवंक गेल्ले... पुण म्हज्या नशिबात तेंय ना.’ दोनी हातांनी तोंड धांपून ती रडूंक लागली.

एक दुख्खी–कश्टी त्रासीक बायलमनीस आपले सामकार उबी आसा हें समजूंक खुशालीक वेळ लागलो ना. आपणाली कांबळ तिजे वटेंन उडोवन ताणें तिका उज्याच्या धगाक बसूंक सांगले.

गोमतीची कर्मकथा आयकून ताजे काळीज हाल्लें. ‘ जीव दिवंक कित्याक पळयता तूं ? तूं मेली म्हूण तांचें लुकसाण जावपाचें ना. वेल्यान लावच जातलो तांचो. भोव बरें जालें म्हण्टलीं ती.’

‘ कितें करू ? जीव दिवप कोणाक मानवता ? पुण तीं सगळीं म्हाका मारूंक तयार जाल्यांत न्हय ! ल्हान चेडो आसा पदराक. ताजे-खातीरच जीव दीवंक मन येना, हरशीं मरण तर मागूनय मेळना.’

तिजी उतरां आयकून खुशालीक मात्सो धीर आयलो. नदरेनच तिजी कूड सांसपीत ताणें म्हळें, ‘ मरून काय जावपाचें ना तुज्या जिवाक भात तूं ना जावन वतली. आनी भुरगो वाऱ्यार पडटलो. म्हगेर येवन राव. हांव सांबाळीन तुका. हांवय तुमच्याच जातीचो.’

हाजेर गोमतीन कांयच जाप काडूं ना. जळट्या उज्याकडेन पळयत रावली...

खुशालीन तिज्या हाताक धल्लें तरीय तिणें हूं काय चूं करूं ना. रातच्या काळखांत ताज्या फाटल्यान चलत रावली ती, दोरयेक बांदिल्ली गाय कशी.



खुशालीक आनीक दोन बायलो आसल्यो. पुण ताजें नशीबच अशें कि एकलेनय ताज्या वंशाक दिवो दिवूं ना. गोमतीक घरा आपोवन हाडपाक तिज्या तरण्या लुसलुशीत कुडी भायर हेंय एक कारण आसलें ताका. मेल्यार ताळचार– उदक घालूंक कोणय तरी जायच फाटल्यान. नाजाल्यार गति कशी मेळटली मरतगीर ?

आंगणांत पाविल्ली ही रुपेस्त आनी तरणाटच्या कुडीची सवत पळवन खुशालीच्यो दोनय बायलो अजापल्यो, तिडकीन सणसणल्यो, पुण घोवाच्या रागाची याद जावन आपली तिडक ताणीं खुशालीक दिसूंक दिली ना. तांगेर भुरगें जालें ना हें खुशालीच्या पथ्यारच पडिल्लें. ताजें एक नैतिक बळच जावन आशिल्लें तें. खुशाली आनीक लग्न करूंक सोदता हे लोकांच्या कानावेल्यान गेल्लें.

गोमतीन घरांत पांय दवरीत साकून खुशालीची चालचलणूक बदलूंक लागली. ताचे रुपय बदलूंक लागिल्लें. ओंठावेल्यो व्हडल्यो व्हडल्यो मिशो ल्हान जाल्ल्यो कपडेय बरे, रंगीत वापरूंक लागिल्लो तो. आंगणांत भितर सरतना बागवल्लें कमर नीट जावंक लागिल्लें. पायांत शक्त येवंक लागिल्ली. पान खावन तोंडय तांबडे जावंक लागिल्लें ताजें आतां.

पिरायेचीं पंचेचाळीस वर्सां जाल्लीं तरी अजून तसो आंगापेरान बरो आसलो. गोठयांत दुधाची म्हस आशिल्ली, बैलय आसले स्वताचे. हालीं बाप्पा नायकाली संगत धरिल्ली ताणे ती वायटाक पडली नासली ताका. पयलीं तीन दिसांनी एक फावट पोटभर जेवंक मेळूंक कठीण वतालें तें आतां दिसाक तीन फावटी तो पोटभर जेवंक लागिल्लो. दोनचार वरसां बाप्पा नायकाल्या भाटांची वेवस्ता तो पळेतालो आनी घर चलयतालो.

बाप्पा नायकाले नाना तरांचे धंदे चलताले. दर्यादेग लागीं आशिल्ल्यान रातचीं व्हडीं येतालीं. काळें धन व्हांवतालें. लोक कितेंय अुलयताले. उलव बापडे. कोणय बरो खाता-पिता हें लोकांक कशें मानवतलें ?



**त्या** दिसा गोमतीलो संबंद तोडून घेवन बाबुटो बी वतगीर ताका सू जाल्लें. सोयरे आयिल्ले तेय सांजवेळमेरेन परते गेल्ले. खुशालीच्या मनांतले सगले विचार आतां ना जाल्ले. ताजो जीव आतां धादोस जावंक लागिल्लो.

रातचें जेवण जातगीर गोमती ताजें कुडींत आयली तेन्ना संबंद तोडिल्लो कागद तिका दाखोवन ताणे सांगलें, ‘ चारशी रुपया हड्डुयार घाले तांच्या.’

‘ हय, चारशीं म्हळ्यार कितले जाले ?’ अजापान गोमतीन विचाल्लें.

‘ विस विशी ’

‘ वीसांची एक वीस... अशो विस विशी ? अरे बाबा, इतले पयशे तुमी तांकां दिले ?’

‘ दिवपाक नाका ? नाजाल्यार तुका ते ओडून व्हरतले आसले आनी परतें तूं ताच्या हातात सांपडटा आसलें.’

आपणाचेर ताजे व्हडले अुपकार जाले ह्या नदरेन ताजेकडेन पळेत गोमतीन विचाल्लें, ‘ हें कर्ज आतां कशे फारिक करतले तुमी ?’

खुशाली मोटमोटयान हांसलो हाजेर, ‘ हात ताज्या. इतलो कंगाल समजलें तूं म्हाका ?’ आनी गोमतीक म्हऱ्यांत ओडून तिज्या मोठ्या निळ्या दोळ्यांत पळयत ताणें म्हळें, ‘ तुजे खातीर लाख दिले तरी ते थोडे जातले ! ’

गोमती हांसली आनी खुशालीन तिका घट्ट वेंगेंत कवळ्ळी.

गोमतीकडसून अजून मेळ्ळें नासलें. खळावेलें धान घरा हाडून जातगीर दोन तीन राती तिका धरपाचो यत्न केल्लो ताणें एकलीच आसाशी पळवन ! पुण नवरुपे गायच्या व्होंटीक हात घालतगीर ती उडक्यो मारून धांवता तशी गोमती ताका धुकलून पयस गेल्ली. ‘ जो मेरेन हांव तुमच्याच घरांत रावतले अशें थरना तो मेरेन असलें वास्कळ कांयच करूंक दिवचें ना ’ अशेंय सांगिल्लें तिणें ताका.

‘ सांगलें न्हय तुका वेळ येतलो तेन्ना संबंध तोडून घेतां म्हण तांचेकडेन ?’

‘ ना ना. तशें जावचें ना. हांव हेरांसारकी असली तसली न्हय. सगळो जल्म तुमचे बराबरच काडपाचो आसा, चार दीसय रावंक जायना तुमच्यांनी ?’ तिज्या हट्टामुखार खुशालीन हार खाल्ली आनी

नदरेनच तिची कूड पोशीत तो वयर माळचार न्हिदूंक गेल्लो आनी गोमती आपल्या सवतींम्हऱ्यांत हांतुणार वचून न्हिदिल्ली.

पुण आता तोय प्रस्न ताणें सोडयिल्लो. संबंद तोडून घेतिल्लो. आतां गोमती सर्वार्थान ताजेंच आसलें. ताका मेळूंक ताजो जीव उतावळो जाल्लो. व्हडलेक सांगून ताणें आपलें हांतूण कुशीचे कुडीत घालून घेतिल्लें. वण्टीच्या कुर्कुटांत चिमणी धुवोर सोडीत ढणढणटाली.

' आतां तर तुका निमित्तच उल्लेंना ना म्हण सांगूंक ! '

गोमती हयन्हयशें हासली.

' दिवो तरी पालयता ! म्हाका लज दिसता उजवाडांत...'

खुशाली सदचेभशेन खो खो करून हांसलो.

' तूं एक पळय आसा... नवी व्हंकल लेगीत इतलें हें करचेंना! '

गोमतीचें गोरें तोंड लजेन अदिकच तामडें दिसूंक लागले.

' ह्या नाकांत नथ कितली सोबीत दिसतली– तामड्या खड्याची–' तिजें नाक आंगठो आनी ताज्या म्हऱ्यांतल्या बोटांत धरीत खुशालीन म्हळें, ' हांवें हाडल्यार घालशीत ?'

मान हालोवनच हय म्हणत गोमतीन दोळे धापून घेतले, वेले दांत सकल्या ओठार रोमीत.

' तुजे दांत म्हळचार हरव्या दाळमाच्यो धव्यो फुल्ल बियो कश दिसतात. कितले सोबीत दिसतात, कितले सोबीत दिसतात म्हूण सांगू गोमती ? पळंवया दातांक धार कितली आसा ती ?' आनी ताणें तिच्या दातांमदी बोट घालें. गोमतीन दातांनी तें चाबलें.

खुशालीक व्हडलीशी खुशालकाय जावूं ना. ' अरे, असो घांस मारतात ?'

' कसो तर ?'

गोमतीचे बोट धरून खुशालीन ते इतलें फोर्सान चाबलें कि गोमतीच्या तोंडातल्यान ' आवय ' अशी अुतरां भायर आयलीं. ' कुडको काडटले म्हज्या बोटाचो ! '

दोनीय दारांच्या मदल्या खांचीतल्यान अुजवाडाचें कीर्ण शेजारच्या काळख्या कुडींत पडिल्लें पुण दोगांकय तें खबर नासलें.

दीसभर काम करून पुरो जाल्ल्यो गोमतीच्यो दोगीय सवती हातुणाक फाट लायली की घर्रर्र घुर्रर करीत न्हिदून पडताल्यो.

पुण आज तांची न्हीद खंय गेल्ली कोण जाणा !

दोगांलेय दोळे उजवाडाच्या किर्णांचेर थिरावल्ले तांची कूड कान जावन आयकूंक लागिल्ली. भितल्ल्यान हयन्हयशीं उतरां आयकूंक येतालीं. ती एकाक एक जोडून ताजो अर्थ लावपाचो तीं यत्न करतालीं. रावन रावन तांकां त्या दिसांची याद जाताली, जेन्ना तींय बी अशींच त्या एकवटेन कुशीक आशिल्ल्या भितल्ल्या कुडींत पयलेच फावटी गेल्लीं– तांच्यांतय तेन्ना रूप आसलें– अशेंच दोळें दिपावपी जुवानपण आसलें

मदलेच्यान रावं नज जालें. ती ल्हवूच हांतुणार उठून बसली. दाराच्या खांचीक कान लावन भितल्लें संभाशण आयकूंक लागली.

‘ काल हांवें मुसुम्ब्यो हाडिल्ल्यो. व्हडलेन तुका दिल्ल्यो मूं ?’

‘ हय. दिल्ल्यो–’

‘ व्हडली सांगताली तुवें खाल्ल्योच ना म्हणून कोणाकय तरी दिवंक म्हूण लिपोवन दवल्ल्यो.’

‘ खाल्ल्यो तर. सगळ्यांच्या सामकार खाल्ल्यो–आंगणात वतांत बसून.’

‘ ना. ना. व्हडली केन्नांच फट उलयना. तुवें खंयूय तरी लिपो-वन दवल्ल्यात.’

‘ खंय लिपयल्यो ?’

‘ दाखोंव !’

उलतां उलयतांच खुशाली तिज्या ब्लावजाची बटणांय सांसपि-ताली. निमाणे शेणिल्ली वस्त मेळिल्ल्यासारखें तोंड करून हातानी दामीत ताणें म्हळें, ‘ फटींग खंयची. दाखोंव ?’

गोमती हांसूक लागली. खुशालीन तिका घट्ट आंवुळ्ळीं.

जड जावन दोळे धांपत आयिल्ले. गोमतीची नदर दिव्यार गेली. सटकरून तिणें दिवो पालयलो. उजवाडाचें कीर्णय नाच जालें.

खुशालीन आपणाचेर केल्ल्या उपकारान गोमती भारावन गेल्ली.

ताज्या मायेत ती आतां गळयामेरेन बुडूंक लागिल्ली. ल्हवू ल्हवू तिणे आंग सैल सोडलें. ती ताज्या आंगार लवंडूंक लागली. दोनींय हाताचे पीळ ताज्या आंगाभोंवतणी घालीत तिणें दोळे धांपून घेतले. बायल मनशेन आपणें जावन केल्लें समर्पण खुशालीक सुखाच्या तेंगशेर घेव गेलें. जिणेंत पयलेच फावटी तो अशें हें सुख भोगतालो. गळयामेरे सुखांत बुडून गेल्लो.

खुशालीक सकाळफुडेंच कामार वचूंक जाय आसलें. म्हूण काळ खांतच तो हातुणावेलो उठून गेल्लो. पुण गोमतीक कसलीच सु नासली. ती खूबवेळमेरेन न्हिदूनच आशिल्ली.

मदलीं कुडींत गेली आनी जनेलाचें दार मात्शें उगडून पळवं लागली– अजूनय गोमती हातुणार आशिल्ली– घोरेताली. आंगावे कपडे अस्ताव्यस्त जाल्ले. आंग उक्तें पडिल्लें.

केळीसारख्यो तुळतुळीत जांगो ! दोन उबारश गुळे स्वासाबर बर वयर सकल जाताले ! गोरे हात पांचव्या–तामड्या कांकणां भरिल्लें, जीं काल रातींत खुशालीन तिज्या हातांत घाल्लीं !

ही रांड राज्य करतली आतां या घरांत !

एक स्वास सोडून मदलेन दार घांपलें आनी ती कुडींतल्या भायर सल्ली.

सगळें सुख मेळूनय गोमतीचें मन मात थंय रमना आसलें. ह खिणाक तिका तळमळ भोगताली, उलोवन दाखोवंक जायना अशी. दिसाचे सुख ना रातची न्हीद ! एकली आसतना तर तिका घर खांव येवंक लागिल्लें. खुशाली तिजेभोंवतणीं घुंवत आसतालो. तिका किते कमी पडचें न्हय म्हूण जपतालो. फाटलें सगळें विसरून नवी जी जगची अशें तिकाय दिसतालें. पुण बाबडी तें विसरूंक पावना आसर.

दोनी सवती भितल्ले भितर जळटाल्यो गोमतीचेर. पुण भा- ल्यान गोडाक लागिल्लें डोंगळे कशो तिका वेळेवयर करताल्यो. तां भय दिसतालो तो घोवाचो. राग आयल्यार तो मनीसपणा भार वतालो.

त्यो गोमतीच्या रंग–रूपापरस आपणाक भुरगें जालें ना ह्या गजालीक चड भिताल्यो. दोश तांचेरच आयिल्लो. खुशालीचो वंश तर वाडूंक जाय आसलो. ते खातीर आनीक एकली घरांत येवपाचीच आसली, ती ही आयली. व्हडलोसो फरक कसलो ?

पुण गोमतीचेंच मन थंय रमना आसलें.

दुधान भरिल्लो ग्लास पळोवन तिका कुन्नूची याद जाताली. हांगा इतलें खाणजेवण आसा, कोण खायना; थंय बापडो तो भुकेल्लो आसतलो. शेजराचीं भुरगी खातात तें पळोवन तांचे तोंडाक पळयता जातलो. आनी लोक सुण्याक धांवडायतात तशे धांवडायतात जातले ताका.

सुमनीले कुळार तर ह्याच गावांत. थंयच्या सारखीच ते हांगाय तिका व्हनये व्हनये करताले. सांगतालें रामगो दादा खूपच भागला म्हूण. बाबुटो ताका आतां दीसयभर घोळवन घेता. मात्शीलेगीत चूक जाली जाल्यार मार घालता. कुनुवाक काम जाय म्हूण ताणे बोकड्यो पोसल्यात खंय. ताका चरवंक तो शियांपावसांत दीसभर राना दोंगरांनी भोंवत आसता.



‘तूं अशी सामकी दुखीशी कित्याक आसता ?’ एक दीस खुशालीन तिका विचाल्लें. पुण गोमती कितें सांगतली हाजेर ? तिणे जबाबच दिवू ना.

‘हांगा तुका कितेंय त्रास बी ?’

‘ना ना.’

‘व्हडली–मदली बी कितेंय अुलयतात ?’

‘ना.’

‘ म्हजेर बी कितेंय राग आसा ?’

‘ असो समज कित्याक करून घेतलो तुमी ?’

‘ मागीर जाला तरी कितें ? सांग तरी कितें जाला तें ’ खुशा-

लीन मात्शें बेजारून शें म्हळें. गोमती उलवचे बदला रडूंक लागली आनी थंयसून उठून दुसरे कुडींत गेली.

ते राती खुशाली खोशयेंत आसासो पळोवन आनी ताका मात्सो सुखोवन तिणें विचाल्लें, 'एक सांगू ?'

' हां सांग.'

' दुसरोच अर्थ घेवचें ना मूं ?'

खुशालीन तकली हालोवन ना म्हळें.

' कुन्नूक हांगा हाडूक जावंचोना ? म्हज्या जिवाकय मात्शे बरें दिसतलें. हांगाय आमकां कामाक मेळटलो. कांय ना जाल्यार गोरवांक चरवंक व्हरूंक तरी जातलो.'

खुशाली ह्या वेळार असल्या प्रस्नाची अपेक्षा करीनासलो. तो चिंतूक लागलो. कांय वेळान गोमतीक पळयत ताणे म्हळें, ' हे कशें जातलें ? ताणे हांगा येवप बरें दिसचें ना आनी तुजे–म्हजे मदीं दुसरो कोणी आसप हें म्हज्यान सहन जावंचे ना. दुसरे अशे कि संबंद तोडून घेतना बाबुट्यान कागदार बरवन घेतला कि चेडो बापाय म्हन्यातच अुरतलो म्हूण. तूंच सांग, आतां ताका हांगा कसो हाडूक पावतात आमी ?'

' ...... '

' तूं नकळ. हांवें ताका हाडचा म्हळें, त्या कागदांतय तशें बरयलें नासलें, तरी तुका कितें दिसना बाबुटो ताका वचूंक दीत ? मागीर त्या चांडाळाची चाकरी कोण करतलो ? त्या चोराक हांव पुरायेन वळखतां..... !'

गोमतीचें बापडें तोंड पळोवन खुशालीचें मन काकुटेन भरून आयलें. तिका थोपटीत ताणें म्हळें, ' जें पयसावल्लां, घडून गेलां ताजी याद करून आपलो जीव कित्याक दंडयता ? त्या पिशा मडयाकडच्यान कितें सुख मेळ्ळें तुका जीणभर ? भुरग्यांखातीरच म्हणशीत जाल्यार देवाच्या दयेन तुजी कूस हांगाय अुजवंये ! तुका भुरगेंच जाय मूं ?'

मनातली व्यथा गोमती ताका कशी उलोवन दाखयतली ? ज्या

भुरग्याखातीर मरणाचे धडेवेल्यान ती परतल्ली ताजी याद ती कशी विसरतली ?

सुमार दोन म्हयन्यांनी सुमती आपले भुरग्यांक घेवन कुळारा गेलें. तेन्नां गोमतीन घरातल्यान थोडें गोड आनी बिकणां बांदून दिलीं ताजेकडेन कुनुवांक दिवंक. खुशालीलें एक पिनकें खोमीसय दिलें ताणें रामग्याक घालूंक म्हूण. ह्या शियां दिसांनी बापडो कशे दीस काट्टा काय हाजी चिंता करीत.

पांच स दीस कुळारा रावन येवपाची ती बराबर एका म्हयन्यान सुमती परती आयली.

गोमती व्हाळार उदक हाडूंक गेल्ली थंय मेळ्ळी सुमती. ' चड दीस रावलें मुगो सुमती कुळारा ?' तिणें म्हळें.

' कितें करूं व्हनये ? गेल्लें तेंच त्रासांत पडलें. धाकल्याक चड बरें ना जालें....... !'

' आतां कसो आसा ?'

' कांयच समजना. गंगो घाडी सांगतालो आज्जेची वानसा उल्लया खंय ताजेर. तिका कितेंय दान दिवंक जाय. येता त्या उमाशेक बकरो दिवपाचें थारायलां.

' कुन्नू मेळिल्लो ?' कांय वेळान गोमतीन विचाल्लें.

' हय हय. मेळ्ळो ना कसो तर ! सद्दां सकाळीं बोकडयांक घेवन आमच्याच आंगणातल्यान तर वता ! तुवें दिल्लें दिलें ताका.'

' कितें म्हण्टालो ?'

' कांय ना. गोड–बिकणां पळवनच खोशी जालो. माकडाभशेन पुट् करून उडी मारून दोनीय हातांनी तोंडांत भरूंक लागलो.'

' मागीर...... ?'

ह्यांवें विचाल्लें, ' आवयची याद येनारे ?' तसो खातां खातांच दोळे भरून आयले ताजे. आनी पोटली धेवन लागलो धावंक !

हें आयकून गोमतीले तोंडार कितें कितें बदल जाले हें सुमतीच्या लक्षांत येवूं ना. पुण गोमतीचें काळीज मात् उतराकणकणीं

हालून गेलें. कांय वेळ अचेतशी अुबीच उल्ली ती. कांय वेळान तिका याद जाली. रडकुन्याशा सुरांत तिणें विचाल्लें, ' आंगार पुण कितेंय आशिल्लें ताज्या ? ह्या वर्सा तर शियान सामको आखांतच केला...!'

' आपल्या खोमसाचेर रामग्याचें पिनकें खोमीस घाल्लें ताणें. शियांन हातपांय फुटल्यात. पायांच्या तळव्यांतल्यान तर रगत व्हांवतालें. असले स्थितींतय ताका रानांत धाडटात ते दुश्ट. आनीक कितें म्हणटलें तांका ?'

अुदक घेवन सुमती गेलें पुण गोमती मात घागर थंयच दवरून कितलो तरी वेळ अुबीच आसली. खंय तरी नदर लावन



शीं पडूक लागिल्लें. ओनूं तें खूबच कडक आसतलें म्हणपाचो कुराय दिसूंक लागिल्ल्यो. थंड वारें व्हावतालें. आंग कातरता अशें. शेतांनी, खळयांनी, रानांनी दंव पडटालो तोय सुमाराभायर. धुंवरेन तर वाटलेगीत दिसनाशिल्ली. वाटेन वतना आंग भिजतालें. आनी ताजेर थंड वारें लागतकर तर आंग सामकेंच काकडटालें रानातल्यान उक्त्या पायांनी चलप कठीण जातालें.

सकाळफुडें धग घालून शेकूंक बसपाखातीर भुरगीं शिर्पुटां-शेणयो जमवंक लागिल्लीं. दोंगराच्या वेल्या वेल्या गांवानी तर इतलें शीं पडूंक लागिल्लें कि थंयचे लोक कांय दिसांखातीर सकयल्या गांवांनी येवन रांवक लागिल्ले. गोरवा वासरां आनी संवसारासयत. अशा तरेचें शीं हाजेपयलीं केन्नाच पडूंक नाशिल्लें.

बाप्पा नायकाबराबर दरयांदेगेवेलो व्यापार करपाचें खुशाली येवजितालो. इतल्यान खबर पावली—पुरसा घांटयेर बिबटयान बाप्पाचेर उडी घाली बाप्पा नायक रानांतल्यान वतालो. सदचेबशेन खांदार दांडो घेवन. दाट झाडांमदल्यान वाट काडटा आसतना अचकीत झिलींत बशिल्ल्या बिबटयान ताजेर उडी घाली. कांयवेळ दोगांलीय लटाफट जाली. बुधानंदाक कांयच सुचना जालें.

जिवाच्या आकांतान ताणे हातातलो दांडो घाल्लो–जाता तितलो भितर. फोर्सान तोंडात घाल्लो दांडो वाघाच्या तोंडांतल्या भितल्ल्या खंयच्या तरी मोव भागाक तोपलो जातलो. ताणे एक आखांताची गरड घाली आनी तसोच दांडो तोंडांत धरून तो थंयसून पळ्ळो. पुण तोंमेरेन बाप्पा सामकोच जार जाल्लो. रगतान न्हाल्लो सामको. आंगाक तर घाव जाल्लेच पुण तोंडाकय वाघान बुड्डिल्लें.

जाता नज, उठ्टा–बसता करीत बाप्पा कसोयतरी रानांतसून भायर आयलो. ल्हवुल्हवू करून ताणें रस्तो लागी केलो. आंगांतल्यान गेल्या रगतान आनी जाल्ल्या स्रमांनी तो घुंवळून पडटालो. इतल्यान रस्त्यान वचपी एका ट्रकवाल्याची नदर पडली ताजेर. ताका तसोच ट्रकांत घालून मडगंवां हॉस्पीतालांत पावयलो.

बाप्पा मरन जाल्यार म्हज्या दरयावेल्या जोडीचें कशें जातलें ? खुशालीचें काळीज उडलें. परतो उंडयेक म्हारग जातलों. घेतिल्ली बैलांची जोडीय विकची पडटली. शेतां-खळांचो धनी आशिल्लो परतो कामार खुशाली जातलो. ताका वाटावंकच जाय मणांतल्यान. हे चिंतून सांजचोच खुशाली घरांतल्यान भायर सल्लो. मडगंवां वचपाचे तयारेन. बाप्पा नायकाची सेवा – चाकरी करूंक. ताकाच लागून ताणें चार सुखाचे दीस पळयिल्ले. ह्या दुःखाच्या दिसांनीय ताका धरूनच रावंक जाय आसलें.



सकाळचो वेळ गोमती आंगणांत वतान बसून केंस अुगयताली. मान उमथी घालून केंसांतल्यान दांतोणी भोंवडायताली. माथ्यार केंसांत दांतोणी रोमून ती तिणें केंसांच्या शेवटामेरेन हाडली आनी उयो बी कितेंय जमनीर पडल्यांत म्हणपाचें पळवंक लागली. उयो ना हें पळोवन परती फणी केंसांत घालपाखातीर तिणें तकली वयर काडली. सामकारच सुमतीली व्हडली चली उबी, ‘ तुका आवयन आपला ’

‘ कित्याक गो ?’

'खबर ना. तूंच वचून विचार !' आनी ती दुसरेवटेन धांवत गेली.

दोनय हातानी केंस सारखे करून तिणें दोरयेक मारतात तशी गांठ माल्ली. खांदावेलो पोदोर सारखो करून ती सुमतीगेर वचूंक भायर सल्ली आंगणात पावतनाच तिची नदर सोप्यार बशिल्ल्या जिवाप्पाचेर पडली. पदर आनीकय मात्सो सारको करीत ती जिवाप्पाक पायां पडूंक म्हण बागवली. उजव्या हातांतली विडी दाव्या हातांत घेत जिवाप्पान उजवो हात वयर काडलो.

'कशी आसा तूं ?' विडयेचो धुंवोर भायर सोडून आनी खांकून ताणें विचाल्लें.

'आसा.'

घरांतलीं बी सगळीं बरी आसा मूं !' गोमतीनच परतें विचाल्लें.

'आसात. बरीं आसात.' ताणें विडी ओडपाचें आपणालें काम तशेंच चालू दवरीत म्हळें.

कांय वेळ मोन्यांनीच गलो. कितें उलोवचें हें कोणाकच सुचना जालें. कांय वेळान गोमतीनच परतें विचाल्लें, 'आज अकस्मातशे हांगा कशें पावले ?'

'असोच.' जिवाप्पान आनीकय धुंवोर सोडीत म्हळें. 'एक बोकडी हाडूंक गेल्लों बाजारांत. चिंतलें, येतना सुमतीगेरच्यान या. आमचो जांवय म्हण्टा हांव केन्नाच येना म्हूण तांगेर. म्हळें तांचीय रूस काडया.'

परतून तीच मोनेळ. सोंपत आयिल्ली विडी वण्टीक तेंकोवन पालयत कांय चिंतून जिवाप्पान कांय वेळान म्हळें, 'आमगेल्या रामग्यालें कांय म्हाका आतां धड लागना.' जिवाप्पान एक लांब हुस्को सोडलो. 'निसंतान जाव त्या बाबुट्याचें. हांकां झरवन खाता. पयर पोष्टांतल्यान पयशे आयिल्ले देवरायाचे. पैन्सल बी सगलो हिशेब धरून. ह्या चोरान तेय घेवन खाले अशें आयकलां. गेल्ल्या म्हयन्यांत इनिसपेक्टर सायब आयिल्लो. बाबुट्याक तापोवन गेलो. मरचेपयलीं देवरायान सरकारांत कळयिल्लों दिसता तुमकां हें खूबच

त्रास दितात म्हुण. आपुण तर हांगा सदांच लडायेर आनी घरा तांकां आदार दिवपी कोण ना. आनी फाल्या आपुण लडायेंत मेलों जाल्यार तांचे कितें जातलें ?'

अुलयता अुलयता जिवाप्पा अडखळ्ळोसो. तो कितें तरी चितूंक लागलो. ' आज आमचो देवराय जिवो आशिल्लो जाल्यार बाबुट्या चोराचें अशें फावना आशिल्लें. पयर लडायेर वतांवतां ताणें पोखरी पसरकाराक तर म्हळ्ळें लेगीत खंय, बाबुट्यान हाजेफुडें म्हण जर बायलांभुरग्यांचेर हात अुबाल्लो जाल्यार एकेकल्याक फारांनी मारतलों. मागीर फांसार वचचें पडल्यार पर्वा ना...! तोच बाबडो गेलो. आतां कितें ताजें ? बाबुट्याक आतां कोणाचीच भिरांत ना जाल्या. ताजो दिवटो वासगो आतां गांवचो राजा जाला. ताज्या आड जाप काडल्यार मारूंक उठ्टा. पंच-सरपंच सगळं ताज्या मुठयेंत आसात. जंगलांत भाट्यो लावन सगल्यांक पिवयता. सगळो गांव ह्या चोरांनी भष्टून उडयला कितें करतले ताका ?'

मोटवा, बारकेल्या कुडीचो जिवाप्पा उलयतां अुलयतां तावार आयिल्लो. पयर ताणें आमगेल्या पिरमाच्या आंगार हात घालो. हांव नाशिल्लों त्या वेळार घरा, नाजाल्यार त्या दिसा एक ताजें ना जाल्यार म्हजें रगत व्हांवपाचें !'

खांब्याक तेंकून मान सकल घालून गोमती आयकतच उल्ली.

'व्हनये, बस मगे तूं.' सुमतीन म्हळें तरी लेगीत ती तशीच रावली.

' सुने,' गोमतीक उलो करून जिवाप्पान म्हळें, ' हांवें तुका हे खातीर आपयिल्ली कि कुनुवांक बापड्याक तूं हांगाच तुजे म्हन्यात आपावन हाडून दवरून घे. नाजाल्यार बापायची जाली तीच ताजीय गत जातली. सुणे लेगीत खावचेंना असलें ताका खावंक घालतात तीं. तेंय पोटभर न्हय. बापड्याचें हाडान हाड दिसूंक लागलां. ताका पळयलें कि म्हजें काळीज लक्क-कन हालूंक लागता.'

गोमतीच्यान फुडलें आयकूंक नज जालें. ओंठ चाबीत ती तशीच खांब्याच्या आदारान धप्प करून जमनीर बसली.

' तुमीच कितेंय तरी करात ' दोनींय हात जोडीत तिणें म्हळें.

' म्हाका तर कांयच येवजना ! कितें करू ! म्हजेंच कर्म अशें खोटें कित्याक जाला !'

इतल्यांत मेथी आनी मिरयां घालून केल्ल्या हुनहून 'च्या'चे कोप घेवन पिरमा भायर आयलें. कोप हातांत दितना हातात एक गोडाचो कुडकोय दवल्लो तिणें. ' घे, च्या घे व्हनये !'

च्या घालून हाडिल्लें आलमीनचें कोप च्याचेपरसय हून जाल्लें. इतलो हून च्या कशी पितली ? ओठामेरेन व्हरून कोप तशेंच दवल्लें तिणें. जिवाप्पा मात सुर्र सुर्र करून रुचेन पिवंक लागलो. एका हातान गोडा कुडको जिबेक घश्टीत ताणें कोप अर्दे केलें.

कोपांतल्यान हूनहून वाफ भायर सरताली. जिवाप्पाच्या तोंडांतल्यानय...! 'रानांत चोरयां सोरो करता मादर्चोद. कोणेंय केस केल्यार जल्मभर भितर बसतलो...?' कोप तोंडाक लावन उरिल्ली च्या घटघटीत पोटांत घालून जिवाप्पा उठून उबो रावलो आनी तुवालो खांदांक उडवन बें बें करपी बोकडेचो दोर हातांत धरून जिवाप्पान घरची वाट धल्लीं.

मळबांत कुपां दिसूक लागिल्लीं. सूर्यदिवय पांगरून घेवन न्हिदूंक वतासो दिसतालो. पावस पडत कांय दिसूंक लागिल्लें वाटय लांब आशिल्ली. वाटेरच पावस लागल्यार ? जिवाप्पा झपाझप चलूंक लागलो.

खुशाली हॉस्पीतालांतच आशिल्लो बाप्पा नायकाली सेवा करूंक. तो मात्सो बरो आसा सो पळोवन तो एकदीस घरा आयलो. राती-कडेन गोमतीन ताका म्हळें, 'बाबुटो खंय चोरयां रानांत सोन्याची भाटी काडटा. कोणेंय केस केल्यार ताका बनखणींत बसचें पडटलें !' आनी आपणाल्या उलवण्याचो ताजेर कितें परिणाम जाता हे पळेंवंक म्हूण तिणें ल्हवूच तकली वयर करून खुशालीकडेन पळयलें.

ह्या वेळार असलें नाका जाल्लें उलवणें आयकून खुशाली बेजाल्लो.

' तो चोर बनखणीत वचूं नाजाल्यार फांसार वचूं तुका कितें ताजें ?' तिडकून ताणें म्हळें. 'ताजेखातीर तूं आपल्या जिवाक कित्याक

त्रास करून घेता ? शंबर फावटी तुका सांगले हांवें, ताच्यो गजाली तूं करीनाका. तुका लागनात त्यो ? पुण तुज्या अकलेक कितें जालां कोण जाणा. ज्या दिसा तूं या घरात भितर सल्लो त्या दिसा बाबुटो, रामगो, कुनुवां सगळे पयस गेले. तुज्या नदरेन ते मेल्ल्यांतच जमा जाले. आतां आनी तांचा विचार कित्याक ? म्हजें मन विरूस जाता तांचें नांव आयकल्यार !'

गोमतीन तोंड धांपून घेतलें.

ती चिंतताली. खुशालीच्या चार कडांनी वळखी आसात. इनिसपेक्टर–हवालदारय ताजें आयकतात. ताणें खंयच एक बीट बी बरवन घाली जाल्यार बाबुट्याक आनी बासग्याक तांच्या पापांची स्यास्त भोगतली.

पुण खुशालीलीं अुतरां आयकून ती हताश जाली

मनाचे शांततेखेरीत हांगा तिका सगळें मेळटालें. खुशालीय तिका कांयच कमी पडूंक दिना आसलो. हांगच्यान–थंयच्यान उदार हाडून चार वस्तींय तांणें पेटोवन घाल्ल्यो तिज्या आंगार. साडयो–पोलकेय हाडिल्ले. खावपा–पिवपाकय कमी नासलें ताज्या घरांत. तरी लेगीत गोमतीक दिसतालें, इतलेंच मेळवपाचे जाल्यार कोणागेरय रावन तिका मेळूं येता आसलें हें. कुडीचे बदला चार रोटये तिका कोणीय दिता आसलो. पुण असल्या जिणेची इत्सा तिणे केन्ना केल्ली ?

एक वित्रागाचें ल्हार तिज्या मनाक आफटून गेलें. दिसूक लागलें–हांगाय रावन कांयच जावपाचें ना !



ह्या वर्सा खुशाली बाप्पा नायकाबराबर ब्लॅकाचो धंदो करूंक पावलो नासलो. सामके दोन म्हयने बाप्पा नायक हॉस्पीतालांत पडून आसलो. घरा परतलो तेन्ना वळखूंक लेगीत येना आसलो तो. ताजें तोंड नाकाक दसिल्लें. उजव्या दोळयाच्या जाग्यार सुपारे येदे गूट आशिल्लें. वाघान ताका असो बुड्डून सोडिल्लो कि ताका पळवनच भंय दिसतालें. भुरगीं तर ताजेर नदर पडल्यार धांवंक लागतालीं.

आतां ताज्यान पयलींसारखें कामय जायना आसलें. ताजें हातपांय पयलीं सारखें काम करूंक पावना आसले. ल्वंचाचो धंदो म्हळयार सामको जोखमीचो. होडें तडीक लागलें कि अर्धा वरा-भितर तें खाली करूंक जाय आसलें आनी दीम अुजवाडचे पयलीं माल जागचे जाग्यार पावपाक जाय आसलो आनी तोय ह्या कानाचें त्या कानाक कळचे पयलीं. इतले दगदग काडप आतां ताज्यान नज आमलें. ताणें घरचे घराच चार पयशे जोडपाची तकली काडली. हेवटेन तेवटेन सोरो पावपाचो धंदो ताणें सुरू केलो. पुण ह्या धंद्यान ताका हात दिवू ना. आठ–धा म्हयने काम करूनय बोल्सांत व्हडलेंशें काय जमलें ना तेन्ना ताणें होय धन्दो सोडलो. मागीर ताणें आनीक एक तकली काडली. बोकडयांचो धंदो सुरू केलो. धंद्यात पयशे ताजे. ताका पोसप–विकप खुशालीन ! जें कितें सुट्टलें तें अर्दें–अर्दें.

जातीन बामण जाल्ल्यान ताणें बोकडयो पोसपाचो धंदो केल्यार लोक कितें म्हणटले ? म्हण्णच तकली काडून ताणें तें काम खुशाली-कडेन सोंपयिल्लें. पयल्याच खेपेक अकरा बोकडचो आनी दोन बोकड हाडले ताणें. खुशालीन घरामुकारच एक माटोव घालो !

बेकार रावपाचें ताजें संकट आतां पयसावल्लें. आतां ताका परतो धंदो मेळिल्लो !



मल्लकार्जुन देवळाकडेन जात्रा चलताली. नाटकां बी आमलीं. गांवचे जायते लोक वताले. खुशालीन गोमतीक वता काय म्हण विचाल्लें. 'हांव वचना !' एकच उतरान तिणें सांगून अुडयलें.

'सामकीच पिसाय कशी तूं. तुजेल्तीर एक दोन घागरे साडचो थंय आयल्यार घेवंया. खाज्या मांड बी येतले. जिलब्यो–हाल्वो खातली पोटभर. घरचें काम सदांचेंच आसा. जात्रा नाटकांनी भोंवपाचे हेच दीस तुजे.' खुशालीन हांसत हांसत तिका फुलयली.

मनांत नासूनय गोमतीक वचचेंच पडलें. नटून थटून गेल्यार आपलो मान–सन्मान वाडटलो अशें खुशाली चिंततालो. शेजारपाजा-

रच्या लोकांक आनी जातवाल्यांक आपली शिरमन्ती दाखोवपाची खुशालीक खूब उमेद.

हें चिंतून खुशालीन गोमतीक बरे बरे कपडे न्हेसूंक सांगलें. पायांत, हातांत बी दागिने घालूंक सांगलें. पयरच हाडिल्ल्यो माळो ताणें आपल्या हातांनी तिज्या गळयांत घाल्यो.

जात्रेक पावतगीर खुशालीन बोल्स सामकेंच सदळ सोडिल्ली. गोमतीखातीर माळो, कांकणां, कानांतलीं, एक दोन न्हय कितलीशीच खरेदी केली ताणें. तोंड पुसूंक रेशमी तुवालोय घेतलो.

बाप्पा नायकाबराबर मेळयिल्लो पयसो शिल्लक आशिल्लो. अुदार हातान खर्च केलो.

गोमतीखातीर इतलेंय सगळें घेवनय ताजो जीव धादोशी जावूं ना. सांजवेळचे घरा परततना खाज्याच्यो आनी मिठायेच्यो आनीकय दोन तीन पोटल्या घेतल्यो ताणें.

बस मेळटली जाल्यार रस्त्यामेरेन चलून वचूंक जाय आसलें. चलून रस्त्यार आयलीं. पुण बसी अशो भन्न भन्न वताल्यो कि तातून पांय दवरूंक लेगीत जागो मेळूंक कठीण आसलें. गाडयो थामोवंक लेगीत ड्रायव्हर तयार नासले. तीं तशींच चलत चलत चावडेर पावलीं. थंय पावपाक खुशालीक कोणाक तरी मेळून येवपाची याद आयली. बसीखातीर हेर जायते दादले-बायलो उब्यो आशिल्ल्यो थंय गोमतीक राव म्हूण सांगून खुशाली आपल्या इश्टाक जाप दीवंक म्हूण गेलो. बसीखातीर खूबच लोक जमिल्ले. सगळेच जात्रेकसून परतताले. ताका, लागून हांगाय एक जात्राच भरिल्लीसारखी दिसताली. गोमतीय तांतलीच एक जावन बसीची वाट पळयत आशिल्ली.

'आं. व्हनी मगे. हांव तर तुका वळखूंकच ना येदोळसाकून. देवता कशी शिरंगाल्ल्या मगे तूं! आवय आवय आवय! हीं कांकणां केन्ना हाडलीं गे! आनी ह्यो पायांतल्यो कितल्याच्यो? आनी ही साडी खंय घेतलीं गे! सगळीच चकचकता मगे आज सामकी.'

गोमती लजेवन गेली. एकय अुतर दिवप जमले ना तिका! पिरमा प्रस्नार प्रस्न विचारताली. जिवाप्पाली धाकली चली ही! जात्रेक आयिल्ली.

गर्देतल्यान तिका मात्शी पेल्यान व्हरून गोमतीन खाजाच्या आनी मिठायेच्या पोटल्यांतली कांय मिठाय तिज्या लेंसांक बांदीत म्हळें, ' ही मिठाय म्हज्या कुनुवांक व्हरून दी.' जात्रेकसून तिणें एक पिल्लूक हाडिल्ली तीय तिणें कुनुवांक दीवंक म्हूण पिरमाकडेन दिली.

' विसन्नाका हां !' गोमतीलो गळो अंदल्ल्यासारको जालो.

कांय वेळ थामून तिणें विचाल्लें. ' तुज्या भावाचें बी कशें आसा ?'

' रामगोदादा मगे ?'

' हय हय !'

' तुका खबर ना व्हनये ? इनिसपेक्टरान बाबुट्याकाकाल्या भट्टेर धाड घालो. तेन्ना थंय सांपडलो रामगोदादा बाकीचे सगळे पयलींच थंयच्यान पळिल्ले. ताकाच बेडयो घालून व्हेलो.' पिरमान एकाच खेपेंत सगळें सांगून उडयलें.

' सकाळीं जात्रेक वतना ताका विडयो दिवंक गेल्लें. हांगाच पुलिसेंत आसा बाबडो. कोणें करप आनी कोणें भरप ?'

पुलीस स्टेशन लागींच आशिल्लें. गोमती ते वटेन पळवंक लागली. ल्हवूच तिणें पिरमाचो हात हातांत घेतलो. तिजे कानांत कितें तरी सांगलें. पिरमानय दोळ्यांनीच हय म्हळें. सामानाची पोटली थंयच एके बायलेचे सुवादीन करून आनी रोकडींच येतात म्हूण सांगून तीं पुलीसस्टेशनाची वाट चलूंक लागलीं.

पिरमा तिका फाटलेवटेन घेवन गेली. रामग्याक दवरिल्ली कूड दाखोवन ती थंयच रावली. गोमती ल्हवूल्हवू ते कुडीवटेन चलूंक लागली. कुडीक एक ल्हानशेंच जनेल आसलें. दोनीय हातांनी जनेलाच्या खुरांक धरून तिणें पांय अुबारून भितर नदर माल्ली. रामगोय जनेलावटेनच तोंड करून बशिल्लो. भायर पळयतालो. म्हऱ्यांतच विडयांची पोतेरां आनी जळिल्ल्यो काडयो पडिल्ल्यो.

बटबटीत दोळे, कंवचेचे कुडके कशे. भकाभका पळवंक लागलो तो त्या निस्तेज दोळ्यांनी. गोमतीक पळयलें ताणें. पुण ताज्या दोळ्यांत वळखीची कुरा दिसूं ना.

भरिल्ल्या दोळ्यांनी गोमती ताका केदोवेळ तरी पळेतच अुबी आसली..

सांगना कित्याक आपणें कांयच करूं ना म्हूण ! आपलो कांयच गुन्यांव ना म्हूण सांग.

गोमती ताका सांगूक सोदताली. पुण एकय उतर तिज्या गळ्या-तल्यान ओंठार येवंक ना.

' व्हनये, बस येवपाचो वेळ जालो. बेगीन यो.' पिरमालो अुलो कानार पडलो तेन्ना गोमती भानार आयली. कमराक खोयिल्ल्या बोटव्यांनल्यान विडयो आनी फस्क जनेलांतल्यान भितर उडयलें तिणें.

पुण रामग्यान तांकां हात लेगीत लावं ना. कसले नदरेन म्हूण कोण जाणा, पुण तो विडयांक आनी फस्काक पळयतच आशिल्लो.



झपझप चल्त तीं परतीं आयलीं. यो जाल्यार खुशाली तिकाच सोदता.

' खंय गेल्ली ?'

' हांगाच.'

' अरे, तूं रडटा कित्याक ?' अजापान खुशालीन विचाल्लें.
' रडटा ? खंय ! हांव तर हांसतां !' गोमतीन हांसत म्हळें आनी ती ताजे म्हन्यांत वचून अुबी रावली.

गोमती हालीं हालीं बेजारिल्लेभशेन जाल्ली. पुण खुशालीखातीर जें किनें करपाचें आसलें त्या कर्तव्याक ती चुकनासली. ताका जें जाय आसलें तें ती मोन्यांनी दिताली. एक परती जाप केन्नाच दिवंक ना ताका तिणें. जिवाक बरें दिसलें ना तरी ना म्हळें ना.

खुशाली तिजेर इतलो जीव करता हें पळवन तिज्यो दोनीय सवनी मात सामक्यो विकार जाल्ल्यो. स्वताक दुर्भागी समजताल्यो. खुशाली दीसभर तिच्याच वांटयाक ! रातभरयबी तिज्याच म्हन्यांत! घराची चावीय तिजेच कमराक !

बोकडयांक तण घालतना एक दीस व्हडलेन तिडकीन म्हळें, ‘ तुमी कातीक भुल्ल्यात. कामाकडेन लक्ष ना तुमचें. आमी शेतांत हाडां झरयतात आनी ही घरांत राज्य चलयता. बसून पांय हालयत खाता. हिका लागल्यात न्हय म्होंवांचे शिसे !’

‘ घरांत रानप–वाडप करपाक कोणेंय तरी रावंकच जाय न्हय घरांत ?’

‘ हय, हय, हिणेच रावंक जाय ! घरांत रावली ना जाल्यार आपल्या पयलींच्या घोवाचेर मोग कसो करतली ? तो आसा न्हय तिजो पयलींचो...! तुमचे कपडे चोरून कशे धाडटली ताका ? आपल्या चल्याक गोडा कुडके आनी बिकणां कशी पावयतली ? आनी तुमी, तुमी तिका तिज्या पयलींच्या धगडाक मेळोवंक चावडेर कशे व्हरतले? ...हांव फट उलयतां जाल्यार सुमतीक विचारात ! खिमलीक आपोवन विचारात ! पयर जात्रेक गेल्ली तेन्ना ताका मेळूंक ही पुलीस स्टेशनार गेल्ली. दीसभर रांड ताजी याद काडून रडत आसता. इतलो ताजेर जीव आसा जाल्यार तोंड काळें करून थंयच कित्याक वचना ? चेडी, आमचे घराची दुर्दशा करूंक आयल्या हांगा...!’

तेवेळार खुशाली ओगोच रावलो पुण मागीर आनीकय जायत्या जाणांनी सांगलें तेन्ना ताजें मन दुबावलें. संशयाचीं फोडां नाच्चूंक लागलीं ताज्या मनांत. इतलेंय सगळें करूनय बी अशें... त्या दिसा रांड न्हंयत जीव दीवन मेल्ली जाल्यार इतली लज जावपाची न्हय आनी संबंध तोडपाखातीर खर्चय जावपाचो न्हय !

दीसभर खुशाली चिंतत आशिल्लो. रातचें सदचेपरस इल्लें चडच मारून तो हांतुणार पडलो.

रानचेकुडींतलें सगळें काम सोंपोवन गोमती कुडींत यो जाल्यार सगळो काळोख. कुर्कुटांतली चिमणी आज पेटनाशिल्ली. फस्काची काडी मारून तिणें चिमणी पेटयली आनी खुशालीक जागो करून दुधाचें कोप ताजे म्हऱ्यांत दवल्लें. ‘ आज तुमी बेगीनच शे न्हिदले ? जिवाक बी बरें आसा मूं ?’ खुशाली कांयच उलयलो ना. दुधाचें कोप ताणें हातांत घेतलें. थंड जाल्लीं हाताचीं बोटां हूनहून कोंपाभोंवतणीं

धरून गरम करीत तो गोमतीक पळवंक लागलो--

ताजे दोळे तामडे जाल्ले. तोंडय तशेंच !

गोमतीकडेन रागान पळयत तो उलवंक लागलो, 'तुका चेडयाची चड याद येता ? चड वायट दिस्ता तो म्हन्यांत ना म्हूण ?'

गोमती हाजेर किते जाप दितली ? ती ताका पळेतच रावली-असलो प्रस्न खुशालीन हाजेपयली केन्नाच विचाल्लो नासलो. आजच कित्या विचारता अशें ?

' हांव विचारतां तें सांग न्हय !'

' येता केन्नाकेन्नाय !' तिणें तकली हालोवन जाप दिली.

' रामग्याली'

गोमतीन मान सकल घाली.

' तुका ताचे म्हन्यात वचन दिसता !'

कितें जाप दितली हे गोमतीक येवजना जालें पायांच्या बोटाच्या नाखटांनी कोनाक सारायिल्ल्यो जमनीचे खवळे उसवंक लागली.

ह्या खेपेक आवाज मात्शो मोठो करून खुशालीन विचाल्लें, 'हांव विचारतां-तुका तांच्या म्हन्यांन वचन दिसता ?'

'हय. तुमी वचूंक मान्यताय दितात जाल्यार !' गोमतीन काकुटेक येवन ताजे पायांर घालून घेतलें. ' म्हाका कितें जाता खबर ना ! एक फावट म्हज्या कुनुवांक मेळून येतां. आयकलां चड बरें ना खंय ताका... हाडानहाड दिसूक लागलां खंय ताजें...'

' मागीर थंयच तांचे म्हन्यांनच वचून कित्याक रावना ?' कितें तरी चिंतत खुशालीन म्हळें.

हें आयकून गोमतीलो जीव धादोस जालो. 'तुमची आज्ञा आसा जाल्यार... !' दुकांनी भरिल्ल्या दोळ्यांनी तिणें खुशालीकडेन पळेलें, 'चडांत चड कितें जायत ? तो वासगो आमकां सगळ्यांक मारतलो ! तांचेबराबर मरण आयल्यार लेगीत म्हाका दुख्ख भोगचें ना... !'

तिज्या उतराकणकणीं खुशालीच्या आंगाक अुजो पेट्टालो. कशें-बशें सहन करून घेतालो तो. आतां मात अन्तच जालो. चड सहन करप ताज्यान जायना जालें. रागान ताजी कूड थरथरूंक लागली.

दोळयांतल्यान अुज्याचीं केणांशी उसळूंक लागलीं. गोमतीच्या हड्डुचार एक लाथ मारून तो उसळ्ळो, ' सुण्या अकलेची रांड ! तांचे बराबरच मरपाचें आशिल्लें जाल्यार हे इतलें सगलें नाटक कित्याक केलें ? कित्याक आयली हांगा ? थंयच मरची आसली तूं बरी जाल्यार सुण्याबशेन उष्टयावारे कित्याक अुस्तिता आशिल्ली !'

' तूं पयलीं तसली सुण्या कास्ताची...!'

गोमती वण्टीर शेंवटल्ली. थंयच उठून बसली.

बरें उलयता विचारता थंय आसा, मर्दीच हाका कितें जालें ? खशालीक अकस्मात असो राग कित्याक यवचो हेंच तिज्या साध्या सभावाक कळूंक ना. लाथ मारिल्ली ताजे न्हय दुसरेंच कसलें तरी दुख्ख भोगतालें तिका.

' हांगसून वचपाचे मनांत तरी कशें येता तुज्या ?' काळखांतच खुशालीचें तापप तिका आयकूंक येतालें, ' आतां संबंद म्हजे नावाकडेन तोडला तुजो ! चारशी रुपया कर्ज काडून तुका म्हज्या घरात हाडल्या हांवें. पयली बापायगेरच्यान चारशीं रुपया हाडून दी आनी मागीरच हुमराभायर पांय दवर. पळयता हांव, तूं अशीच पयशे दीनासतना कशी त्या चोराचे, रामग्याचे घरा वता ती ! ओडीत हाडटलों थंयच्यान ! वळखली ना तूं म्हाका सारखी. रांडेक आतां नवो धगड जाय जाला दिसता. सगळें समजता म्हाका...?'

गोमतीच्यान आयकूंक नज जालें. ताज्या हांतुणार आनी परती वचूं ना ती. पडिल्ली थंयच एका कोनशाक पडून रावली ती. शियांत कडकडत.

तिका याद जाली—

अशेंच तिका तेन्ना भोगिल्लें, जेन्ना तिजें पयलेंच लग्न जाल्लें तेन्ना. गांवडकऱ्या... रामग्याकडेन तिजें लग्न जावचे पयलीं. बारातेरा वर्सांची आसली ती लग्न करून घोवागेर गेली तेन्ना. तिजे दुधाचे दांतय अजून पडचे आशिल्ले. संवसार म्हळचार कितें हेंच नकळ आशिल्ली ती. लग्न कित्याक करतात ? लग्न करतगीर कितें जाता,

कांयच खबर नासलें तिका. तिका फकत खुशी जाल्लीं ती नवें नवें आनी बरे कपडे घालूंक मेळ्ळे हाजी.

रातचीं जेवणां बी जातगर तिज्या विधवा जावेन तिका हाताक धरून भितल्ले कुडींत व्हरून पावयली. आनी स्वता भायर येवन तिणें दाराक खिळी घाली.

मांव–मांय, नणंद–देर कोणच नासले ह्या घरांत. पयसुल्ल्या नात्यांतल्या ह्या घोव मेल्ल्या वांझड्या भावजेबराबरच रावतालो तिजो घोव गेल्लीं तीन चार वर्सां. सोयऱ्याधायऱ्यांनी तांगयलो म्हूणच तो लग्न जाल्लो. नाजाल्यार लग्न जावपाचोय न्हय तो. गरजच नासली ताका.

काळख्या कुडींत तिका पयलीं भंय दिसूंक लागलें पुण इतल्यान कोणाच्या तरी चलपाचो आवाज तिणें आयकलो. घोवाच्याच पायांचो हो आवाज म्हणपाचें कळूंक तिका वेळ लागलो ना.

तिज्या हाताक धरून ताणें काळखांतच तिका हांतुणार व्हेली. घोवा–बायलेचे संबंध म्हळ्यार कितें, हें तिका कितें खबर ? ती गरम हांतुणार न्हिदली. दीसभर बोवाळान पुरोऽ जाल्लें तिका. न्हिदेन दोळयांच्यो पातयो जड जाल्ल्यो. तिका झेम येवंक लागली, पुण तो लाडान तिजे आंग पोरशितालो. ताजे हात तिज्या आंगावेल्यान भोवंक लागिल्ले. ताणें लाडांत येवन तिका घट्ट वेंग माल्ली. ताज्या वेंगेंत ती घुसमटूक लागली. कांय मर्यादेमेरेन तिणें सोसलें-सोसूंक लागली. पुण घोवाच्या मोगाची मर्यादा जसजशी वाडूंक लागली तेन्ना अबोध गोमतीची भिवन गुळी जाली. चडच दुख्ख जांवंक लागलें तेन्ना ती व्हडान किळचली !

जसजसो घोव आपलें बळ दाखोवंक लागलो, वाडोवंक लागलो तसतसो तिच्यो किळच्योय वाडत गेल्यो.

कितें जालें म्हुण कोण जाणा अकस्मात घोवाक तिडक शी माल्ली आनी तिज्या अकल्या हड्डयार ताणें दोन घुमके घाले आनी दोनीय हातानी उबारून तिका कोणशाक शेंवटून माल्ली.

आतां ती मुसमुसून रडत कोणशाक पडिल्ली इतल्यान खटक्

करून दाराची खिळी काढून तिजी जाव धपधप करून भितर आयली.

'हां, हां. असली अक्कल हांगा अुपकारची ना, हिका हांव जाग्यार हाडटां, हांव !' अशें म्हणत तिणें गोमतीक ओडीत परती घोवाचे हातुणार व्हेली. तिका आड घालून जावेन आपल्या घटमुट पायांनी गोमतीले दोनीय पांय दामून घट धल्ले आनी देराक म्हळें– 'हां... हाड तिका जाग्यार आतां !'

घोवान आपलो एक हात गोमतीच्या ओंठांर दामून धल्लो आतां बोब मारतली म्हळ्यारय तिजें तोंड उकतें नाशिल्लें.

कांय वेळान मढेंशी ती एका कुशीक पडून रावली. . जीव नाशिल्लेसारकी. हुमेवन कासावीस जावन.

कुडींत भीतर जाताली ती पीडा सोसू नज जावन ती परवंताली! केळीचें पान वाऱ्यान हालना तशी तिची कूड हालताली, जावेन तिज्या हाताक धरून तिका उठयली आनी तशीच ओडीत भायर हाडली. भायर उक्ताडारच तिका अुडोवन ती स्वता देराचे कुडींत गेली आनी खटाक करून तिणें भितल्ल्यान खिळी घाली.

सकाळमेरेन शियान कुडकुडत पडिल्ली गोमती जिणेंत पयलेच फावटी घोवान तिजेर बलात्कार केल्लो.

आपणाक कोणाचोच आदार ना अशे तिका तेन्नाय दिशिल्लें– जशें आज तिका दिसलें.

आजय तेंच परतें घडटालें. मात्शें वेगळे तरेन. घोवान खुशाळीन तिका ओडीत भायर व्हरून उडयली तेन्ना दोनीय सवती एक जावन कुडींत भितर गेल्यो. भितल्ल्यान घडाम् करून खिळी घाल्ल्याचो आवाज तिज्या कानार पडलो...!

सकाळीं तिजें तोंड सुकून आयिल्ल्यासारकें जाल्लें. उदक घेवन ती घरा आयली तेन्ना घोव घरान ना हाजो लाव घेवन दोगांय सवतीनी तिज्या आंगावेल्यो सगळ्यो वस्ती उतरायल्यो आनी तिज्या कमराचो घराचो चाववांचो घोंसय काडून घेतलो.

परतून गोमती भिकमागी ती भिकमागीच जाली. दीसभर भायलें

काम करताली, अदक हाडटाली, रानांतल्यान लाकडां हाडटाली, जळपाचीं लाकडां फोडून बारीक करताली. गोरवांच्या–बोकडचांच्या गोठ्यांत सान्न मारताली आनी रातची वासरेत मुकाट बोनर हातळून न्हिदताली.



‘ तुजी आवय चड बरी ना. एक फावट नदर घालून वच म्हूण सांगलां तुका ’ कोणें तरी गोमतीक रकाद दिलो.

येद्याव्हडल्या संवसारांत गोमतीक एकच जागो आसलो तो म्हळचार कुळाच्चो. थय ती रातच्या काळखांत वो दिसाच्या उजवाडांत जांव, हक्कान वचूंक पावताली. बापूय कसो आसता हें तिका खबर नासलें. बापायची माया तिणे केन्ना अणभवलीच ना. घोवालें सुख तर ती भोगतालीच ! आवयच एकली उरिल्ली, जिच्या मांडयेर तकली दवरून येद्या जाण्टेपणातय ती सुख–दुख्खाची चार उतरां उलवंक पावताली, चार दुकां गळवंक रावताली, मनातली व्यथा उक्ती करूंक पावताली.

आवय आपुण स्वना उपाशीं रावली तरी सणा परबेक चलयेची याद काडटाली, कितेंय ना कितें धाडून दिताली. लोक आपआपल्या चलयांगेर कितें कितें धाडटाले, पुण ती बाबडी खंयच्यान हाडटली वर्जीं धाडूंक. तरीय लेगीत हांगा– थंयच्यान अुरणें–पारणें मागून गोमतीक धाडटाली !

तोय आदार मुटल्यार आतां ह्या संवसारांत कितें उल्लें ? दुख्खाच्या आनी संकश्टांच्या वेळार कोणालें दार धाडायतली आतां ?

गोरवांचो गोठो, बोकडांचो माटोव निवळ करतना गोमती कितें कितें चिंतताली देवच जाणा ? ह्या दिसांनी तर चिंतनांच तिज्या फाटल्यान लागिल्लीं !

खुशाली भायर गांवा गेल्लो तो निकतोच आयिल्लो. आंगणात माटवांपोंदा बसून विसंव घेतालो घरांत वचून गोमतीन ताका पिवपाक थंड उदक हाडलें. चिलीम ओडटालो तो. ताजेखातीर तंबाकू आनी

उजोय हाडून दवरिल्लो तिणें.

उदक पिवन जातगर खुशालीन चिलीम भल्ली आनी पेटोवन एकदम माल्ली. ताज्या तोंडातल्यान धुंवराची लांब बडी भायर सल्ली धुंवोर सोडीत खुशाली गोमतीक पळवंक लागलो.

गोमतीचे गोऱ्या गोऱ्या मनगटांक शेण लागिल्लें. तिजी साडीय फटकूर जाल्लें. आनी तिजेरय शेणाचे शितोडे उसळिल्ले. साडी तिणें धोपरामेरेन वयर खोयिल्ली. पोनचे पांयय शेणान भरिल्ले.

माटवाच्या मेडीक तेंकून तणाच्या कांडयेन दांत कोरायत तिणें ल्हवूच म्हळें, 'कुळारच्यान रकाद आयला, आवयक चड बरे ना म्हूण! रामगो–कुनुवांसारखेंच तीय म्हाका मेली अशें मानूं ? तुमीच म्हळ्ळें न्हय...! कांय मरता आसतना एक नदर घालून येवं तिजेर ?' तिजो गळो भरून आयिल्लो. निमाणचीं अुतरां गळयांतल्यान सारखीं भायर येवूं नात. खुशालीची ल्हंवेन ल्हंव हाल्ली. नदरेन तो गोमतीक पळवंक लागलो. दोळयाची पानी लेगीत हालयनासतना, गोमतीची कूड तेळूंक लागलो, जिका अजूनय तर्नाटेपणाचो वास येतालो.

तिज्या काळसार निळया, जुवानपणाची नशा भरिल्ल्या दोळयांच्या पातयेपोंदा अप्रुपांच्यो मिरयो एकठावल्ल्यो.

'गोमू, खोटो समज केलो तुवें म्हजेविशीं !'

'म्हजी अक्कल ती केदीशी, तुमचेविशीं फटींचो समज करून घेवंक ?' पयलींच्याच तिखट सुरांत ती अुलवंक लागली. 'इतली ख्यास्त तुमी म्हाका भोगयली. तिजेपरस चड कितें भोगयतले तुमी म्हाका आतां ? स्वता म्हाका मारून तुमचें पोट भरूं ना म्हूण सवतींकडच्यान म्हाका मारूंक लायलें... म्हाका जायच आशिल्लें जाल्यार कोणाचेंय घर वसवन जाय तें मेळयतां आसलें हांव. पुण हांवें तें केन्ना चितूंकच ना. तुटिल्लें–फुटिल्लें जायना कित्याक, म्हजें एक ल्हानशें जग आसा, थयय जियेवंक दिनात म्हाका लोक ! सुण्याभशेन पयस पयस करतात...!' तिजें दुख्ख मोनें जावन दोळयांतल्यान पाझरूंक लागलें.

खुशालीय जाल्यार एक मनीसच ! ताणें गोमतीच्या खांदार हात दवल्लो. 'गोमी, खऱ्यानीच तुवें दुसरोच अर्थ लायलो म्हज्या सांगणेचो.

तुवें आतां आनीक हेरांच्याविशीं चिंतनये इतलेंच म्हण्टालो हांव....
तेखातीरच हांवें....'

'आवयन आपल्या भुरग्याविशींय चिंतनये? हांव कोण तर जिवाणें पोटांत वाडिल्ल्या भुरग्याक विसरूंक? जल्म दिल्ल्या भुरग्याक कशें विसरूं हांव? रस्त्यावेली रांड समजतात न्हय तुमी म्हाका, जिका वीस विसो रुपया दीवन संबंद तोडून आपलें घर बसवंक हाडल्या?' गोमतीचें सगळें दुख्ख, सगळो राग उसळून आयिल्लो. रागान तिजीं नाका पुडां फुरफुरूंक लागिल्लीं......

गोमतीचें हें रूप खुशालीन केन्नाच पळवंक नाशिल्लें. तो अदिकच तकित जालो तें पळोवन. रागान तामडें जाल्लें तिजें तोंड ताका अदिकच सुंदर दिसूंक लागलें.

त्या राती खुशाली परत तिका ओडून कुडींत घेवन गेलो पुण ती मात फातोर कशी निश्प्राण पडून आशिल्ली हातुणार. तिजी कूड ताका साथ दी नासली.

'म्हजें मनच सैरभैर जालां आज! आज म्हाका त्रास दिवं-नाकात! खंयच लक्ष लागना म्हजें!'

पुण खुशाली तिका कसोच सोडूंक तयार नासलो! कपडे काडिल्ली तिजी कूड तो खूब वेळेमेरेन पोशेत रावलो. ही सुखदिणी कूड सोडून तो रावंक पावतलो– ताणें केन्ना चिंतलें लेगीत नासलें.

'आवय बरी ना जाल्यार फाल्यां वचून यो. पुण थंय मात वचूं नाका ..' ताणें गांवाचें नांव सांगूना, पुण तो थंय म्हळचार खंय वचू नाका म्हण्टा हें गोमती जाणा आसली.

'तिळसानमेरेन मात परतें येवंक जाय हां!' ताणें फुडें सांगलें...

गोमती तशीच पडून आशिल्ली हांतुणार.

'तुका फाल्या आनीक दोन साडयो हाडटां! वस्ती हाडटां!'

गोमतीन कांयच जाप दिवूं ना.



दीस उजवाडचे पयलींच फांतोडेर ती भायर सल्ली आवयक पळवंक वचूंक.

हांतुणार पडिल्ली तशीच आशिल्ली आवय. बरी जावपाची आशाय नाशिल्ली आनी मरून मुक्त जावनय वचपाचीं चिन्नां दिसनाशिल्लीं. तिजी कूड म्हळचार हाडांचो पांदरोच जाल्लो, चामडी चडयिल्लो. गोमतीली म्हातारी मामीय आयिल्ली तिज्या खबरेक.

भायर आंगणांत लोखण धाडावपाचो आवाज येतालो. उज्याच्या भोंवतणीं बसून लोक उलयताले, 'रामगो कादयेंतल्यान रोकडोच सुट्टलो आतां. केस कोर्टात गेल्या. ताणे कांय करूंकच ना जाल्यार ख्यास्त तरी कशी दितले ताका ?'

'चुकेक आनी ख्यास्तीक संबंद कितें ?'

'संबंद आसूं, नासूं. पळयात तुमी तो रोकडोच सुट्टा काय ना तो.'

भायर वाद चलतालो पुण गोमतीचें लक्ष थंय नासलें. तिजी नदर लागिल्ली सूर्याकडेन. सांजमेरेन परती येवपाची बोली केल्ली तिणें. तिळसानमेरेन परती पावली ना जाल्यार सगळीं मेळून परतो शिगमो करतलीं.

'आवय फाल्या-परां परतें येतां हांव,' सांगून ती चलूंक लागली, एकलीच.

आज तिजें मन खूबच अुदास जाल्लें. खुशालीच्या गांवची वाट चलूंकच तिजे पांय तयार नासले. वाटेवेल्या घांटयेरसून तिका तिजो पयलीचो गांव तिजो कुनुवा आसा तो स्पश्ट दिसतालो. बुडट्या सूर्याचीं निमाणीं किर्णां दोंगराच्या तेंगशेर पडून चकचकतालीं.

ह्या वेळार कुन्नू बोकडांक घेवन दोंगर देंवता जातलो.

–कुन्नूक बाबुटोका सदांच मारता जातलो ! मेल्ल्या सुण्याच्या दोक्याक धरून ओडून व्हरतात तसो बाबुटोका कुन्नूक भायर शेंवटीताय जातलो सदांच.

–ताज्या आंगार आतां इल्लें लेगीत मांस उल्लें ना जातलें ! ह्या शियांत पोर कुडकुडटा जातलो.

–बापूय बनखणींत वतगीर आतां ताका कितें दिसता जातलें ? एकलोच, एकसुरोच सामकोच आदार नाशिल्लो.

– इतलें दुख्ख ! इतली दंडना ! येदी ख्यास्त !

दोनीय हातांनी तकली घट्ट धरून गोमती वाटेरच बसली. तिजी ल्हंवेन ल्हव शिरशिरली.

काळोख चारीय दिकांतल्यान धांवन आयलो. ती उठून चलूंक लागली. तिजे पांय खुशालीचे गांवावटेन पडनाशिल्ले. आनीक खंय तरी ते फुडें सरताले– दुसऱ्या दिकेन !



तीन–चार दीसमेरेन गोमती परतली ना तेन्ना खुशालीक अजाप जालें. तिज्या कुळरा ताणें मनीस धाडलो तेन्ना कळ्ळें ती त्याच दिसा परतल्ली सांज जावचे पयलीं.

खामगांवाय पावली नासली ती.

मागीर ? खुशाली हात चोळीत रागान खतखततालो. ताका दिसतालें, तिका घरांत त्रास दिले नासले जाल्यार ती अशी पळून वचपाची न्हय. ती गेल्याचो दोश तो आपल्या दोनय बायलांचे माथ्यार थापतालो, जांणी तिज्या आंगावेल्यो वस्तीच काढून घेतिल्ल्यो न्हय तर घरच्यो चावयोय तिजेकडल्यान जबर्दस्तीन काढून घेनिल्ल्यो. दोळयांत पडिल्लें कुस्कुट काडून उडयतात तशी तिका ताणीं घराभायरी करून अुडयिल्ली.

तेबटेन बाबुट्याक आनी वासग्याक एक बरो विशय मेळिल्लो गाळी घालूंक. त्या दिसा खुशालीच्या आंगणांत पडिल्ल्या माराचे वळ ताज्या मनातसून गेले नासले. गोमती ना जाल्ल्याक तर ते चडच चुरचुरूंक लागिल्ले. पोटभर हांसून घेतिल्लें ताणीं खुशालीक ह्या दिसांनी. जेन्ना जेन्ना म्हण खुशालीची वो गोमतीची खबर जाताली तेन्ना तेन्ना ते खुशालीक अुद्देशून म्हण्टाले, ' खा आतां. आमी पयलीं-सावनच सांगताले ही रांड बऱ्या चालीची न्हय. खुशालीगेरच्यानय पळून गेली खंय ती ! खुशाली आतां हड्डुं बडवन रडटा खंय ! हजार जाणांक संवकल्लें कोलूग एका जाग्यार तिगता ? लांवसट ती. आनीकय कितले जाणांक खातली कोण जाणा.... !'

हजार लोक हजार जिबांनी उलयताले.

एकली जिवाप्पाली म्हातारी बायल मात ताका आडवाद म्हणूंक जाय. तिज्यान त्या पोराचे चुरचुरे पळवंक जायना आशिल्ले. ती केन्नाय कितेंय अुरिल्लें सुरिल्लें कुनुवांच्या हातार उडयताली. भुरग्यांले पोन्ने कपडे घालताली ताज्या आंगार. 'सगळयांत खोटें कर्म घेवन जल्माक आयला तो हो बापडो. आवय–बापूय जिते आसूनय कपाळ-फुटको म्हूण जल्माक आयला. हाजें मन कोणाक कळटलें ?'

मायेची मूर्तच जावन ती ताका सांगताली, 'कुनुवां, केन्नाय पोटाक भूक लागल्यार चोरयां आमगेर यो. आमच्या भुरग्यांबराबर चार गोटे खावन वच हां ! लज धरी नाका. आमचो लखो तसो तूं म्हाका...!'

कांय जाण म्हण्टाले, 'आतां आनी ती हाताक लागपाची ना. वेले वाड्यावेल्या विठोबान पयर तिका बाळ्ळी चावेच्या दुकानार बशिल्ली पळयिल्ली खंय. थंयच्यान मिनाचे ट्रक बी येतात वतात. ड्रायव्हर मेळ्ळयार दवरतात तिका ? ट्रकांत भरून खंयचे खंय व्हेली जातली '

मेलीय जायत ह्या दुख्खातल्यान वाट काड्डूंक. सोसतली म्हूण कितली बापडी? कांय जाणांचें अशेंय मत्त आसलें.



कांय म्हयने बाळ्ळी–अंड्यां आपणाल्या आवयवटेनच्या सोय-ऱ्यांगेर चार चार दीस रावन तांच्याच बराबर गोमती मळकर्णे–नणंय वाटेन चलूंक लागिल्ली. थंय कोणाल्याय शेतांत काम करून, कोणाकय तण–करड घालून, कोणालीय लाकडां व्हांवोवन कसलेंय, काम करून पोटापुरतें मेळोवंक येतालें.

पुण गोमतीमुखार आतां फक्त दान रोटयांचोच प्रस्न नाशिल्लो. कशेंय करून पयसो पयसो जमवन खुशालीन संबंद तोडूंक दिल्ले चारशी रुपया तिका पावोवंक जाय आसले. तें केल्यारच ती उक्त्या माथ्यान खामगांवा वचूंक पावताली. रगताच्या पुताची आनी सदांच बरो नाशिल्ल्या घोवाची याद तिका परती परती हैराण करताली.

नशिबांत मरपाचेंच आसल्यार तिगांय बराबरच मरतलीं–एका बराबरच ! मोनजाती भशेन तांका दोगांकय थंयच कुसवप तिका मान्य नासलें. संवसारांतलें कसलेंय सुख तिका त्या गजालीपरस व्हडलें नासलें.

खूबशो गरीब बायलो सांकोड्ड्याबी रावन मिनाचीं वा दुसरीं कसलींय मेळटात तीं कामां करून पोट सोडयताली. गोमतीय तांच्यातलीच एक जाल्ली.

ह्या वेळार रानां मारून निवळ करपाची कामांय चलताली खंय खंय. उशेलांचींय कामां चलतालीं. ह्या कामाखातीर मनीस मेळटात ते उणे पडटाले. गोमतीय हेरां बराबर रानांत लांकडा जमवप, मागीर बारीक शिग्पुटां, झिली बी उजो घालून जमीन निवळ करपाचे वावर करूंक लागली. दीस रात मुळां हुमटावप, फातरांच्यो राशी करप असली कामां सुरू जालीं. ह्या रानांत काज घालपाची आसली. जमीन भाजून बी निवळ करपाची गरज आसली.

झाडां हुमटावन खोऱ्या कुदळीनी जमीन खणून गोमतीच्या हाताक खिणां पडिल्लीं. दीसभर शेतांत रावचे पडिल्ल्यान आंग करपून काळें पडिल्लें. दोळ्यां भोंवतणचो जागो तर सामको काळोच पडिल्लो. पुण गोमतीन दीस म्हूण पळवंना, रात म्हूण चिंता करूना. गोमटेर म्हारू बशिल्ले सारखीं ती दीसरात काम करताली.

दोन-तीन म्हयन्यांच्या असल्या खर कामा उप्रांत पदराच्या गांठीक आतां फकत च्यार विसो जमिल्ल्यो. तिका तर जाय आसल्यो–वीस विसो !

वीस विसां मेरेन पावप म्हळ्यार दुर्गिणी दोंगराचे तेंगशेर पावपाइतलेंच कठीण आसलें तिका. ती लाचार आसली. खूब दुख्खी !

‘ खूब काम करता हां तूं ! ’ जमीन निव्वळ करून दिवपाचे कंत्राट घेतिल्लो गुडीशेट तिका पळयत दांत पडून बोचरे जाल्लें तोंड हालयत म्हण्टालो, ‘ आखांताचेंच काम करता तू ! ’

गुडीशेटीली बाळ्ळीलागी व्हडली गिरण आसली नी ताजे पूत चलयताले. रानांतले लाकूड मारपाचीं कंत्राटांय घेतालो तो ! ताजे

भायर साकोडर्चालागीच एक फार्मय घाल्लें ताणें. थंय तो उशेल करतालो कांय भागांत. जागो खूबच घेतिल्लो ताणें. उरिल्ल्या जाग्यार काजू घालपाचो विचार आसलो ताजो ओनूं.

फार्मार ताणें पम्प बी बसयिल्ले लायटीचे. फार्माच्या एका कुशीक माटोव केल्लो ताणें काम करतल्यांक रावपाक. तागेल्या फार्माक लागून हेर फार्मा आसलीं. थंय दोनदोन पिकां येतालीं वर्साक. गुड्डी-शेटय आपणाले फार्म तांचेसारखें वर्सयभर पांचवेंचार पळवपाचें येव-जितालो. पयसो आता व्यापारांत न्हय, शेतांतच मेळटलो, ताणें चिंतिल्ले. जागो निवळ करून तो लागवडीक हाडपाची लढायच सुरू केल्ली ताणें !

गोमतीच्या कामार खोशी जावन गुड्डीशेटीन तिजो दिसवडो दादल्यांइतलो थारायिल्लो. तितल्यानय ती खोशी जायना हें पळयतगीर केन्नाकेन्नाय तो एक चडच नोट अुलयनासतना तिजे हातार दवरतालो, तिज्या दिसवाडयाच्या पैशांबराबर आनी तिच्या तोंडाक पळवन आपुणच खी खी करून हांसतालो.

पयशे मेजपाक जमना आसलें गोमतीक. जें कितें हातार पडटा तें ती पदराच्या गांठीक बांदून चलूंक लागताली.

कितल्याश्या फावटी कामाचें निमित्त करून गोमनीक आपोवन तिका हांगा फार्मारच सदांकाळ रावपाचें म्होंवाचें बोट दाखयतालो तो. पुण गोमतीनच एक फावटी ताका तोंडार सांगिल्लें, ‘ शेट, आमी गरीब खरींच पुण तसली म्हूण समजूं नाका ! ’

‘ हो हो हो ! ’ गुड्डीशेट आपणाल्या खड्ड्यार हात भोंवडायत पडिल्ले पोले फुगयतालो, ‘ हांवें कितें वायट गजाल कर म्हळ्या तुका ! शेतार काम कर म्हळां. शेतार काम करप वायट? ’

आनी गोमती थंयची उठून दुसरेकडेन वताली.

जसजसे गरमेचे दीस लागीं येवंक लागले तसतसे लोक घरा परतूंक लागले. तणान शिविल्लीं घरां, जांका गवाळ म्हणटात ते ल्हवू ल्हवू ओस पडूंक लागिल्ले. गडची पुनव लागीं पावतगीर तर चिरपी

लेगीत खरवत खांदार मारून गांवची वाट धरूंक लागिल्ले, सामनाच्यो पोटल्यो बांदून.

शिया तेंपार अशी हेवटेन येवपाची रीघ लागिल्ली तशी आतां परती वचूंक लागिल्ली.

गुड्डीशेटीन कामेऱ्यांचो हिशोब केल्लो. तांचे पयशे दिवन उडयिल्ले. गोमतीक पयशे दितना ताणें परत एक फावट म्हळ्ळें, 'आयकता तूं... ! वैनिराम सांगतालो तुका घरा कोणच ना म्हूण. हांगाच काम करून कित्याक रावना ? गुड्डीशेट आसा मेरेन मजेंत रावतली, सुखात उरतली!'

गोमतीन दोळे मोठे केले. 'म्हज्या घरा सगळीं आसात शेटी, सगळीं ! तांचेच खातीर हांव हांगा हाडा माडटां. बिन्नाम ओगीच सांगता, तुका खोशी करूंक. हांव तसली न्हय ! तुवें म्हजेविशीं खोटो सजम करून घेतला !'

बाबरे ओंठ चाबीत गुड्डीशेट हांसलो. 'हांवें तुका कितें म्हळां ? तूंच सांग ! काम कर म्हळचार कितें वायट सांगप म्हणटा तूं... ?'

गेल्ल्या वर्सा खंयची तरी घांटावेली एक फामील येवन राविल्ली ताज्या फार्मार. दर म्हयन्याक तांकां तांदूळ बी दितालो तो. खेरीज चार पयशेय तांचे हातार दवरतालो. बायलो, भुरग्यां, दादले सगळे दीसरात कामाक लागताले. पुण ओनूं ती परती गावांत गेल्यान गुड्डीशेट बेजारिल्लो.

ताकाच लागून एक सरदारजीले फार्म आशिल्लें. ताज्या मनशांचेर विस्वासून रावप सारखे नाशिल्लें. पावसाळयांत जंगली सावदां येतालीं केन्नाकेन्नाय हत्तीलेगीत येवन उशेल काबार करून उडयताले.

मनीस सामकेच मेळना अशें नाशिल्लें. पुण गुड्डीशेट पयशांचे गजालीक मातसो भितालो. पयशे खरचूंक ताजो जीव सकल वयर जातालो. ह्या दिसांनी राखणेक एक म्हातारेक ताणें तयार केल्ली. तिजो बापडेचो कोणच नाशिल्लो. म्हण्टगीर कुडींत जीव आसा मेरेन हांगाच पडून रावपाचें थरयिल्लें तिणें. पुण रातचें तिका दिसनाशिल्लें,

रातकुडेपण आशिल्ल्यान !

हिशेब बिशेब करून पयशे घेवन बायल भुरग्यांसयत परते वचपाचे तयारेक लागिल्ले लोक. गोमतीय साटली पोटली बांदून तयार जाली. चलूंक लागली.

कुटमडेर रात काडून सकाळचो गुशांदोंगोर माडवन वचूंक जाय आसलें. लोक खोशी जाल्ले. दोन तीन म्हयने घाम काढून पोटाक सुटून चार पयशेय गांठीक लागिल्ले. पावसाळयांत तेल तम्बाकू, मीठ, मिरसांगेचो बंदोबस्त जाल्लो. भुरग्यां बाळांक दोन खोमसांय शिवपाक जातालीं.

मळबांत नकेत्रां चकचकतालीं. गरमीय नाशिल्ली तितलीशी आतां. पिपळापोंदा लोकांनी सामान पातळावन ठाण मांडिल्लें. तीन फातर मांडून केल्ल्यो रात्रीय उजान तापूंक लागिल्ल्यो. तोपांनी–भोगुण्यानी शिजूंक लागिल्लें.

आपले वांट्याचे तांदूळ, दाळ गोमतीन एकल्ेकडेन शिजवंक दिल्ले तांच्याबराबर. पुण ती जेवलीच ना. तकली उसळटा म्हूण सांगून ओगीच जमनीर पडून रावली.

जेवणांखाणां जातगीर दीसभर चलून पुरो जाल्लीं सगळीं हांतुणाक लागतनांच न्हिदून पडली. रात्रींत जळटालीं तीं लाकडांय गोबरेवन, कोळशेवन पालवलीं. पुण गोमतीले दोळे मात अुक्तेच आशिल्ले ! इतलेय कश्ट करून आतांमेरेन तिणें फकत थोडेसेच पयशे गांठीक घाल्ले. गांवांत पावमेरेन खुशालीक आपुण आयलां म्हण कळटलेंच. दोगचौगजाणांक जमवन आसा थंयच्यान ओडून व्हेलेबगर तो रावचोना. आनी मागीर परतो तोच नरक ! रामगो परत परत बनखणींत वचत रावतलो. कुनुवां लोकांलीं बोकडां राखत रावतलो आनी ती लोकांल्या उश्ट्याचेर पोसत उरतली. आनी लोक गिश्रांभशेन कोंचायत रावतले ! अरे देवा, हेंच म्हज्या नशिबांत ? म्हज्या नशिबांत हेंच ! गोमतीचे मन खवदळूंक लागलें.

सकाळीं फातोडेरच लोक फुडें वचूंक तयार जावंक लागले. तोंडाक उदक मारून सामानाच्यो पोटल्यो फाटीर माथ्यार मारून लोक चलूंक

लागले. कांय जाणांनीं बैल घेतिल्ले शेताखातीर. तांच्या गळ्यांतल्यो घांटो किणकिणूक लागल्यो. दोंगराळ वाटेवेलो धुल्ल उबूंक लागलो.

सकाळीं फुडें थंड वेळेर जितली वाट चलून जाता तितली बरी. वत खर जातगर चलप कठीण जाता.

सगळ्यांबराबर गोमतीनय आपली पोटली बांदली. पुण तिजे पांय फुडें पडना आशिल्ले. सगळ्यां फाटल्यान चलताली ती, एकलीच ! फाटल्या कांय दिसांनी वागटांनी बोवाळ घाल्लो ह्या वाठारांत. ताका लागून सगळे एका बराबर चलताले, एकमेकांच्या आदारान. मदीं मदीं ताटां वाजोवन, आवाज– बोवाळ करीत वताले. गरज पडल्यार उजोय पेटोवपाची तयारीय दवरिल्ली तार्णीं. रानवटी सावदां उज्याक भितात.

दनपरां दुसरेकडेन जेवणाखातीर ते थामले तेन्ना सगळ्यांक दिसून आयलें, सकाळीं बराबर चलताली ती गोमती आतां तांचेबराबर नाशिल्ली !



‘शेटी, म्हाका काम दी !’ पोटली सकल दवरून साडयेच्या शेवान घाम पुशीत गोमतीन म्हळें.

सदचे संवयीन गुड्डीशेटीन ही ही करून पोटभर हांसून घेतलें. ‘सगळो फार्मच तुजो. तुका कामबीम करपाची गरजच कित्याक ?’

‘ ना ना शेटी, तूं शेतात काम करपाविशीं उलयतालो न्हय !’

‘ हय गे सायबिणी ! हांवें तुका पयलीच म्हळ्ळें न्हय फार्मच तुजें म्हण ! म्हाका खबर आशिल्लेंच तूं परती येतली म्हण ! गुड्डीशेटीले केंस वतान धवे जावूं नात. संवसार पळयला हांवें, ही ही ही–’

गुळगुळीत तोंड, अर्दे पिकिल्ले केंस– गोमती पळयतच उल्ली.

‘ बरें आसा. सांग, कितले पयशे घेतली ? फार्मातच रावतली मगे– म्हातारे बराबर ?’

गोमतीन तकली हालयली. ‘ कितले जातात तितले दी शेटी !’ खिणभर गोमती ओगीच रावली, परतें कितें तरी चिंतत तिणें विचाल्लें,

‘ वर्सभर तुज्या शेतांत काम करीन, वर्सभर! बराब्बर आयच्या दिसाक परती वतलीं. सांग आतां, वीस विसो रुपया दितलो ?’

वीस रुपयांची एक वीस जाता हें जाणा आसलो तो. मनांतले मनांत हिशेब करीत ताणें म्हळें– ‘ चड जातले.’

‘ हां शेटी म्हाका तितलेच जाय,’ आनी मात्शा घट्ट आवाजांत तिणें म्हळें, ‘सामके इतले. एक पयसो कमी अदिक नाका.’

गुड्डीशेट भुकेल्ल्या गिधाभशेन गोमतीक पळयत आशिल्लो. ‘ म्हाका खुशी करशीत जाल्यार तितले दीन. पुण ताका लागून काम उणें करूंक जायना. समजलें ! रातचीं सावदां येतलीं शेतांत; तेन्ना तुका उजो पेटोवन तांकां धावणावचें पडटलें. बोवाळय घालचो पडटलो– समजलें !’

सगळयो अटी गोमतीन तकली हालोवन मानून घेतल्यो.



शेतां पिकून हळडुवीं जालीं. रातचीं सावदां आयलीं नात. पुण गुड्डीशेट मात नेमान येत रावलो. सावदां आयल्यार बोवाळ घालूंक जाय आसलो पुण शेट येतगीर तोंडार हात घेवन ओगीच पडून रावपाचें. मनांतले मनात रडत ! केन्नाकेन्नाय गोमती चिंतताली गुड्डीशेट येवचेपरस रानवटी सावदां येवप खूबच बरें जातलें. रानवटी हत्ती आयल्यार तर अदिकच बरें. एकाच धपक्यांत सगळयांपसून मुक्ती मेळटली !

थंयची गरमी तिणें केन्ना अणभवली नासली. पातळ चुडटां नाजाल्यार पत्रे घाल्ल्या खोपटाचेर दनपारचो जेन्ना सूर्यादेव तापतालो तेन्ना तिका नाका जीव जातालो. आंगार हुमेचे थेंबे जमताले. ल्हवूल्हवू व्हांवक लागताले. न्हेशिल्लीं भिजून चिप्प बसतालीं आंगाक. तामयो तामयो भर उदक एका घोटांत पिली जाल्यार लेगीत तान न्हिवना आशिल्ली.

आनी तिका खामगांवच्या घरच्या आंगणाची आनी थंयसून दिसताले त्या शीतळ दोंगरांची याद जाताली. वड–पिंपळावेल्यान येवपी थन्ड वाऱ्याचे यादीन तिजें आंग शिवरतालें. वोंवळीपोंदच्यान

आयिल्लो घमघमीत वासाचो वारो ! शेताकुशीच्यान छुन छुन आवा-जांत व्हांवपी वजरो. ताजें थन्डगार उदक पितगच मेल्ल्या मनशाचो जीव लेगीत परतो येतालो.

त्या वजऱ्याची याद जावन तर तिजी तान अदीकच वाडटाली !

घरा ती धोंपरभर चिखलांत उबी रावन वाऱ्यान लकता तें शेत सांबाळटाली. थंयचे हातभर उंचायेचें पीक पळोवन तिजी बापडेची भूक ना जाताली. दीसरात माती खड्डीतगीर खंडीभर भात, नाचणे, तोर मेळटाली, पुण हांगा उरफाटचा हातान लेगीत बीं उडयल्यार, पांचवेंचार शेत जातालें. मनीस बुडत येदे धान– हात हातभर लांबायेचीं कणसां !

रातचीं जळारा कूं कूं करीत येताली तेन्ना ती उठून बसताली. काळखांतच भायर आंगणांत येवन खोपटे भोंवतणीं देवचारांभशेन उबे राविल्ल्या माट्ट–किनळाच्या रूखांक पळयताली !

गड्डीशेटीन आपले सुखाखातीर खोपटांत एक खाट हाडून दवरिल्ली. ताजेर मोव मोव गादी. गोमतीक न्हेसूंक दोन तीन बऱ्यो साड्योय. पुण गोमती त्यो केन्नाच न्हेसनाशिल्ली. शेटीन तापयल्यार अशी वेले वयर आंगार अुडयताली. त्या तामडचा तामडचा साड्यांनी आंग धापतगीर तिका दिसतालें, आपल्या आंगाक अुज्याच्या तांबडचा केणांनीच वेढलां. सगळी कूड जळूंक लागताली तिजी !



पावसाचे दीस. सगळ्याक अुदकच उदक. खोदोळ उदकाचे व्हाळाचे काठार बसून गोमती त्या अुदकांतले आपले पडबिंब निहाळटाली–

घोवाक घेवन ती आतां आपल्या कुळराच वचून रावतली. थंय कोणाल्याय शेतांत काम करून पोट भरूं येता. तीन मनशांचे पोट भरप कितें कठीण ? आतां दीसरात तो शेतार काम करूंक पावता, विसंव घे नासतना.

कोण सांगतलो, रामगो सुधारतय एकाद्रो ! ह्या वर्सा दसऱ्याक

ती ताका वेताळाचे जात्रेक व्हरतलीच. थंय तरंगां नाचतात. म्हारू-भुतांय काडटात. ताजेवेली सावळी वचत जाल्यार तो पयलीं सारखो काम करूंक लागतलो !

तांचेग एक घर आसतलें. खंयच्याय जंगलांत पडंग उरिल्ल्या जमनींत ती शेत रोयतली. चार दोन बोकडचो पोसतली. बाजारांतल्यान लोखण हाडून हतयारांय करतली !

'ए गोमती, कितें करता ?' आंगणांत जीप थामता आनी ताजे फाटोफाट गुड्डीशेटीलो उलो तिजे कानार येता. तिची तंदरी सुटता.

'तं बरी तशें पीकय बरें आयलां ह्या वर्साक. तुळाभार करया तुजो ओनूं ! कळ्ळे?'

गोमतीक हांसूक आयलें, 'म्हजो तुळाभार करून कितें मेळटलें शेटी. तुजोच कर तुळ भार चड वजन जातले.

'चड वजन आसा म्हजें न्हय ! तुका खबर आसा न्हय म्हजें वजन कितले तें ? खूब जड लागता हांव न्हय ?' गुड्डीशेट आपणाली वाटकुळी तोयी सारकी करता. धवेंफुल्ल धोतर सांबाळटा. ताजेर आनी खोदोळ उदकाचो बो दाग पडलो जाल्यार!

धव्याफुल्ल कपडयांचेर दाग पडिल्लो गुड्डीशेटीक सोंसनाशिल्लो, अन्तस्कर्णात कितलीय घाण आसूं !

थंडेचे दीस परते आयले. दोंगराखाचींनी हाडां फोडपी शीं पडूंक लागलें तशे लोक परते फार्मांनी कामाक परतूंक लागले. दाट दाट जंगलांनी वोवाळ दिसूंक लागलो. पयलेंच पीक बरें आयिल्ल्यान गुड्डी-शेट खोश्शेंत आशिल्लो. चारपांच ट्रक भरून चिरे हाडून खोपटां घट्ट केल्लीं ताणें.

गांवचे लोक परते आयिल्ले पळोवन गोमतील्या बाविल्ल्या तोंडार परतो उजवाडसो फांकिल्लों.

– खुशाली तुका सोदतालों.

– खुशालीन सगळयाक चवकशी केली. आसपासचो वाठार चाळून काडलो. आयकल्लें, मडगांव–वास्को लेगीत फेरी मारून आयलो तो तुका सोदीत. पुण तुजो माग लागना म्हूण परतो आयलो.

–तुका कितें जालां गो गोमती उज्यान भाजून गेल्ल्यासारखी तूं तर सामकीच काळी पडल्या.

गोमतीन कांयच जबाब दिवूंना.

'खामगांवांक बी पाविल्ली?' कामाक आयिल्ल्या एकल्या पयसुल्ल्या नाऱ्यांतल्या बायलेक गोमतीन विचाल्लें.

'हय. गेलें ना कशें ? बार्शां वतना खामगांवसूनच गेल्लें. कुनुवां दिशिल्लो... तुजी याद काडटगीर बुळूबुळू रडूंक लागलो. आमकां खंयचें खबर आसलें तूं परती ह्या फार्मार कामाक येवन रावली म्हूण! आमी तर सगळ्यांक सांगले, रानवटी सावदांनी तुका व्हरून मारून खाली म्हूण! तुजें क्रियाकर्म लेगीत जालें. खामगांवच्या जिवाप्पान पिंडदान केलें...'

गोमती आयकतच उल्ली.

'खुशालीगेरची कितेंय खबर–?'

'आयकलां, तुजी व्हडली सवत पावसाळ्यांत पणस काडूंक रुखार चडिल्ली ती पांय निसरून पडून मेली खंय. मदलेचे पांय सुजल्यात. बोकड्यो विकपाचो ताजो धंदो बरो चल्ला. ताणेंय समज करून घेतला तुका रानवटी सावदांनी खालां जातलें म्हूण. ना जाल्यार बराबर चलताले तांकां कळनासतना खंय वतली असो समज जाला ताजो.'

'आमगेर बी भितर सरिल्ली? तांकां खावपा जेवपाक घरांत बी कितेंय आसा? दुसऱ्यांगेर भीक मागून दीस काडटात जातले...!'

'हां, फट कित्याक सांगू ? तुज्या घरांत भितर सल्लें ना. हांवय बार्शां वचपाच्या गडबडेंत आशिल्लें. हां, पुण रामगो मेळिल्लो, शेतांतल्यान परततालो. पाखां पिसुडिल्ल्या कोंब्याभशेन जाला. ताका पळयल्यारच काळजाचे कुडके कुडके जातात. पयलीं काय बरो दिसतालो तो ! गोरो गोरो बामण कसो. पुण त्या देंवचार बाबुट्यान कशी गत करून उडयल्या ताजी ! उदकाक वळवळोन मरतलो तो बाबुटो ! पळयतली तूं ! असली करणी ! पाड पडूं ताजें. निसंतान जावं ! वळवळोन, कुसून मरूं पाडापडिल्लो !'



गोमती वर्साचे दीस मेजीत आशिल्ली. ह्या एक वर्साच्या वनवासांत तिणें कितें कितें सोसलें ना जातलें ? 'सात जल्मांच्या दुस्मानाक लेगीत अशें भोगचें पडूं नये' ती म्हण्टाली. नर्कात पडिल्ले-सारखी आशिल्ली ती थंय, जिती आसतनांच यमाचो सगळ्या तरांचो नरक भोगिल्लो तिणें. सगळी ख्यास्त ती भोगताली. फकत एकाच आशेर. एकाच आशेर तिणें नर्काक लेगीत सर्ग मानून दीस काडिल्ले. एकाच वासाच्या कणाच्या आशेन तिणें ती नरकांतली घाण आनी दंडना सोशिल्ली ! मनशान भोगपाची न्हय असली ख्यास्त एकाच उमेदीचेर भोगताली ती. ह्याच एका दिसाखातीर–

'वर्स भल्लें. शेटी म्हजो हिशेब कर !'

गुड्डीशेट हांसूक लागलो, 'तूं सामकीच पिशी, गोमती तुजेखातीर बरें चिन्यांचें घर बांदलां. उदकाक बांय मारतां आनी घरा वचपाच्यो गजाली करता ! थंय कोण आसा तुजो सांग ? हांव जाणां, तुज्या घरांतले सगळे मरून गेल्यात !'

'ना, ना शेटी !' गोमतीन शेटील्या तोंडार हात दवल्लो. 'थुमेकाल, असलें उतर उलयनाका शेटी. तुका हांवें पोरूं सांगिल्लें वर्सभर काम करून वतलें. हांव म्हजो हिशोब कर ! हांव तुजेकडेन चड कांयच मागना, थरयिल्ले तितले दी म्हाका !'

'हांव तुजो पगार वाडयतां. आनी खरें सांगूं ! तुका आतां काम करपाची गरजच ना. तूं फकत रावच्र हांगा. तुका जाय तशी राव ! हें सगळें फार्मच तुजें. सुस्सेगाद जेवन खावन राव हांगा. तुजी जापसालदारी हांव घेतां. बायलेभशेन दवरतां तुका हांव हांगा ! ना म्हणीनाका. म्हाका सोडून वचूं नाका !' गुड्डीशेट गोमतीक फुसलावंक लागलो.

'ना. ना.' गोमती आडुली. 'वर्सयभर तुवें सांगलें तें हांवें केलें. सांग तुवें सांगिल्लें कितेंय ना म्हळां ? तूं आयलो. खूब फावटी येतना आपल्या इश्टांकय घेवन आयला. पुण हांवें केन्ना कितें म्हळां ? आतां म्हजो पगार दी म्हाका. नाजाल्यार हांव तुज्या हुमन्यार तकली

आपटीतलें. गोळ घेवन मरतलें तुज्या दारांत. मागीर म्हाका दोश दिवं नाका ! गोमतीन गुड्डी शेटील्या पायांर घाल्न घेतलें. ‘ लाचारेक लागून सगळें सोसलें हांवें शेटी. फकत तुज पयशे मेळटात म्हूण न्हय. दुर्बल जाल्लें हांव सामकें. लाचार जालें म्हूण हो गू खालो. हांव मनान तसले न्हय. रस्त्यार मेळपी वेसवा समजूं नाका तूं म्हाका शेटी...! आतां एकय दीस हांव हांगा रावंक पावना. वर्सयभर तुज्या शेतांत काम केलें, तुजें अश्टें खावन रावलें. सांग, कितें कितें केलें ना हांवें ? आतां अशें उलयनाका शेटी. म्हज्यान आयकूंक जायना तें. म्हजो जीव सामको गळ्यांत आयला, तुजीं उतरां आयकून तो वचतय एकाद्रो कूड सोडून. हांगाच मरन हांव, एकल्या एकसुऱ्या चेड्याच्या तोंडार नदर घालनासताच मरन हांव, शेटी. काकूट कर म्हजी. तोंडभर आशीर्वाद दितां तुका. तुजें बरें जांव. म्हज्या पोराची भीक घाल म्हाका. आनीक हांगा रावपाची गजाल सोडून कितेंय सांग तूं म्हाका. पायां पडटां तुज्या शेटी ! . .पायां पडटां... सोडय म्हाका ह्या त्रासांतल्यान. इतलो तेंप तुवें सांगलां तें आयकलें हांवें. निमाणें म्हजें इतलेंच आयक तूं. इतलीच भीक घाल म्हाका. जाय जाल्यार म्हज्या फाटार मार, पुण असो पोटार, म्हज्या काळजार घावो घालीं नाका.’

गोमती हुंडक्या हुंडक्यानी रडूंक लागली. तिज्या दुकानी गुड्डीशेटीले पांय भिजले.

निमाणें तोय एक मनीसच आशिल्लो. गोमतीच्या उतरांनी ताजें काळीज हाल्लें. काकूट दिसली ताका तिजी. दोनीय हातांनी तिका वयर उठायत ताणें म्हळें, ‘ बरें बाये. चल तूं. म्हजें फार्म मेकळे जाल्यार जावं दी. फुडले वर्साक शेत रोवचों ना. आनीक कितें ? पुण तूं वच, तुजें वायट जायत अशें हांव कित्याक चिंतू ? तुवें म्हजें कितें वायट केलां ? तूं हांगा राविल्ली जाल्यार हांव खोशी जातलों आशिल्लों. पुण हांगा रावन जर तुका दुख्ख जाता जायत, तुजें वायट जाता जायत तर तूं वच ! भुरग्यापसून पयस राव म्हूण कशें सांगूं तुका ! चल तूं !’

बोल्सांत हात घालून गुड्डीशेटीन चारशीं रुपया काडून तिजे हातार दवल्ले. वाटेर खर्चाक म्हूण ताणें आनीक कांय पयशे तिज्या

हातार दवल्ले. ‘वच तूं, बरेभशेन, बरे मनान वच. गुड्डीशेट बरो न्हय अशें मात कोणाक सांग नाका. बरें, चल तूं!’



काल राती वाघटान तीन बोकडे पोरां उबारिल्लीं.

खुशालीक चिंता पडिल्ली... अशेतरेन वाघ येत रावल्यार सगळ्या बोकडांचो विलो लागतलो. मागीर ताजो अर्दोभाग कोण दितलो? बाप्पा नायकाल्यो धपकावण्यो तर वाडत आशिल्ल्योच, आनीक फाल्यां बोकडांच सोंपलीं जाल्यार कितें?

हे दीस म्हळ्यार पिकेचे दीस. शेतांत लुवण घाल्ली ताज्या. थंयच्यानच रातचो पुरो जावन तो घरा आयिल्लो. घरा आयलो तरी धुगधुगेंतच आशिल्लो तो. रातचो पावस बी पडलो जाल्यार एक कणलेगीत घरांत येवंक पावचो ना म्हणपाचो हुस्को आसलो ताका. बेगबेगीन लुयलें तरी कवळून गुडव्याक घालूंक तें सुकूंक तरी जाय. थोडेंभोव सुकिल्लें तें हाडून दाळाक लावपाचें काम केल्लें ताणें आज, आनी बाकीचें सुकता तशें गुडव्याक घालपाचें आसलें ताका. शेजार-पाजारचे आदाराक घेवन आनी पांच बायलो– दादले काल सावन कामाक लागिल्ले तागेर. मदलेच्यान आतां चलूंक–फिरूंक जायना आसलें. सक्काळीं उठून रोटयो करपाचें काम आतां कशें जमतलें तिजेकडेन? एक एक विवंचनाच लागिल्ल्यो ताजे फाटल्यान!

दारा धांपून तो हातुणार पडिल्लो. दोळ्यार न्हीद येताली इतल्यान दार खडखडायिल्लो आवाज ताच्या कानार पडलो.

खिणभर ताका दिसले, एकादेक बोकड्यांक संवकल्लो वाघच येवन खाडखुड करता कांय दाराकडेन! न्हिदिल्लो थंयच्यानच एक धेंगसो घालो ताणें; ‘अरे, कोण थंय?’

पुण परतो जबाब आयलो ना.

दाराचे वेल्या वटेन लायिल्ली लोखणी सांखणळ तशीच खड-खडत आशिल्ली.

– एकसारखी.

खुशाली अुठलो आनी दाराकडेन गेलो. पुण ताजेपयलीं ताणें जनेल अुगडून खुरांतल्यान भायर पळयत विचाल्लें, 'कोण रे दार खडखडायता ?'

दारा म्हऱ्यांत एक सांवळीशी अुबी आसली, 'हांव...'

खुशालीक कोण तें कळूं ना. पुण मनशाचो आकार पळवन ताणें दार उगडलें.

रात आसली तरी चान्न्याची पसयशी पडिल्ली. त्या हयन्हयशा अुजवाडांत सामकार उबी आशिल्ले बायलेची आकृती पळवन तो भिवन आडुलो 'कोण गोमती ? तूं... तूं... तूं तर मेल्ली न्हय ?'

त्या आकाराक गोमतीचें भूत समजून ताजे अंगावेलो रोमरोम अुबो जालो. पुण गोमती तशीच ताजेसामकार अुबी आसली, ताजे तोंडाक पळयत. 'हय, मरून गेल्लेंच. दुसरो जल्म घेवन परतें आयलां...' बोवाळ आयकून मदलीय आयिल्ली. तिच्या अुजव्या हातांत भग भग करून पेटपी माडाची पोंय आसली. जळटचा पोंयच्या उजवाडांत दोगांय गोमतीक भिल्ल्या नदरेन पळवंक लागलीं.

दीसभर फार्मात काम करून आनी वतान गोमतीचे तोंड काळें पडिल्लें. आतां तिजी कुडय पयलींसारखी तरतरीत नासली, जुनवटकाय आयिल्ली तिका. मोठचा उदास डोळ्यांपोंदा मिरयो पळवन वळखूंक लेगीत येना आसली.

ही गोमती न्हय: तिजें मडेंच आसूंक जाय.

रानवटी संस्कारांत रावतल्या खुशालीक आनी ताज्या बायलेक दिसलें.

भिल्ल्या मनान आनी गळल्ल्या हातांनी तीं तिका दाराभायर धुकलून दार धांपूंक लागलीं.

'चल तूं. मरतगीर आनी हांगा कित्याक आयल्या ? खामगांवच्या जिवाप्पान तुजे बारादीस लेगीत केल्यात खंय अशें आयकल्लें हांवे तुका गति मेळूंक! पिंडदानय केलां ताणें...!'

'तुवें करपाचे न्हय म्हजे दीस ? म्हजो घोव न्हय तूं ?' गोमतीक ताजी तिडक आयिल्ली. रागान दांत किड्डिले तिणें. तिजी ही अवस्था

पळवन तर तीं दोगांय अदिकच भिल्लीं. दाराचे कुशीक लिपूंक लाग
आपापलो जीव सांबाळूंक !

' म्हजी सद्गात तर जालीच. म्हजे दीस केलेच पुण तुमचे को
करतलो ? तुका गति कशी मेळटली ? त्याखातीरच आयलां हांव आ
संबंद तोडपाचे पयशे दिलेबगर म्हाका म्हज्या चेडयाक मेळूंक वचपा
बंदी केल्ली न्हय तुवें ? घे, मेज हे रुपया ! वीस विशी आसात मूं
गोमतीन किरवंटीक घट्ट बांदिल्लो बोनरा कुडको काडून तांतले सग
पयशे ताज्या तोंडार माल्ले. ' घे, मेज ते. आसात मू सारखे ? आ
पुण हांव तुजेपसून मुक्त जालें मू ! भिव नाकां. हांव जावन तुज
दाराच्या भीतर पांय घालपाचें ना आतां.

आनी आयिल्ली तशी गोमती चलूंक लागली. ताणें तिका येत
पळयली नाशिल्ली. वतनाय ती ताका काळखांत दिसूं ना !

[

सूर्यादेव आतांच अुदेवंक लागिल्लो. ताचीं भांगरा किर्णां भूंयेचे
पडून तिज्या थंड पडिल्ल्या कुशींत ऊब निर्माण करताली. खामगांव
घांटी चडून गोमतीच्या पायांक गुळे आयिल्ले. धापेत –धापेत, बसत
बसत ती घांटी चडून वताली. पुरो जातगीर फातरार बसताली. पु
रोकडीच उठून परती चलूंक लागताली. एका नवे उमेदीन ती वाटे
लागिल्ली. खुशालीच्या रिणातल्यान आपुण मुक्त जालें, आपल
सुपुल्ल्या चल्याक मेळूंक आपुण आतां स्वतंत्र आसां म्हणपाची खो
तिज्या तोंडार अुदेली. तिणें निच्छेवच केल्लो ह्या गावांत आनी हाजेपु
ना रावपाचो. कितलेंय काम करचें पडलें तरी जाता. उपाशी पो
जमनीक तेंकोवन न्हिदचें पडलें तरी तें करपाची तिजी तयारी आसल

बाबुट्याकाचे तोंडार लेगीत नदर घालची न्हय अशें तिक
दिसतालें. तिजे सगळे धिडवडे काडूंक तोच कारण आशिल्लो. ताका
लागून तिजो घोव गुलाम जाल्लो. पोटच्या भुरग्याच्या तोंडार लेगी
तिका नदर घालूंक कठीण जाल्लें तें ह्या बाबुट्याक लागून, आ

ानी उदक लेगीत पिवपाक खामगांवात रावचें न्हय. खोपटांत जें कितें ल्लां तें घेवन घोव आनी चल्याच्या सांगतान हे गांव सोडचें अशें तिणें ारायिल्लें. एका नव्या उमेदीन ती घांटी चडटाली. घांटी चडून ती ोण्णार पावली आनी त्या वाटेक येवन मेळपी दुसऱ्या वाटेचेर तिजी ादर पडली. खामगांवचे आठ–धा जाण ती वाट चडून येताले. तांचेर नदर पडनाबराबर तिजे आंगार सर्र करून कांटो अुबो जालो. सगळ्यांनी बोडां ताशिल्लीं. खौर करून न्हंयचेर न्हावन ते परतताले– गांवांत कितेंय तरी जाल्लें.

–कोणूय तरी भायर पडिल्लो. ताका पावोवनच ते न्हावन–धुवन येताले.

गोमतीचेर नदर पडनाफुडे तांचीय अवस्था तिजेसारखीच जाली. ही तर मेल्ली. आनी सामकार कशी उबी ! तांकां दिशिल्ली भिरांत तांच्या दोळ्यांत दिसूंक लागिल्ली.

'तूं तर मेल्ली न्हय ? तुजे क्रियाकर्मय जावन गेलें. आनी तू खंयच्यान अशी अकस्मात उबी जाली ?' तांच्यांतल्या एकल्यान भीत-भीत विचाल्लें.

'लोकाचाराक हांव जिते आसूनय मेल्लें.' गोमतीचो गळो भरून आयलों... 'खऱ्यानीच मेल्लें जाल्यार बरे जातलें आशिल्लें. पुण भोग-पाचे आसा न्हय ? तें कोण भोगतलो ?'

बोड ताशिल्ल्यान जिवाप्पा आसा ताज्यापरस मोटवो दिसतालो. गोमतीक मात्शें कुशीन व्हरून भरिल्ले गळ्यान तो सांगूक लागलो– 'आमचो रामगो काल रातीं मेलो, सुने. तूं एक दीस पयली हांगा पाविल्ली जाल्यार एकादेक तशें घडपाचेंय न्हय...!'

गोमती अुबी आशिल्ली तशीच उल्ली, कोरांतिल्ली मूर्त कशी. तिजे तोंडसून हुयेली– बोबो कांयच भायर फुटूं ना. ओंठावेल्यान देवूं ना.

जिवाप्पान तिजो हात धरून तिका घरा व्हेली. जीव नाशिल्ले-सारखी ती ताजे फाटल्यान वचत रावली. मातयेची मूर्त हातात धरून व्हरतात तसो जिवाप्पा तिका घेवन आपले घरा गेलो.

‘ काल रातीं खोपटाक उजो लागून तातूंत रामगो लासून मेलो.’ उब्या आशिल्ल्या एका जाण्टेल्यान गोमतीची सांत्वना करपाचे नदरेन म्हळें.

खऱ्यांनी सगळें खोपूट लासून गेल्लें. अर्दकुटचो लाशिल्ल्यो मेडी काळ्यो जावन उब्यो आसल्यो. कांय वांशे गोबरान भरिल्ल्या जमनीर वांकडे तिकडे पडून आशिल्ले. पियां काशी, एक मोडकी पेट. कपडे घालपाची कमराक बांदपाची पेट देवरायान येतना हाडिल्ली– सगळें सगळें लासून गोबोर जावन गेल्लें. खुट्याळचार रामग्याचे पिनकें खोमीस अर्दकुटे जळून वाऱ्यान हालतालें.

‘ आवो, आयली तूं... ?’ कुन्नून तिज्या कमराक वेंग माल्ली. दोनीय हातांनी गोमतीन ताका घट्ट वेंगायलो. ‘ बाप्पाक ताणीं काल माल्लो आवो. तूं खंय गेल्ली आमका सोडून ?’ तो हुंडक्या हुंडक्यांनी रडूंक लागलो.

जिवाप्पाल्या म्हातारेन गोमतीक आपणागेर व्हेली. घरांतल्या काळखान भरिल्ल्या कोणशाक व्हरून ल्हवू आवाजांत सांगूंक लागली– ‘ देवाचो सपूत घे. कोणाक सांगची ना म्हण सुने ! नाजाल्यार हे राकेस आमकांय मारून जमनीत पुरून उडयतले.’ आवाज आनीकय बारीक करून आनी गोमतीच्या काना म्हऱ्यांत तोंड व्हरून ती सांगूंक लागली– ‘ आमगेल्या रामग्याक जितो माल्लो हाणीं. हत्या केली ताणी. काल गोरवांक चरवंक घेवन गेल्लो तो. गोरवां परती येता आसतना कसो म्हण कोण जाणा, खंय फोंडात बी पडलो जांवये पुण बाबुट्याच्या बैलाचो पांय मोडलो. ही खबर कानार पडनाफुडे बाबुटो रागान तामडो–निळो जावन धावत गेलो. कोण ताजे गोमटेर बसलो म्हण कोण जाणा... काळखांतच रामग्याच्या तक्लेर ताणे इतले फोर्सान दांडो घालो कि तो थंयच्या थंय पडलो. उदक लेगीत मागूंक पावलो ना !

‘ हें पळवन बाबुट्याचो आवरो उडलो ! हें कितें जालें ? येवजूनच ताका शेळो घाम फुटलो. व्हड रात मेरेन गांवांतल्या जाणट्यांक

आपल्या घरा बसवन ताणें विचार केलो. पुलीसांचे आनी सरकारची भिरांत आसली. खुनाची गजाल. सरकारच्या कानार पडलें जाल्यार सगळ्या गांवाक भोगचे पडटलें, सगळो गांव त्रासात पडटलो आसलो हें चितून बोवाळ करिनास्तना रामग्याचें मडें ताणें तुमच्या खोपटात व्हरून दवल्लें. ताजेर पेत्रोल ओतलें. अुजो पेटोवन दिलो ताणें. बोवाळ घालो कि खोपटाक अुजो लागून तो लासून मेलो... ! असले दुश्ट हे फातरा काळजाचे. वासगो तर ह्याका... कुनुवांकय उज्यांत उडोवन लासून मारूंक तयार जाल्लो. पुण हो पोर खंय लिपून बसलो कोण जाणा. ताजें पोराचें अन्न-अुदक बाकी उल्लां. बापायची अवस्था पळवनच तो ना जालो. म्हूण आज दिसलो. राती तांच्या हाताक लागिल्लो जाल्यार कितें जातलें आसलें देवच जाणा बापडो ! हे परमेश्वरा, तुवेंच ह्या पोराचे प्राण वाचयले.' तिणें हात जोडले.

आयकून आयकून आनी सगळे भोगून गोमतीची कूड फातराची जाल्ली आसूंये. ती आतांय तशीच उबी आसली. दोळे सामके उक्ते दवरून ती एकटक पळेताली. कोणाक म्हूण कोण जाणा... पिशीशी एकाकडेनच नदर थिरावन ती आयकताली. शेजारचे लोक तिका कितें कितें सांगताले. चार धीराची उतरां सांगताले. रातीच्यो गजाली सांगताले. तिजी सांत्वना करूंक पळेतालीं. पुण हें सगळें कानार पडूनय तिज्या मनात रिगतालें कांय कोण जाणा.

कांय वेळ ती तशीच उबी आसली. अकस्मात तिका कितें जालें कोण जाणा ! कितें तरी तिका येवजलें आसूंये ! अकस्मात तिका जीव आ।यल्लेसारकें जालें. भार भरिल्लेसारखें जालें. कुन्नूचो हात धरून ती एकदम घरातसून भायर सल्ली. धावंक लागली. धांवतां धांवतां बाबुटयाच्या आंगणाच्या धडेर मात्शी थामली.

' बाबुटया दुस्माना, अशेतरेन तुवें म्हज्या कुनुवांच्या बापायक लासून माल्लो, त्याचबशेन तुकाय जितोच उज्यान हुलपा-हुलपावन मारीना जाल्यार हांवच न्हय जायन ती. बायलजातीचे नांवच सांगचीना !'

रागान दांत किड्डीत गोमती रानाचे वाटेन धांवक लागली. तिजे केंस सुटिल्ले, आंगावेलीं अस्ताव्यस्त जाल्लीं... पुण तिका मात लेगीत सुद्द नाशिल्ली जिवाची. फाटलो-फुडलो विचार करीनासतना ती रानाची वाट चलूंक लागिल्ली– कुन्नूचो हात धरून !



सांज जावन काळोख पातळूंक लागिल्लो. दोळयांत बोट घालें तरी दिसनाशिल्लें रूंय रूंय करीत किडे किरकिरूंक लागिल्ले. मदीच घू घू करून घुगूमय रडूंक लागिल्लो. आज गांवांत कोणागेरच रात्नींक उजो केलो नासलो. रामग्याचें सुतक पाळूंक जाय आसलें. कोणेच तोंडांत उदक लेगीत घालें नासलें.

रातचे घडणुकेचो परिणाम अजून पुसलो नाशिल्लो. रामग्याचें पेट्टें घर आनी ताजी लासती कूड तांकां आतांय दोळयांसामकार दिसताली. जड मनान रातमेरेन लोक सोप्यार बसून आशिल्ले. रात चडूंक लागली तशे बसल्यात थंयच तें लवंडले. घोरेवंक लागले.

अुमासेची रात... सगळया दिशांनी काळोख भरून आयिल्लो. आज चंद्रिमय उदेवचो नासलो. रामग्याचें सुतक ताकाय बादिल्लें जांवये.

रात चडत वताली तशी किडयांची किरकिरय वाडत वताली. मदींच एक सवणेंय टिरँय टिरँय करीत हेवटच्यान तेवटेन उडून गेलें. सगळो गांव न्हिदेच्या अधीन जाल्लो.

तिसरो पार जाल्लो जांवये. अकस्मात लोकांक जाग आयली. तकीत नदरेन सगळे बाबुटयाच्या घरावटेन पळवंक लागले. घर चारीय वटेन पेटूंक लागिल्लें. उज्याचो उजवाड सगळया गांवांत पातळिल्लो. घरांतल्यान किळंच्यो आयकूंक येताल्यो. भायर येवपाचो यत्न करतालीं जांवये. पुण घरान चारीय वटेन पेट घेतिल्ल्यान भायरय सरूंक ये नासलें.

उज्याचीं केणां वयर वयर वतालीं. मळबांत वयर वयर वचून पालवतालीं. घरालागीं आशिल्ल्या झाडांचीं पानां लासून काळीं

जाल्लीं. अकस्मात घराचो पाड्स लासून पडलो. कड कड आवाज जावन मेडी हुमटल्यो. घो करून सगळें घर भुंयेर देंवलें.

आनी अकस्मात कोणाची तरी नदर रानाचे वटेन गेली. उज्याच्या उजवाडांत स्पश्ट दिसतालें.

दुर्गेसारखी अक्राळविक्राळ रूप घेतिल्ली एक आवय आपल्या भुरग्याक हाताक धरून रानांतले वाटेन वताली.

उज्याचो अुजवाड पावता थंयमेरेन लोकांनी तिका पळयली. पुण ताज्याफुडे काळखांत ती खंय गेली हे कोणाकच कळूं ना. कोणाकच ती दिसू ना.

फांतोड जावंक अजून खूबच कळाव आशिल्लो.

( सोंपता )

